# तिरुक्कुरळ

## तिरुवळ्ळुवर

गद्य भाशांतर

आर.के.राव, एम.ए.



प्रकाशक

कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट

पालारिवटम, कोची - 682025

केरळ

# तिरुक्कुरळ

## तिरुवळ्ळुवर

गद्य भाशांतर

आर.के.राव, एम.ए.



प्रकाशक

कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट

पालारिवटम, कोची - 682025

केरळ

कोंकणी भाषा संस्थान ग्रंथमाळ ११
तिरुक्कुरळ : गद्य भाशांतर
भाशान्तर करपी : आर. के. राव
प्रकाशक : कोंकणी भाषा संस्थान,
कोची- 682025, केरळ
पयली उजवाडावणी : २००३
छापपी : वियानी प्रिंटिइस, एरणाकुलम
टायप सेटिंङ् : बुक क्राफट, चेरानल्लूर
प्रती : तीनशें पन्नास
मोल: १२०/-


Konkani Language Institute
Thirukkural : Prose Translation
Translator : R.K. Rao
Publishers : Konkani Language Institute, Kochi-682 025, Kerala
First Edition: 2003
Printed at : Viani Printings, Ernakulam
Type setting : Book Craft, Cheranellore
Copies : 350
Price: 120/-

# तिरुवळ्ळुवरांची आनी तिरुक्कुरळाची थोडे भितर वळरव

तिरुवळ्ळुवर तामील भासेचे संत कवी आसात. तिरुक्कुरळ ताणी रचल्लें व्याचें नांव. दोनीय उतरांचें पूर्व प्रत्यय (prefix) 'तिरु' हाचो अर्थ 'पूज्य', वित्र', 'भोवमान्य', 'मानादीक' आसा. 'कुरळ' तामील छंदशास्त्रां एक सरळ पदी (दोहा) छंदाचें नांव आसा.

'कुरळ' अलौकीक काव्य ग्रन्थाचे कवी 'वळ्ळुवर' आसात. ते क्रिस्तांव र्चिचे आरंभशतकांत मद्रासाचे मायलापुर शारांत रावताले. ते वळ्ळुवजातीचे आशिल्ले शें नांवां पासून दिसता. वळ्ळुव जातींतले म्हापुरुष अशें 'तिरुवळ्ळुवर' नांवांचो र्थ आसा. तांचे आवयचे नांव 'आदि'. ती एक म्हार जातीची स्त्री आाशील्ली. पूयचें नांव भगवंत. ते एक ब्राह्यण आशिल्ले.

तांचें कुटुंब लुगट वीणून तें विकून जीवन करतालें. कवीनी भुरेगप्णांत यते विशयांत ज्ञान प्राप्र केलें. जायते मनीशां कडेन वळख करन घेतली. ते ०हड चज्ञानी आनी शांत चित्त आशिल्ले. जायत्यो भासो शिकले, सरळ जीवन करताले, चे घरकान्नीचें नाव 'वासुकी'. ती मरण पावली. पत्नीचे निधनानंतर तिरुवळ्ळुवरानी तिधर्माची दीक्षा घेतली. अंतरल्ले उपरांत आपणालें देह रानांतले जनावराक उपकार वपाखातीर रानांत उडकावुंक जाय अशें ताणी आपणाले शिष्यांक आपणाली इत्सा ळ्यली खंय.

'तिरुक्कुरळ' सर्वसामान्य जनांक जीवनांत मार्ग दर्शन दिवंचें एक नीती संबंदी व्य आसा. सर्वय लोकानी तांतांगेल्या भासांत 'लोकवेद' म्हण घेतल्ले धर्मग्रन्थ सात. क्रिस्तावांगेले धर्म ग्रन्थ बायबळाचे उपरांत संवसाराचे चडान चड भासांत गकार करन घेतल्लो एक ग्रन्थ हो. सर्वांकय सर्वकाळाकय एक 'गुरू' भाशेन रुक्कुरळ मार्गदार्शन करता. खयंव्याय परिस्थीतींत मनीशांक समाधान दीवन तांकां न्ती दिता. हें काव्य मनीशकूळाची मोलादीक संपत्ती आसा. अळसाय पयस करन, र्न करन, जय पावन मनुशजल्म सुफळ करचें, जीवनांचें ध्येय पुराय करचें मनोबळ रुक्कुरळ आमकां दिता.

कुरळ ग्रन्थाक 'तामील वेद' म्हणतात. हाचे तीन भाग आसात; प्रथम भागांत र्म'; द्वितीय भागांत 'अर्थ' आनी तृतीय भागांत काम - अशें वर्ण्य विशय आसात. रुवळ्ळुवरानी चार पुरुषार्थांतले - धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष - प्रथम तीन

पुरुषार्थांचे वर्णन केलां. चौथो - मोक्ष- हाचे संबंदी कांय सांगलें ना, कारण 'मोक्ष' म्हणचें परमस्वरुप प्राप्ती. ताचें वर्णन करचें कशें म्हण त्या संबंदी कांय म्हळेना, चतुर्विध पुरुषार्थांचे पयले तीनीचेय कुरळ ग्रन्थांत काव्यमय वर्णन आसा.

'कुरळ' ग्रन्थाचे तीन भाग मेळ्न १३३ प्रकरणां आसात. प्रत्येक प्रकरणांत धा द्विपदां (couplets) आसात. अशें सग मेळ्न १३३० द्विपदां आसात. अखेरचे प्रेम सबंदी भागांत एकीय अश्लील ओळ ना.

पयले भागांत, (मंगालाचरण), आरंभ करचे आदीं चार प्रकरणां आसात. पयले प्रकरणांत परमेश्वराची स्तुती, दुसर्या प्रकरणांत पावसाची स्तुती, तीसरे प्रकरणांत सन्यास धर्माचें म्हत्व आनी चौथ्या प्रकरणांत सदाचार धर्माचें म्हाहात्म्य - हांचें वर्णन आसा.

त्या उपरांत पुरुषार्थांतले पयले पुरुषार्थ 'धर्म' आनी ताचे संवंदी वर्णन शुरू जाता. ह्या भागांत गृहस्थाश्रम धर्म आनी यतिधर्म - हांचे वर्णन आसा. गृहस्थाश्रम धर्माचेर चौबीस प्रकरणां आनी यति धर्माचेर नौ प्रकरणाय आासात. उपरांत पांच सर्वसामान्य प्रकरणां आसात.

उपरांत दुसरे पुरुषार्थ 'अर्थ'- हाचें वर्णन शुरू जाता. 'अर्थ' ह्या उतरांत समाजाचो सर्वांगीण विकास अशे व्यापक अर्थ आसा. समाजाचे सुस्थितीक जेंजें गरजेंचें आासा तें तें सर्वय ह्या अर्थ संबंदी भागांत आसता.

अर्थानंतर 'काम' विभाग येता. हांत प्रेमी आनी प्रिया - हांचे वर्णन आसा एक मनीश एक तरुणीक पळ्यता. दोगांचीय दिश्टी एक जाता आनी प्रेम जाता. तीं एकमेकाचो वियोग सहन करचाक शक्य जायनात. फूडे तांचें लग्न जाता. उपरांत झगडें जाता. वियोग जाता. वियोगावस्थेंत कोमळ भावना, फूडे जाल्ले प्रेमकलहाचे वर्णन येता. उपरांत काम भाग सोंपता. ह्या भागांत खयींच अश्लीलताय दिश्टींत येना. मनांचे भाव गोड रीतीन वर्णन केल्यात.

कुरळ काव्यांत कोमळ कल्पना, सुंदर उपमा आनी नवे विचार - हांचे जायते नमुने मेळ्तात. प्रेम, भूतदया, परोपकार इत्यादींचेर पुष्कळ विचार ह्या काव्यांत आसात. एक थळार कवी म्हणता: "ज्या कळीजांत प्रेम ना, तें काळीज सुकून गेल्ले झाडा प्रमाणे आसा." दुसर्याचे मन दुरव्खव न्हयें, अशें सांगतना कवि म्हणता तुज्या एक उतरान दुसर्याक दुरव्ख जालें, तर तुज्या सगळ्या सद्गुणाचो नाश जालो म्हण समजून घे".

हांवें ज्या पुस्तकाक आधारुन गद्यरूपान हें भाशांतर तयार केलां तें पुस्तक म्हणचें श्री एस. रमेशन नायर हाणी केल्लें काव्यमय भाशांतरा लागून आसा. हांव तांचो कृतज्ञतापूर्वक आभार मानतां.

आर के. राव

कोची

४-७-२००३

# अनुक्रमणिका

# धर्म भाग

## मंगलाचरण.

### प्रकरण १: देवाक स्तुती

१. जशें अकार, अक्षर सृश्टीचो आरंभ,
तशें पुराणपुरूसा लागून चराचराचो आरंभ असा.

२. ज्ञान स्वरूप परमात्माचे चरणांक पूजना तर,
तुजे ज्ञानाचो उपयोग काय?

३. भक्तांचे हदय फुलांत वासकरपी परमात्माचे
चरणांक जो आश्रय घेता, तो अमरत्व प्राप्त करता.

४. आसक्ती विरक्ती मुक्त प्रभूचे निश्ठवान भक्ताक
जीवनांतले आधी०याधीचे कश्ट कांय स्पर्श करनात.

५. प्रभूची स्तुती मनान करचे भक्तांक
भले वायट कर्मार्चे फळ स्पर्श करना. ते मुक्त आसात.

६. पंचेन्द्रियांचे स्वामी ईश्वरान दाखयल्या सन्मार्गाचेर जे वतात, ते धर्तरीर साबार
काळ जियेतात.
तांकां पुनर्जल्म ना.

७. अनुपम प्रभूचे पदकमलांचो आश्रय विना
मनाचें दुरव्रव ना करपाक दुसरो कोणेय शक्य न्हय.

८. सत्य ज्ञान सिंधू प्रभूचे चरणांचे आधारान
जे जियेतात तेच ह्या प्रक्षुब्ध भवसागरां सून मुक्त जातात.

९. *अषृगुण संपन्न प्रभूच्या चरणांक जो नमन करना,
ताचें ज्ञीर्ष गुण धर्म रहीत पंचेद्रिय समान.

१०. प्रभूचरणाचो आश्रय घेवपीच जन्म मरणाचो
समुद्र पार करू शकतात. दुसर्याक ते शक्य न्हय.

---

*अषृगुणः भूतदया, क्षमा, अनसूया, गौरव, अनायास, मंगळ, कार्पण्य आनी अस्पृहा.

## प्रकरण २: पावसाक स्तुती

११ पावस पडचे निमित्तान प्रकृती संपन्न जाता.
देखून पावसूच धर्तरीक अमृत समज.

१२ नानाप्रकाराचें अन्न म्हणचें पावसाची देणगी आसा.
आनी तेच पावसाचें उदक आहाराचो भाग जाता.

१३ पावस पडना तर समुद्र वेश्टण घाल्ले
पृथ्वीक भूरव त्रास दितली.

१४ धारेन पावस पडना तर
शेतकार भूंय कसपाक हातांत नांगर धरचेनात.

१५ पावसूच नाश करता आनी
पावसूच जगताक जागोयता, तागोयता.

१६ मेघ पावस घालना तर
तरणें तण लेगीत दोळ्यांक दिसचीना

१७ मेघ पावस घालना तर
विशाल समुद्राचें उदक उणे जातलें.

१८ आकाशांत पावसा कूपां सुकलीं तर
देवाक हवीर्भाग मेळचेंना, पृथ्वीचेर कांय आंकरेवना.

१९ मेघ पावस घालना तर
संवसारांत दान आनी तपस्या दिसची ना.

२० पावस ना जाल्यार संवसारांत जीवन ना,
उदकाचो प्रवाहूय ना जातलो.
(उणे उतरानी म्हळ्यार पावसूच प्रकृतीक जीव दिता,
अमरत्व प्रदान करता - संतांचें जीवन पावसाचेर अवलंबून आसा)

## प्रकरण ३: सन्यास धर्माचें म्हत्व

२१ भोगविलास सोडून उत्तम बैराग्यांत
जीवन करपी रुशींचें म्हत्व निर्णय करप
नामनेचे ग्रन्थाचो घर्म.

२२ जशें संवसारांत आजपर्यन्त मृतांची संरव्या
समजप कठीन तशें रुषी मुनींगेलें म्हत्व समजप कठीन.

२३ इहलोकाचें दुर०ख आनी परलोकाचें सूख
समजून घेतल्ले रुषी मुनींगेले तेजानी ही पृरवी तेजवंत जाल्या.

२४ ज्ञानाचे अंकूशान पंचेन्द्रियांक ताब्यांत दवरपी स्वर्गीय शेतांत घालचे वियाळा समान आसा.

२५ जो पंचेन्द्रीयांक जिरवला ताची शक्ती समजपाक देवेन्द्रन्च योग्य साक्षी आसा.

२६ असाध्याक साध्य करपी ते धन्य आसात, तेच म्हात्मा.
ज्यांक हें साध्य न्हय, ते दुबळे आसात.

२७ रस, रूप, स्पर्श, शब्द, गंध अथवा पंचेन्द्रीयांचें मोल जो वळखला, संवसार ताकाच नंबून आसा.

२८ जांचे उतरांत लोकोपकाराची शकती आसा
तांचें म्हत्व तांची वेदमंत्र सूकतां स्पश्ट करतात.

२९ जे वैराग्य गुणाचे आधारार उवे रावलयात तांचो क्रोध सहन करपाक अशक्य आसा.

३० जे त्यागी आनी निस्संग आसात तेच रवरे ब्राह्मण
आसात. तांकां प्राणिमात्राचे विशयांचेर दया आसतली.

## प्रकरण ४: धर्माचरण

३१ सदाचार पालन करचे निमित्तीं मोक्ष आनी संपत्ती प्राप्त जाता. तर सदाचारा परस चड श्रेश्ठ दुसरें काय आसा?

३२. सदाचारा शिवाय श्रेयस्कर दुसरें कांय ना. सदाचार त्याग सारके हानिकारक दुसरे कांय ना.

३३ जणएक करूं शक्य तशें सत्कर्म करीत रावात.

३४ मन शुध्द आसपाक जाय. हदय शुध्दींत समस्त सदाचार मेळोवन आसात. बाकी सगट दंभ आसा.

३५ राग, दुस्वास, लोभ आनी कठोर वाणी - हांचो त्याग कर. सदाचार संपादनाचो श्रेश्ठ मार्ग होच आसा.

३६ काम करप संबाळून घेवनाकात. एकदम सदाचार पालन आरंभ कर. मरणाचे वेळार होच तुजो मित्र आसतलो.

३७ सदाचार पालन केल्यार कांय कल्याण जातलें कि ना अशें कांय दुवाव नाका.
पालकींत वसता एकलो, पालकी व्हावंता दुसरो. (सदाचारी पालकींत बसता)

३८ वेळ वगडायनाशिल्लें सत्कर्म करीत रावात, तर तें पुनर्जन्माची वाट आडावंचो फात्थोर आसतलो.

३९ सदाचारान जो आनंद मेळ्ता तोच रवरो आनंद. वाकी आनंद खिणपुरतो, दुरव्ख दिवपी.

४० सदाचार मूळ्चें कर्म तेंच धर्म, वाकी सग कृत्य अधर्म.

## गृहस्थजीवन

### प्रकरण ५: कुटुंब जीवन.

४१. इतर तीन आश्रमांचोय मुरव्य आधार गृहस्थाश्राम आसा.

४२. त्यागिल्ले, गरीब, अनाथ आनी पितर - हांचो मित्र गृहस्थ एकलोच आसा.

४३. पितर, देव, अतिथी, बंधू आनी स्वता - हांकां पांच जनांकय बरेपणकरचे गृहस्थजीवन धन्य आसा.

४४ सदाचार धर्माक भियेवन स्वतः जेवणापूर्वी जो दान करता तांचो वंशू शाश्वत उरता.

४५ जे घरांत सदाचार आनी प्रेम भरपूर आसा तें घर कृतार्थ आनी धन्य जाता.

४६ गृहस्थाश्रम धर्माचे कर्तव्य यथाविधी पालन करपी, आत्म संयमी मनीश्या परस श्रेश्ठ आसा.

४७ गृहस्थाश्रमघर्माचे समस्त नेमय यथाविधी मानून घेवन सदाचारान कुटुंब चलोवंचो मनीश
आत्मसंयमी परस श्रेश्ठ आसा.

४८ रुषीक ताचे व्रतपालनांत सहाय करन स्वतः सदाचारान जो वागता तो गृहस्याश्रमी मनीश उपास तपास करन ईश्वराची प्रार्थना करीत आशचे घोर संतां परस श्रेश्ठ आसा.

४९ सदाचार हो विशेश करन गृहस्थाश्रमांतच आसा.
इतर आश्रमघर्म दुसरे चूक आरोप करना जालयार बरें.

५० यथाविधी वागपी गृहस्थधर्मी मनीश स्वर्गवासी देव जातलो.

### प्रकरण ६: सद्‌गुणी भार्येचें कर्तव्य.

५१ पतीचे शक्ती भायर जो रवर्च करना, ती
सद्‌गुणवती पत्नी  संवसारांत मोलादीक आश्रय आसा.

५२ पत्नी गुणवती न्हय तर चड ऐश्वर्य आसून
नासल्या सारके आसा.

५३ अनुरूप आनी योग्य पत्नी आसा तर उणाव कसलोः अयोग्य पत्नी आसा तर व्हड संपत्ती आसून उपयोग काय?

५४ पत्नी पातिव्रत्याचा संपत्तान आसा तर
त्या पत्नी परस मोलादीक संपत्ती दुसरी काय आसा?

५५ सकाळीं उठवन जी देवाक न्हंय, पतिदेवाक पूजता, आकाशांतलें मेघ तिची आज्ञा पालता
(सतीचें सामर्थ्य अशें)

५६ पतिव्रत धर्मांत थीर रावून मोगान पतीची सेवा करुन सतकर्मानी कुटुबाची सत्कीर्ती वाडोवंची गृहिणी ती श्रेश्ठ पत्नी आसा.

५७ पत्नीक घरांत वंधनांत दवरुन घेतल्यार परिणाम काय? तिचे सद्‌गूणच तिचे सतीत्वाचें रक्षण करतात.

५८ जी पतीदेवाची पूजा करता, त्या पन्तीची कीर्ती देवलोकांतय परजळ्ता.

५९ ज्याचे घराक सती साध्वी पत्नी ना, ते शींव सारेक मान वयर करुन फुडे सरपाक शक्य न्हय.

६० उत्तम पत्नीचे ऐश्वर्य म्हणचें घरकाराक परमानंद आनी घराचें परम भूशण म्हणचें सत्संतती.

## प्रकरण ७ : संतती.

६१ बुदवंत संतान प्राप्त करप जीवनाचो मुखेल उद्देश. हाचे सारके सूख दुसरें कांय ना.

६२ जी आवय दान धर्मशील संतत्याक जल्म दिता, तिका सात* जल्मांतूय दुरव्ख स्पर्श करचें ना.

६३ चेरडूबाळ हेंच मनीसाची रवरी संपत्ती आसा.
चेरडूबाळ स्वताचे कृत्यानी जें पुण्य मेळ्यता आवय बापूयक तेंच लाभता.

६४ चेरडूबाळाचे कोमळ हातानी हांगा थांगा शिवंरायल्लें अन्न अमृतापरस गोड आसा.

६५ चेरडूबाळाचें शरीर स्पर्श करप आवयबापूयक सूख दिता, तांचे लुडबें उलोवप (चोंचरें उलोवप) कानाक सूख दिता.

---

* सात जल्म : देव, मनीश, जनावर, चरतल्लें, जलजन्तू, सवणें आनी वनस्पती.

६६ जाणी आपले चेरडूबाळाचें चोंचरें उलोवप आयकले ना, ते बांसुरी नाद मधूर आसा. तंत्रीनाद गोड आसा, अशें म्हणतात.

६७ बापूयचें पूता संबंदी कर्तव्य कितें? ताका विद्वत सभेंत मुखावयले सुवातेर, वसपाक लायक करचें.

६८ आपली चेरडूवां ज्ञानान अपले परस श्रेश्ठ आसुंक जाय, अशें प्रत्येक पिताची इत्सा आसता.

६९ पूत जल्मला म्हण आवयक व्हड आनंद आसता; परंतु पूताची कीर्ती ऐकून तो आनंद अपार जाता.

७० कोणाच्या पूर्वपुण्यान तुमकां असलो पूत मेळ्ळा, अशें सारा जग त्या पूताची स्तुती करता - हेंच पूतान बापूयक करचो उपकार आसा.

## प्रकरण ८ : स्नेह

७१ स्नेहाचें कवड बंद करपाक कलयाद रवंय आसा? परस्पर इश्टजनाचें दोळ्यांत दुकांचे थेंब्यां रूपान स्नेहाचें अस्तित्व जाहीर करता.

७२ स्नेहहीन मनीश समस्तय स्वतः करतलो - परंतु यथार्थ स्नेह करपी सर्वय दृसर्यांक दितलो.

७३ केवल प्रेम करन जीवन करचें म्हण ह्या अस्थीचर्ममय पिंजर्यांत आत्मो पुनः परगट जाला अशें म्हणतात.

७४ स्नेह दुसर्यांत ममता बंदन हाडता. स्नेहा निमित्तान स्वयं मनीश कोमळ जाता आनी कोमळ्तेन मैत्री वाडता आनी तांत सावन सौभाग्य जल्म घेता.

७५ गृहस्थाश्रमांत प्रेमळ जीवन केलें. ताचें फळ स्वर्गार देवालो आशीर्वाद आसा.

७६ धर्माचरण करप्यांक मात स्नेह उपकारतलें म्हणचें मूरर्वता आसा, कारण दुश्टांकय रक्षण करपाक स्नेह एक खरो मित्र आसा.

७७ जशें अस्थीहीन मांसमय प्राण्याक उजो - वोत हुलपायता, तशें प्रेमहीन मनीशांक सदाचार जळवतले.

७८ प्रेमहीन मनीशाचें हृदय वाळवंटांतले सुकल्लो रूक पालेवंचे बराबर आसा.

७९ हृदयाचे भीतर स्नेह ना जाल्यार तो परगट करपी अवयवांचे भायरचे सौंदर्य काय कामाचें?

८० जाचे हृदयांत स्नेह ना, तो मनीश केवल अस्थिचर्ममय सांगाडो आसा. स्नेहूच जीवनाचें जीवन.

## प्रकरण ९ : अतिथी सत्कार

८१. अतिथी सत्कार करप गृहस्थजीवनाचें म्हत्वाचें ध्येय आसा.

८२. घराक आयल्सा अतिथीक भायर बसोवन स्वयं अमृतच पिता तर तें योग्य न्हंय.

८३. जो मनीश घराक आयल्या अतिथीक दिसानदीस सत्कार करपाक चूकना तो केन्नाय कीर्तीवंत आसतलो.

८४. घराक आयल्या अतिथीचो हसतमूरवान जो सत्कार करता ताचे घरीं ऐश्वर्याची देवी लक्ष्मी केन्नाय कृतार्थ जातली.

८५. जो अतिथीक जेवूं घालता आनी अवशिश्ट स्वतः खाता, ताचे गजनींत बीं वोपपाची गरज आसा काय?

८६. घराक आयल्ले अतिथीचो सत्कार करन आनी येवंचे अतिथींची सेवा करपाक वाट पळेवन आसप्याक देव लेगीत सत्कार करपाक वाट पळयता.

८७ अतिथिसत्कारा विषयीं सांगचें कठीन. अतिथीसत्कार करचें म्हणचें म्हापुण्य.

८८. जो धनवंत अतिथी सत्कार करना, तो धन वगउायतर दुर०ख पावन उपयोग काय ?

८९. धनदौलत आसूनूय जो अतिथी सत्कार करना, तो दरिद्रीच आसा. मूरर्व लोकांचीच ही स्थिती दिसता.

९० सोनटक्यांचे फूल हुंगल्यारीच बावंता, तशें अतिथीक अप्रीय दिश्टीन पळयता तर तांचे हृदय दुरव्रव पावंता.

## प्रकरण १०: मधूर वाणी

९१. पवित्र सदाचारी मनीशाची प्रेमळ बाणीच मधूर वाणी.

९२. उदार दानधर्मा परस मधूर वाणी आनी प्रसन्न व प्रेमळ दृश्टी अधीक श्रेश्ठ आसा.

९३. हृदयां सावन येवंचे कोमळ आनी प्रेमळ उतरांत, त्याची प्रमाणे प्रसन्न दृश्टींत सदाचारावें म्हत्व आसा.

९४ सर्वां कडेय जो गोड उतरां उलयता ताका दुरव्खान भरिल्लें दळडीर सद्दां स्पर्श करना.

९५ विनय आनी मधूर वाणी हीच मनीसाचे आभरण आसात. दुसरें कांय न्हय.

९६ तुची वाणी मृदू आनी दयामय आसा तर तुजें पाप पुसून सत्वृत्ती वाडतली.

९७ जो प्रेमळ आनी हितकर संभाशण करता तो इहलोकांत न्याय आनी परलोकांत सद्‌गूण प्राप्त करता.

९८ प्रेमळ आनी म्होवाळ उतरां इहपरलोकांत कल्याण करतात.

९९ जो मनीस मधूर आनी प्रेमिळ वाणीचो अणभव घेता, तो कठोर वचन कशें उच्चारतलो?

१००. मधूर वाणीन काम जाता तर जो कठोर वचनां उलयता तो पिकल्लें फळ आसून हरवें फळ चखपी म्हण समजून घे.

## प्रकरण ११ : उपकार स्मरण

१०१ ज्याक जगतांत उपकाराची गरज ना, ताचो उपकार करप, ताची परतफेड स्वर्ग - पृथ्वी दिल्यारीय फावो सारको जायना.

१०२ जो उपकार वेळार केलो आनी जी दया वेळार दाखयली - दोगूंय ल्हान तर चड ०हड आसात.

१०३ प्रत्युपकाराची चिन्ता विना करचो उपकार विशाल समुद्रा परस महान आसा.

१०४ तुमकां जी मजत मेळ्ळी ती सासवां एदी आसा तर श्रेश्ठ जाणांचे मते ती ताड रूखा समान ०हड आसा.

१०५ जो सहाय दिल्लो ताचें माप - जोख पळोवन उपकार करचें न्हंय. ताचे मताची कार्यक्षमता पळोवन करपाक जाय.

१०६ सज्जनांगेलो स्नेह विसरू नाकात. दुरव्खांत ज्यानी तुमकां आधार दिला तांकां विसरू नाकात.

१०७ ज्यानी दुख्खांत तुमचें मदत केल्लें, तांकां सातय जल्मां विसरचें ना.

१०८ आभार विसरप अनुदारपण आसा. कृतघ्नताय तत्काल विसरप हें मनांचें म्हत्वाचें लक्षण आसा.

१०९ शत्रून जो उपकार केल्ला तें आठोवन जी पीडा ताणे दिल्ली ती पुसून वतली.

११० सर्वप्रकाराचे अपराधींकय उध्दाराची आशा आसा. परन्तु कृतघ्न मनीसाक ती ना.

## प्रकरण १२: न्याय

१११ शत्रू आसो, मित्र आसो, शेजारांकडे न्याय म्हणचें सदाचाराचें अनुकूल आसता.

११२ जो न्यायान वेव्हार करता ताचें वैभव समस्तय ताचे पीडी मेरेन टिकता.

११३ वायट रीतीर जोडली संपत्ती तुचो फायदोच करतली तर घेवू नाका.

११४ तो निपक्षपाती कि न्हय म्हणचें ताचे उत्तराधिकारी स्पश्ट करतले.

११५ सुख दुरव्व सर्वांचेय जीवनांत आसता हें जाणून निपक्षपाती रावचें गिन्यानी मनीसांक अदीक बरें.

११६ जेन्ना तुचे हृदय निपक्षीपणच्युत जाता तेन्ना
तुचो नाश सुरु जाला म्हण समजून घे.

११७ न्यायी आनी सद्‌गुणी मनीशाची गरीबीक संबसार उणाव म्हण लेरवची ना.

११८ जी तराजूची दांडी न्यायान मापता त्या दांडी प्रमाणें सरळ रावून अशें तेशें जुकनाशिल्लें न्याय निश्ठ रावप शिश्ट मनीसांक भूषण आसा.

११९ मनीशाचे मुखां सावन येवंची उतरां रवरीं आसात, तशें हृदयांत सदैव सत्य आसा तोच रवरो न्याय म्हणचो.

१२० स्वताचे फायदा प्रमाणे जो व्यापारी दुसर्याव्या फायदाकय मानता तो ०यापार सदाचाराक अनुकूल आसता.

## प्रकरण १३ : आत्म संयम

१२१ आत्म संयम मनीशाक स्वर्गाकडे व्हरता. मनाचे वासना विकार नरकांतय घालता.

१२२ संयमाचें मोल मानून संयम राखपाक जाय.
जगांत अधीक मोलाचें दुसरें धन कांय ना.

१२३ जगतांत वस्तूचें मोल मानून जो संयमी
जीवन करता ताका सज्जन समजून घेता.
तें ताका म्हत्व घेवन दिता.

१२४ जो संयमी गृहस्थाश्रमधर्माक अनुकूल
जियेता, तो पर्वता परस भव्य आसा.

१२५ विनय सगळ्यांक शोभा दिता. परंतु धनवंतांक
हें एक अतिरिकत धन आसा.

१२६ हो जल्म कासवा प्रमाणे पंचेद्रीयांक फाटीं घेवन जियेता तर तो ताका सात जल्मय रारवण करता.

१२७ दुसर्या कोणाचेय करणीक लगाम घालना जालयारूय जिबेक लगाम घालना तर, जिबेची चूक तुका दुरव्वांत घालतली.

१२८ एक दुश्श्ब्दाचो दुरर्था लागून दुसर्याक दुरव्ख जालें तर तुचे सर्वय गूण गोबोर जाले म्हण समजून घे.

१२९ उजान लासल्लें ब्रण सुकतलें, परंतु जिबेचे उतरांचो हुलोप सूकचोना.

१३० जो क्रोधाक नियंत्रणांत दवरून जियेता. धर्मदेवता त्या संयमीची आगामी यशस्वी वाट पळोवन रावतली.

## प्रकरण १४ : सदाचार

१३१ जाचें आचरण शुध्द आसा, ताका
सर्वय मान - भोवमान दितात.

१३२ दोळ्यांत तेल घालन आचाराक राखपाक जाय. इहपर लोकांत सदाचार सारखे दुसरो कोणेय ना.

१३३ सदाचाराचें पालन सतकुलाचो आचार आसा.
ताका हानी आयली तर श्रेश्ठ कुलाचो मनीश नीच जाता.

१३४ विसरल्ले वेद पाठ केले तर येतले. परंतु जो ब्राह्मण सत्पथ चुकता, तो सदाकाळ नाश पावंता.

१३५ मत्सरी मनीशाक बैभव ना त्याच प्रमाणे आचार इबाउपाक उदरगत ना.

१३६ बरें वायट समजपी बुदवंत मनीश सन्मार्गाचेर दृढ रावतात, एक कण सर चूक नाशिल्लें आचाराचें पालन करतात.

१३७ सदाचारी मनीश सर्वत्र कीर्त पावंता. दुराचारी मनीश सर्वत्र अपवाद आनी अपकीर्त भोगता.

१३८ सदाचार सद्‌गुणाचें बीं तर दुराचार संकश्टांची जननी आसा.

१३९ चुकूनूय सदाचारी मनीशाचे तोण्डा सावन वायट उत्तर येवंची ना.

१४० जायतें शिकले तर संवसाराक अनुकूल जियेवूंक शिकले ना तर ते मूरर्वच.

## प्रकरण १५ ब्यभिचार

१४१ जो सदाचाराचो अर्थ समजता, ताका परस्त्रीची इत्सा करचें मूर्खपण केन्नाय दिसची ना.

१४२ कामासक्त जावन जो दुसर्याले स्त्रीयेचे घरा हुमर्यार झरोवता ताका पतितांत पतित समजून घे.

१४३ जो विश्वासी मित्राचे घरकान्नीर आसक्त जाता तो जियेता तर तो निर्जीव समान आसा.

१४४ ०यभिचारान मानहानी जाता, हें दिसूनूय कोणेय ०यभिचार करता तर तो ०हड म्हन्त आसा तर काय फायदो?

१४५ शेजारचे बायलेक मेळप सोंपें म्हण लेकून जो तिका दोळे लावन बसता तो वायट नांव कमायता.

४६ ०याभिचारी मनीशाची द्वेष, पाप, भीती, लज्जा ह्या चारां पासून सुटका ना.

४७ शेजारच्या बायलेचे सौंदर्याचेर जो विचलित जायना, तोच धन्य गृहस्थ आसा.

४८ परस्त्रीक काम दिश्टीन पळ्यनाशिल्लें श्रेश्ठ पुरुशार्थ, म्हन्ताचो धर्म आनी आचार आसा.

४९ समुद्र वलयांकित ह्या भूंयेर परस्त्रीचे वाहुपाशांत जो पडना, तो सर्वमंगलाचो मालीक आसा.

५० घर्म विरोधी पापीय ब्यभिचारा सून पयस रावल्यार प्रतिष्ठ पावंता.

## करण १६ क्षमा

५१ भूंय रवणप्यांकय पृखी पोषण करता.
घारण करता, त्याच प्रमाणे दुरव्ख दिवप्यांक क्षमा करप व्हड सद्गूण आसा.

५२ क्षमा करप श्रेश्ठ आसा. दुश्ट काम पुराय विसरप चड श्रेश्ठ.

५३ अतिथीचें स्वागत करनाशिल्लें लज्जास्पद उणाव आसा, त्याच प्रमाणे मूरर्वाचें मूरर्वपणाक क्षमाकरप म्हंतांगेलें म्हत्व आसा.

५४ ऐश्वर्य सदा राखपाक इत्सा आसा तर क्षमा करपाची सवंय लागून घे.

५५ अपकाराचा वदल अपकार बराबर न्हय. परंतु शत्रू लागी क्षमा करप्यांक भंगरा मोतियां प्रमाणे स्तूती करतात.

५६ सूड घेवपाचो आनंद एकदीस टिकता. क्षमा करपाचें सूख चिरंजीव आसता.

५७ तुका दूसरान केल्ले अपायान दुर०ख कितलेंय जावो प्रतिकार बुघ्दी मनांत घेवूं न्हयें, हांत रवरें चांगपण आसा.

५८ जाणी कृतघ्न अंहकारान तुका दुरव्ख दिलों, तांकां तुमचे सहनशीलतायेन जिकून घे.

५९ जे उपहासात्मक विखाळ उतरां शांतपणान सहन करतात, ते सर्वसंगपरित्यागी सन्यासां परस महान आसात.

६० जे उपवास करन तप करतात ते रवरींच महंत आसात. परंतु दुसर्यानी केल्ले उपहासाची जे क्षमा करतात, ते उपवास घेवन तप करपी सन्यासा सकयल आसात.

## करण १७ दुस्वास

६१ ज्याचे हदयांत दुस्वास ना, तार्चे हृदय सद्गुणाचें भाण्डार आसा.

६२ तुका निर्मत्सर स्वभाव आसा तर तोच अघीक श्रेश्ठ.

१६३ ज्याक सद्गुणाची आनी भाग्याची इत्सा ना, तोच शेजार्‍यां चांगपणांत मत्सर करपी आसा.

१६४ बुदवंत लोक मत्सर घेवन दुसर्‍याक अपाय करचे नात. कारण तशें नीच भावना मनांत घेतलयार तांचे जीवन केन्नाय कश्टांत आसतलें.

१६५ दुस्वासी मनिशाक दूसरो शत्रू ना आशल्यार ताचे मनांचो शत्रूच ताचो नाश करतलो.

१६६ दानशील मनीशाक पळोवन जो जाळ भोगता, ताचे आनी ताचे संबंदीचो, जेबपा रवावपा न्हेसपा नाशिल्लें, सत्यानाश जाता.

१६७ दुसर्‍याले भाग्याक जो मत्सर बुध्दीन पळ्यता, ताका लक्ष्मी सोडून वता, ज्येश्ठदेवीक स्वाधीन करन, ती पळून वता.

१६८ म्हापापी सारके दुस्वास, सर्वय ऐश्वर्य पाड घालन मनीशाक नरकांत काडून उडयता.

१६९ दुस्वासी मनीश बैभवांत आनी उदार मनीश गरीबींत, हें चिंतून समजपाक जाय.

१७० दुस्वासान कोणेय भाग्यवंत जालोना; दुस्वासाचे अभावान कोणेय निर्भागीय जालो ना.

## प्रकरण १८ निर्लोभ

१७१ परसंपत्तीचो लोभ पावल्यार ताचे कुटुंबाचो नाश जाता, ताका लागून जायते संकश्ट येतात.

१७२ तटस्थ लोक दुसर्‍याले धनाचेर लोभ घेवन वायट काम करचेंनात.

१७३ ज्याक अनंत आनंदाची इत्सा आसा, तो क्षुद्र सुरवा रवातीर अन्यायाचो आश्रय घेवंचो ना.

१७४ जितेन्द्रीय मनीश घोर गरीबींत लेगीत दुसर्‍याली संपत्तीची इत्सा करीत ना.

१७५ लोभवश तुमी दुश्कर्म केलें तर तुमची बुध्दी सूक्ष्म आसा तर तिचो उपयोग काय?

१७६ जो मनीश पुण्यकर्मांत लागून आसा, द्रव्य हेतू दुश्कर्म केल्लयार ताचो नाश जाता.

१७७ दुसर्‍याले संपत्तीचो लोभ धरु नाका. तें ऐश्वर्य न्हंय. ताचे फळ केन्नाय वायट आसतलें.

१७८ तुची संपत्ती उणे जायना, कारण शेजास्थ्या द्र०यावो लोभ तूं करना.

१७९ निरलोभी प्रज्ञावंताची थोग्यता लक्ष्मी जाणून तांकां सोदून तांचे कडेन येता.

१८० परधनलोभीक फळ सर्वनाश आसा. परंतु परधन निर्लोभीक सर्वत्र उत्कर्श जाता.

## प्रकरण १९ परनिंदा करूनाकात

१८१ जो केन्नाय सदाचारा आड अन्याय करता तो कोणाचेय फाटी मागलान ताची निंदा करीत ना. तर ताचो सभाव ०हड बरो आसा.

१८२ दोळ्यां मुरवार हासून दोळ्यां आड निंदा करप हें पापा परस भारी वायट आसा

१८३ परनिंदेन जियेवपा परस धर्मिश्ट मरण बरें आसा.

१८४ एकल्याचे दोळेमुरवार ताका कर्कश उतरां उलयात परंतु ताचे फाटी ताची निंदा करू नाकात. तें ०हड पाप.

१८५ तोण्डान सदाचाराचीं उतरां उलयता. परंतु दुसर्याची निंदा करचे वेळार हृदयाची क्षुद्रता स्पश्ट करता.

१८६ जो दुसर्याची निंदा करता ताच्यो गंभीर चूकयो रवाशेल्ले बेळार दुसरे स्पश्ट करतले.

१८७ मधुर उतरानी मैत्री जोडपाची मधुर कला कळना तर, मित्राचें वायट सांगून तांकां शत्रू करतले.

१८८ जे मित्राचें दोष सांगपांत आनंद पावंतात ते शत्रूचे दोष कशें सांगनाशिल्लें रावतले?

१८९ अस्वडी निंदा करप्याचो भार धरित्री सहन करता, 'हो म्हागेलो धर्म' म्हण भू माता हें करता.

१९० जशें दुसर्याले दोश समजून घेता, त्याच प्रमाणे स्वताचे दोशय निरीक्षणपरीक्षण करन घेता ताका दुरव्रव येतलें काय?

## प्रकरण २० निरर्थक उतरां उलयनाकात

१९१ दुसर्याक सतावपी निरर्थक उतरां
उलोवप्याचो तिरस्कार सर्वय लोक करतात.

१९२ आपले मित्रांक सतावपा परस बुदवंताकडे निरर्थक उतरां उलवप भारी वायट आसा.

१९३ जो निरर्थक उतरां उलयता तो स्वताच नालायक म्हण जाहीर करता.

१९४ जो दुसर्यांकडे वडबड करता, फायदो ताका सोडून वता.

१९५ नीतीवंत निरर्थक उतरां उलयतात तर तांचे मानसम्मान तेन्ना तांकां सोडून वता.

१९६ जो पोकळ उतरां उलयता, तो मनीश न्हंय, तो सारहीन तूस म्हणा.

१९७ कठोर उतरां उलयलीं तर बुदवंत तिरर्थक उतरां उलयनात.

१९८ चड दुर्लभ कामाचो संद शोद्रून भोबंचे लोकानी बिरर्थक उतरां उलोवना.

१९९ जो पूर्ण ज्ञानी आसा तो चुकून लेगीत निरर्थक उतरां उलयना.

२०० उलयता तर योग्य उतरां उलय, निरर्थक उतरां केन्नाय उलयनाका.

## प्रकरण २१ पापकर्माचो भंय

२०१ दुश्टांक पाप कर्माचो भंय ना. परंतु सज्जन ताचे पासून भियेतात.

२०२ पापा पासून उज्या सारके पापच जल्मता.
देखून उज्या परस ताका भियेवपा जाय.

२०३ जे तुमकां वायट करतात तांकां बदलो घेवू नाकात. तेच शाणेपण आसा.

२०४ विसरायेंत लेगीत दुसर्यांचें वायट करूं नाकात. मनांत वायट आठ्यलें तर ईश्वरीयन्याय ताका नाश करतलो.

२०५ दळिद्री म्हण लेखून दळिद्र दूर करपाक वायट काम कर नाकात, कारण वायट काम केलें तर दळिद्र चड जातलें.

२०६ दुसर्याक त्रास देवू नाकात. कारण ताचे परिणाम तुमीच भोगतले.

२०७ शत्रूचे शत्रुत्वां सावन तुमी मुकत जातले. परंतु ताचो द्रोह तुमकां फाट घेतलो आनी तुमचो सत्यानाश करतलो.

२०८ आपली सावळी आपलाक फाट घेता आसता. त्याच प्रमाणे पापय सदा सर्वदा तुमकां फाट घेबन आसता, सोडना.

२०९ मनीश स्वता प्रेम करपी आसा, देखून ताणे दुसर्याक इल्लें लेगीत संकश्ट दीवू न्हयें.

२१० जो पाप कर्म आनी वायट काम करना तो केन्नाय संकश्टां पासून वांचून आसा म्हण समजून घे.

## प्रकरण २२ परोपकारतत्परताय

२११ कुळबंत मनीश, आपणलें कर्तव्य म्हण लेखून निरपेक्ष उपकार करीत आसतात, पावस घालचे मेघाचे उपकाराक संवसार कितें दिता?

२१२ चड श्रम पावन मेळचें धन योग्य मनीशाक उपकार करपाक आसता.

२१३ उदार मनान केल्ली दुसर्याची सेवा समान अधीक बरी सेवा पृखीरुय ना, स्वर्गारुय ना.

२१४ योग्य काम म्हण जाणून जो सेवा करता तो जगतांत बरोबर जियेता, दुसरे मृतसमान समजून घे.

२१५ उपाट भरल्लें गावंचें तळें - ताचे समान आसात जगांत प्रेम करपी मनीशालें वैभव.

२१६ फळ भारान बावगल्लो एक रूख गावांत आसा. जगतांत प्रेम करचे उदार मनीशाचे वैभव त्याच प्रमाणे आसा.

२१७ जशें सगळ्या सगळे वोरवदाचे गुणानी युक्त रूख आसा, तशें उदार मनीशाचे हातांतली संपत्ती आसा.

२१८ उदार मनीश स्वयं आपदग्रस्त आसात तर दुसर्यांक सहाय्य करपांत चूकनात.

२१९ जो सहाय्य मागून येता ताका सहाय्य दीबूंक शक्य न्हंय मू म्हण चिंतन करन उदार मनीश दुरव्ख पावंता.

२२० परोपकार केलो, त्या निमित्तीं स्वता नाश येता तर हरकत ना, तो परोपकार करीत आसता.

## प्रकरण २३ दान

२२१ दीन दुबळ्याक जें आमी दितात तेंच खरें दान. दुसरें सग दान रीण दिवचें समान आसा.

२२२ सज्जनाकडे रीण घेवंचें बरें न्हंय. आनी स्वर्गांत जागो मेळना तरी दान दीवप एक व्हड गूण म्हण समजून घे.

२२३ 'म्हजे कडे ना' म्हण जो सांगना आनी दान दिता तो प्रत्यक्षांत कुलवंत आसा.

२२४ याचकाचे तोण्डार तृप्तीचे आनंदाची झळ्क पळ्यली विना दाताराचे मनांत आनंद ना.

२२५ तपोबळान रुषी आपणाली भूक आनी तान - हांकां नियंत्रणांत हाडता. पूण जो दुसर्याची भूक आनी तान शांत करता तो रुषी परस व्हड आसा.

२२६ गरीबांची भूक शान्त करचें धनच कुलवंताली पुंजी आसा.

२२७ जो दुसर्यांक वांटून स्वता रवाता ताका भूकेचो भयंकर रोग लागसार स्पर्श करचो ना.

२२८ संपत्त दान करन जो आनंद मेळ्ता, तो, संपत्त दीवू नाशिल्लें इकटून दवरचे कृपण जाणात काय?

२२९ जो श्रीमंत एकटोच बसून खाता, ताचो तो सभाव भीख मागचे परस वायट.

२३० मरण दुरव्ख दायक आसा परंतु याचकाक दान दिवपाक शक्य न्हय म्हण आयल्लें मरण मधूर आसा.

## प्रकरण २४ रव्याती

२३१ दळिद्रयाक दान दी आनी यश जोड्न घे. आपले नांव उज्चल करपाक दुसरो उपाय कांय ना.

२३२ जे दळिद्रयाक दान दितात, लोकांत समस्तय तांचे गुणगान करतात.

२३३ रव्याती अजर अमर आसा. मानवजातीचे इतिहासांत रव्याती अपरूप आसा.

२३४ जे संवसारांत दान दोवून रव्याती मेळयतात ताँकां देवलोकाचे देबगण लेगीत आदर करतात.

२३५ जे मरण षावंतात तांचे शरीर मरण पावतां तर त्याग आनी थश वाकी उरता. शूरच हें काम करूं शकतात.

२३६ संवसारांत जल्म घेवन येवंचे वेळार यशसयत येवुक जाय ना जालयार जल्मांत येनाशिल्लें चड बरें आसा.

२३७ जे स्वता कीर्तिवंत न्हय ते आपणाक अपराधी लेखनाशिल्लें मिदंकाचेर रागार येतात काय?

२३८ जाणे रव्याती अमर करपाक जीवन केल्ले ना, लोक ताचो धिक्कार करतलो.

२३९ जल्म वगडायल्ले मनीशाचो भार ०हावंचे ह्या पृखीर दुसरे कांय उत्पन्न आंकरेवना सग सुकून करपून वतलें.

२४० जांचे जीवन निर्दोशी आसा, ते खर्यानीच जियेतात. जे रव्यातीहीन जियेतात ते निर्जीव समान आसात.

# सन्यासाश्राम

## प्रकरण २५ दया

२४१ दयाळ हृदय हीच मनीशाची खरी संपत्ती. भौतीक संपत्ती हीणांत हीण मनीशय जोडूं शकता.

२४२ सन्मार्गार बच आनी दयाळ जा. दया, हीच मोक्षाची एक मात वाट आसा.

२४३ दयाळ मनीशाक काळ्के नरकांत प्रवेशना.

२४४ प्राणीमात्रार जे दया करुन जियेतात तांकां आपणाले जीवाक भय करचें दुर०ख कांय लागचे ना, ते मुक्त आसतले.

२४५ दयाळ मनीशाक केन्नाय त्रास आसचो ना. वायू ०यापल्लो हो विशाल संवसार ह्या गजालाची साक्षी आसा.

२४६ जो दयामाया नाशल्लो, असत्याचरण करपी तो पूर्व जन्मांत जोडल्लें सत्य धर्म विसरला - अशें तत्वज्ञ म्हणतात.

२४७ ज्या प्रमाणे निर्धनाक ह्या लोकांत सूख ना. त्याच प्रमाणे जो दया करपाक शक्त न्हय ताका परलोकांत सूख ना.

२४८ धनदौलतान आतां गरीब आसा तर एक दिवस तो धनवंत जावंची शक्यताय आसा. परंतु जाचे कळेजांत दयेचो ०हांव सुकला ती दया मागीर केन्नाय ताचे कळेजांत उपजुन्ना.

२४९ ज्या प्रमाणे संशयांत आनी गोंदोळांत पडल्लो मनीश सत्य समजप कठीन त्याच प्रमाणे कठोर मनीशाचे हातान सत्कर्म करप कठीन आसा.

२५० गरी बांकडे वे०हार करचे वळार आपण्या परस प्रबल लोकांकडे तूं कशें लाचार होवून रावता, तें आठ्य.

## प्रकरण २६ मांसाहार वर्जप

२५१ जो आपणालें शरीर चरबीवंत करपाक दुसर्या प्राण्यांचें मांस रवाता, तो दयाळ कशें जातलो?

२५२ धन संपत्ताचो गूण दान दीवप हें ताका दिसना, तशें मांसाहार करप्याचे हदयांत दया उदेवना.

२५३ सशस्त्र शिपयाचे कळेजांत दया आसना. तशें मांसाहाराचे कळेजांत दया आसना.

२५४ करुणा म्हळ्यार अहिंसा. प्राण्यांची हिंसा करप खरोखर निश्ठुरपण आनी तांचें मांस खावप ०हड अधर्म.

२५५ हिंसा करन मांसाहार वर्जकरप होच आमचो धर्म. मांसाहार केल्लो तर ताका नरक मेळतलो.

२५६ मांसाहार नाका म्हळ्ळे लोकांत मांस विकचे कोणेय आसचे नात.

२५७ दुसरे प्राण्याची वेदनाची कलपना करून मांसाहार वर्जीत करात. तें जनावराचें व्रण म्हण समजून घे.

२५८ ह्या मायामय संवसराचे वंधन सोडून जे मुक्त जाले त्या तत्वज्ञनीनी केन्नाय मांसाहार करचीना.

२५९ सहस्त्र याग करचे परस प्राण्यांची हिंसा करून ताचें मांस रवावनाशिल्लें श्रेश्ठ आसा.

२६० जो प्राण्याक जिवानशी मारन ताचे मांस रवायना, ताका सगलें जगत हात जोडून नमन करतलें.

## प्रकरण २७ तप

२६१ आपले जीवाचे आनी शरीराचे कश्ट सहन करप आनी कोणेय प्राण्याची हिंसा ना करप हें तपस्याचें स्वरूप आसा.

२६२ पूर्वजल्मांत जाणी तप केलां तेच ह्या जल्मांतय त्या मार्गार वसपाक शक्तात. दुसर्यानी हें केलें तर निश्फळ.

२६३ तपस्वींचो आदर सत्कार करपाचे चिंतेंत मग्न आसून गृहस्थ स्वयं तपकरपाक विसरतात.

२६४ तपस्येचे बळान तुचे शत्रुकुलाचो नाश आनी तुचेर प्रेम करप्याक उत्कर्श, दोनीकय सामर्थ्य आसा.

२६५ तपो बळान इत्सा पुराय पूर्ण जाता म्हण संवसारांत लोक तप करपाक प्रयत्न करतात.

२६६ तपकरपी आपणलें हित साधतात. दुसरे लोक वासनाचे जाळींत घुसपून निमाणे विनाशाक प्राप्त जातात.

२६७ उजो जितलो प्रखर आसा, तांत घाल्ले भांगराचे तेज तुतलें वाडता. तशें जानी कश्ट आनी दुरव्ख चड भोगलें तांचें मनांत तपाचें तेज चड आसतलें.

२६८ अंहकार ना करून जो मनीश संयमी आसता ताका सर्वय पूजतात.

२६९ कठीन तपस्येचे बळान यमराया वयर लेगीत विजय पावपाक तो शक्य जाता.

२७० ह्या संवसारांत तप करप्याची संरव्या भो उणे. तप आचरण करनाशिल्ले चड आसात, कारण जगांत संयमी मनीश भो उणे, दुसरे भरपूर आसात.

## प्रकरण २८ अनाचार

२७१ ढोंगी मनीशाचें ढोंग पळोवन शरीरांतली पंचभूतांची तत्वां हासू लागतात.

२७२ जाणून निशिाध्द कर्म केल्लें तर तें कर्म कितलेंय गंभीर आसो तें निश्फळ आसा.

२७३ मनांक नियंत्रणंत करनाशिल्लें खोटा तपस्याचो देरवाव करपी मनीश वागाचे चाम पंगरुन चरचे गाय प्रमाणे आसा.

२७४ साघू सन्यासाचो वेश घालन जो पाप कर्म करता तो पाचवे रानांत निपून बसून सवण्याक तीर सोडचे ०याध प्रमाणे आसा.

२७५ ढोंगी मनीश देखावो करता कि म्हजे मनोविकार हांव जिखलों म्हण, परंतु पाप कर्म करीत आसता ताका केन्नाय दुरव्ख भरता.

२७६ मनां सावन स्वार्थी, परंतु त्यागचें ढोंग रचता, तांचांकूय दुश्ट दुसरे कोणेय नात.

२७७ गुंजी झाडाचें फळ पुराय तांबडे आसा, तर एक ल्हान भाग काळो आसा. त्याच प्रमाणे भायर चांग परंतु मन वायट, असले दंभी मनीश आसात.

२७८ असले जायते लोक आसात जे तीर्थस्नान करतात, परंतु तांचें मन भो वायट आसता.

२७९ बाण नीट, सरळ, सुंदर आसा, परंतु ताची करणी भारी निश्ठूर आसा, दया माया नाशिल्ली. वीणा वक्र आसा, परंतु रागरंगाचें मधूर संगीत परगटायता, देकून भायरचे आकार प्रकाराचेर परीक्षा करूं न्हयें. गुणविशेशाचेर नंवून निर्णय घेवपाक जाय.

२८० जें कर्म जगांत वायट आसा, ताचो त्याग केलो तर शिरोमुंडन नाका, रवाड वाडोवपय नाका.

## प्रकरण २९ कपट रहीत वेव्हार

२८१ मुक्तीपद प्राप्त करपाक जाची इत्सा आसा, ताचे मनांत कपटाचे विचार येवंचे न्हय, म्हण जागरूक रावपाक जाय.

२८२ दुसर्यालीं संपत्ती कपट करून लूटी मारीन म्हण मनांत लेखचेंच ०हड पाप आसता.

२८३ कपट करून मेळ्यल्ली संपत्ती अनंत वाडतली, त्याच प्रमाणी सत्यानाश जातली.

२८४ दुसर्याली संपत्ती लूट मारन भोगची इत्सा मनांक तत्काल सुख संतोश दितली, परंतु अखेर अनंत दुरव्खाक कारण जातली.

२८५ मुक्ती मेळपाक दुसर्यां कडे मोगाळ भाशेन वेव्हार करता. मनीशाची ही स्थीती दुसर्याली संपत्ती ताका फटोवन घेवंचे खातीर ताचो नाश येवजूचे वेळार आसची ना.

२८६ दुसर्याली वस्तू लुटून जीवन करपाक जो आशेता तो मनीशाले रवरें मोल समजून अणभव पाविलो न्हय.

२८७ संवसाराचे सर्व वस्तूंची कीमत वळखून जानी आपले हदय घट्टीकेल्लें आसा, तांकां अज्ञानाचो अंधकार अडचणींत घालची ना.

२८८ जशें वस्तूचें ठेठ रुप धर्मपरायण ०यकतीचे हृदयांत आसा, तशें चोराचे मनांत कपटूय आसा.

२८९ कपट विना दुसरें कांय कळनाशिल्लो मनीश नाशाचे फोंडांत पडून तेन्नाच नाश पावंता.

२९० कपटी मनीश स्वता ताचें शरीर लेकीत राखपाक शकत ना. परंतु सज्जन देवलोकांत मान पद प्राप्त करता.

## प्रकरण ३० सत्य निश्ठा

२९१ सत्य म्हणचें काय? जाचे उलोवपांत दुश्टपणाचो गंघ येना, तें खरें सत्य म्हणतात.

२९२ असत्यां सावन निर्मळ मंगळ काम जाता तर तें सत्यच आसता.

२९३ जें असत्य म्हण स्वता जाणता तें सत्य म्हण सांगचें न्हंय. सांगल्यार तें तुजे मनांक केन्नाय लासतलें.

२९४ जाचे काळीजांत असत्याचो कण सरी ना, तो लोकां सर्वांचेय काळीजांत सम्राट म्हण वास करता.

२९५ ज्याचे हदय सत्यनिश्ठ उरता तो तपोनिश्ठ दानशील ०यकती परस श्रेश्ठ आसा.

२९६ सत्या परस मनीशाची ०हड कीर्त दुसरी ना. तें मनीशाक थत्न करनाशिल्लेंच सर्वय ऐश्वर्य प्रदान करता.

२९७ मनीश केन्नाय फट्टी सांगनाशिल्ले, सत्यनिश्ठ जीवन करता जाल्यार इतर सदगुणाची गरज ना.

२९८ उदकान भायरची शुध्दी जाता. परंतु हृदयाची शुध्दी सत्यान सिध्द जाता.

२९९ जे सच्चे म्हात्मा आसात ते सत्याचे प्रकाशाकच्च प्रकाश मानतात, दुसरे प्रकाशाक ते प्रकाश माननात.

३०० संवसाराचे समस्त तत्वग्रन्थांत सत्या समान दुसरी श्रेश्ठ वस्तू कांय ना.

## प्रकरण ३१ क्रोधरहीत वेव्हार

३०१ कोप जंय सफळ जाता, थंय कोप परगटायना. ही ताची क्षमावृन्ती आसा. दुर्बळान क्षमाकेल्ली काय ना, तांत म्हत्व कांय ना.

३०२ जांचेर प्रतिकार करपाची शक्ती आसा, तांचेर रागार येवप दोश करतलें आनी जांचेर प्रतिकार करपाची शक्ती ना, तांचेर रागार येवप भो वायट आसा.

३०३ अपराधी कोणेय आसो. ताचेर कोप विसरून घे. कारण कोपा पासून ०हड संकश्ट येतात. तो ताचो लाभ.

३०४ कोपान हास मरता, आनंद ना जाता. क्रोधा परस दुश्मन दुसरो कोणेय आसा काय?

३०५ स्वयम नाशां सावन रक्षण जाय तर, क्रोधा पासून पयस राव. ना तर, तो क्रोध तुका मारन उडकायतलो.

३०६ क्रोध ज्याचा लागी येता तो उज्या सारके ताचें भस्म करता, पनेळ सारके बंदुबांदवांकय नश्ट करता.

३०७ ज्याक कोप येता, तो ताचो नाश करता, ताची स्थीती भूंयेर बळान मारप्याचे हाता सारके जाता.

३०८ जो मनीश तुका जळ्चे उज्या सारके संताप दिता, स्वयं त्रास भोगून ताका क्षमा करचें बरें आसता.

३०९ क्रोध मनांभितर जल्म धेना जाल्यार आशेल्लें सगळेंय सट करून मेळतलें.

३१० जो क्रोधवश जाता तो मृत्यूवश वता. परंतु जानी क्रोधाचो त्याग केल्ला, तो संत समान जातलो.

## प्रकरण ३२ द्रोह रहीत वेव्हार

३११ ज्याचे मन शुध्द आसा ताका दिव्य संपत्ती मेळतली तर ताणी दूसर्याक द्रोह करचीना.

३१२ जे शिश्ट लोक आसात, तांकां निश्ठूर लोकानी द्रोह केलो तर प्रतिघात करचीना.

३१३ अकारण कोणेय तुमकां द्रोह केलो तर ताका अपकार करचो न्हय. केलो तर ताचें पाप तुमकां फाटी घेतलें.

३१४ जो तुमकां द्रोह करता, ताका ताचें बदल उपकार करात, ताका लजा जावपा सारके, आनी ताणी केल्लो द्रोह विसरात.

३१५ दुसर्याचें दुरव्ख आपलेच दुरव्ख म्हण लेखून तें पयस करपाक यत्रू करीत ना जाल्यार तुजे ज्ञान काय कामाचें?

३१६ आपले अणभव दुरव्खदायक म्हण ते दुसर्याक वांटून दीवू न्हंयें.

३१७ कसलेय भाशेन (मनसा, वाचा, कर्मणा) कोणाकूय दुर०ख दीवूं न्हंयें, हें (मानव धर्म म्हण) समजून घे.

३१८ ज्याक स्वताच दुरव्खाचो अणभव जाला, तो दुसर्याक कशें दुरव्ख दिता?

३१९ फूडे तुमी दुसर्याक दुरव्ख दिल्लें तर तें दुर०ख तुमकां परतून येता.

३२० द्रोह करप्याक ताचें पुराय पाप येवून ताकाच आडायता देखून दुसर्याक द्रोह करनाशिल्लें रावात.

## प्रकरण ३३ अहिंसा

३२१ अहिंसा उत्कृश्ट सद्‌गूण आसा. हिंसे लागून समस्त पापांय येतात.

३२२ भुकेस्ताक अन्न दी आनी तूंवंय जेव, हो समस्त धर्मोंपदेशकांचो श्रेश्ठ उपदेश असा.

३२३ समस्त गूणांत सद्‌गूण म्हणचो अहिंसा, ताचे खालोखाल सत्यकथन.

३२४ सन्मार्ग म्हणचें कसलें, म्हण विचारल्यार सांगचें समस्त जीवजालाची हिंसा नाकरप हेंच सन्मार्ग.

३२५ पुनर्जनन आनी संवसाराची दुरव्ख दारुण अवस्येचे भीतीन अनेक सन्यासवृत्ती आपणायतात. हांचे परस तोच व्हड श्रेश्ठ जो हिंसेक पाप मानून अहिंसा व्रत पालन करता.

३२६ जो अहिंसा व्रताचो निर्णय घेवन जियेता, ताचे लागी जीव खावंचो यमकाळ लेगीत येवूं ना.

३२७ आपणालो प्राण त्याग करपी संद आयलो तरी दुसर्यालो प्राण घेवू नाकात.

३२८ हिंसा केल्ले जाल्यार उत्तम सूख मेळ्ता अशें म्हणत तरीय सज्जनाक हिंसा सर्वात्मना त्याज्य आसा.

३२९ जे हिंसेक एक काम धंदो म्हण घेवन भोंवंतात तांकां विचारवंत ग्यानी चांडाळ म्हणतात.

३३० पूर्वजन्मांत ज्याणी हिंसा केली ते ह्या जन्मांत सर्वांगांत व्रण घेवन, रगत पू व्हावन जियेतात म्हण बुदवंत म्हणतात.

## प्रकरण ३४ ज्ञान

### अस्थीरपण

३३१ संवसाराची वस्तू क्षण भंगूर आसा, शाश्वत मानचें मूर्खपण आसा, ०हड अज्ञान आसा.

३३२ गावांत तमाशा पळोवपाक लोक जमता. परंतु उणे वेळ जाल्यार (तमाशा सोंपल्यार) थोडो वेळ भितर जागो खाली जाता त्याच प्रमाणे वैभव येता, वता.

३३३ संपत्ती क्षण भंगूर आसा. देखून दुसर्यांचे कल्याणकारी कामाखातीर ती खर्चपाक त्याच वेळाशुरू कर.

३३४ काळ निरुपद्रवी दिसता, परंतु तो मानव जीवनांक खरवता भाशेन खरवत चलोवन उणे करता.

३३५ जीब दुर्बळ जावन गळगळचे फूडे वेगीन वेगी सत् कृत्य करून घे.

३६ जो काल आसा तो आज ना अशे ह्या संवसाराची स्थीती आसा. ह्या संवसारांत आश्चर्यूय हेंच आसा.

३७ दुसरे क्षणांत आपण आसतलो कि ना म्हण कळना परंतु कोटीन कोटी राखून दवरता.

३८ तांती फोडून तांती - पिलो भायर पडता. त्याच प्रमाणे आत्मा आनी शरीर - हांचो संबंद आसा.

३९ मृत्यू न्हिंदे प्रमाणे आसा. आनी जीवन न्हिदे उपरांतेची जागृताये प्रमाणे आसा.

४० ह्या अर-थायी शरीरांत दोन दिसांची बस्ती करचाक आत्मा सोदून येता कित्याक? ताका शाश्वत अशें दुसेर घर ना की?

## करण ३५ त्याग

४१ मनीश ज्या ज्या वस्तूचो त्याग करता, ताचे पासून जें दुर०ख जाता त्या दुरव्खा पासून तो मुक्त करून घेता. (संग दुर०खय निस्संग सूखय मनीशाक प्रदान करता.)

४२ सर्वसंग परित्याग केल्यार शाश्वत आनंद मेळतलो. (शाश्वत सूख त्यागाक आदारून आसा.)

४३ पंचेंद्रियांक नियंत्रणांत घे. ज्या ज्या वस्तू पासून तूका सूख मेळता त्या सर्वांकूय संपूर्ण रूपान सोडून घे.

४४ निसंगपण सन्यासाचें खरें व्रत आसा. वस्तू संग्रह करप मनीशाक मायाजालांत घुस्पायतलें.

४५ जन्म मरणाचे चक्रां सावन मुक्ती, ही ज्याची इत्सा आसा, ताका शरीरच ०हड वोजे दिसता. ताका इतर वस्तूंचेर संबंद कित्याक?

४६ हांव आनी म्हजें म्हणचें केवळ अहंकार आसा. ह्या मिथ्याभिमाना सावन जो मुक्त जाता तो देवलोका परस श्रेश्ठ लोकांत पावंता.

३७ जे आसक्ती सोडनात, तांकां केन्नाय दुरंत दुरव्ख अनुगमन करता.

७८ जे निसंग जाले ते मोक्ष पांवतात परंतु जे आसक्त आसात ते संवसाराचे मायामोह जाळ्यांत पडून धुसपतात.

४९ जो आसक्ती सोडून घेता तो जन्ममरणा सावन सुटता. आसक्त मनीश जल्म मरणाचे पाशांत पडून घुसपता.

५० जन्म मरणा सावन मुक्ती पावपाक भगवत् भक्ती प्रेमाचो संबंद जोडून घे.

## प्रकरण ३६ तत्वबोध

३५१ जो सारभूत वस्तूक सोडून मिथ्या वस्तूक आपणायता तो अज्ञानी जीव परतून ह्या दुरव्खमय संवसारांत जल्म घेता.

३५२ जाची दिश्टी मोह निर्मुक्त आनी निर्मळ जाता तो शाश्वत सूख प्राप्त करता.

३५३ जाचो संशय सोडून वचून सत्याचो साक्षात्कार जाता, स्वर्ग ताचे भो लागी आसता.

३५४ तत्ववोध करून घेना जाल्यार मनुश्य जल्मांत पांच इन्द्रियांचो बोध मेळन कांय उपेग ना.

३५५ एक वस्तूचें भायलें स्वरूप कसलेंय आसो, तिचे पासून शाणेपणान समजप रवरें ज्ञान म्हणतात.

३५६ जाणी मेकळे मनान समजून घेतलें, तांकां जन्म मरणाची पुनरावृत्ती ना.

३५७ जाणी चिंतन करून सत्य समजून घेतलें तांकां पुनर्जन्माची चिंताच नाका.

३५८ मूरर्वपणा सावन मुक्ती पावपाक सत्याक प्रत्यक्ष करप होच यथार्थ तत्ववोध.

३५९ आपणाक उद्धार करपी वाट पुरायेन जाणून सर्वप्रकाराची आसक्ती जिखून घेवन जो जियेता, ताका संवसाराचें सूरख दुर०ख स्पर्श करना.

३६० काम, राग, मोह - हे जे जिखले ते सर्व दुरव्खां सावन निवृत्त जाले.

## प्रकरण ३७ आशानाश

३६१. आशा म्हणचें बीं जीवाक जन्म मरणाचें पीक दिता.

३६२. तुका कसलीय आशा लागू करची आसा तर जन्म मरणा पासून मुक्ती लागू कर. जे आशापाशां सावन मुक्त जाले, मुक्ती तांकां सोदून तांचे कडेन येतली.

३६३. आशानाशा सारके काय दूसरी संपत्ती इहलोकांत ना, स्वर्गातूंथ ना.

३६४. मुक्ती म्हणचें काय? आशेचेर विजय प्राप्त करप, हीच मुक्ती. ती तत्वज्ञानीक अप्याप सिद्ध जातली.

३६५. जांनी आशा वृत्ती जिखली, तांकां मुक्त पुरूश म्हणतात. दुसरे मुक्त दिसतात, परंतु ते वंदिस्तच आसात.

३६६. आशा मनीशाक फुसकायता, देखून धर्मप्रिय मनीश केन्नाय तिचे कडे सावन वांचून रावतलो.

३६७. आशा मुळा सावन हुमटून नाश करपी मनीशाक सर्वय स्वयम मंगळ जातलें.

६८. जाक आशा ना, ताका दुरव्ख ना. जाक आशा आसा ताचे फाटी दुरव्ख ताका सर्वदा सोसता.

६९. आशा म्हणची आपत्ती जानी जिखली ताका ह्या संवसारांत शाश्वत आनंद मेळ्तलो.

३७०. जेन्ना मनीश अतृप्त वासनाक हुमटावन पयस उडेयता त्याच क्षण तो मनीश नित्य निर्वाण पद प्राप्त करता.

## प्रकरण ३८ नशीब

३७१. यत्नान मनीशाली संपत्ती बाडता, सत्यानाश जायना. तशेंच एक मनीश आळ्सो जाता, आनी संपत्ती नश्ट जाता दोनीचेथ कारण ताचें नशीब.

३७२. बुदवंत मनीश बुद्दू जाता. बुद्दीहीण मनीश वुदवंत जाता. दोनीचेंय कारण नशीब.

३७३. ग्रन्थ जायते शिकले - वाचले, तो ०हड विद्वांस आसा. परंतु रवाशल्ले वेळार दिसलेना तर काय फायदो? बराबर वेळार अनुकूल प्रतिकूल दिसपाक कारण नशीब.

३७४. जगांत परस्पर विरोधी भाग दिश्टी पडतात - पयशेकार आनी बुदवंत. पयशे जोउपाक ज्ञान जाय म्हण ना, ज्ञान प्राप्त करपाक पयशे जाय म्हण ना हें एकल्याचे नशीबाक निंबून रावता.

३७५. धन जोडपाक काळ प्रतिकूल आसा तर, चांग गोष्टीव वायट जातली. तशें सग नशीबाक नंबून आसा.

३७६. जी सेपत्ती तूंवें जोडली नसीब प्रतिकूल आसा तर ती तुका सोडून वता. अनुकूल आसा तर पेल्यान उडकायली तर ती तुका सोडून वचना.

३७७. अगणीत संपत्तीचो उपभोग करपाक आसा तर देव अनुकूल धन मात तूं भोगपाक योग्य आसा.

३७८. ह्या संवसारांत गरीबीचे कश्टां सावन मुक्ती पावपाक दळ्दीरांचे ध्यान वैराग्या कडेन ओडता. परंतु दुरव्ख भोगचें तांचे नशीबांत आसा तर तें ताणी भोगपाक जाय. वैराग्य तांचे जीवनांत सफळ जातलें कि ना - हाचोय आधार नशीबच.

३७९. चांग जालें, त्यावेळार सूख घेतात. तेच लोक, वायट जालें, त्या वेळार कित्याक रड्डूं लागतात?

८०. नशीबा परस बलवान संवसारांत आनी कितें आसा? नशीबाक पराभव करपाक मुखार सरले तर, तें जाय कि नाका म्हण निर्णय घेता नशीबच.

### धर्म भाग सोंपता.

# अर्थ भाग
## राज धर्म

### प्रकरण ३९ रायाचे गूण

३८१. सैन्य, प्रजा, संपत्ती, मंत्री, मित्र आनी दुर्ग - हीं स वस्तू जाचे ताब्यांत आसात तो राज्यांत शींव, राजसिंह जाता.

३८२. धैर्य, उदारताय, गिन्यान आनी उत्साह - हे चार गूण रायाक नेमान, सदासर्वदा आसूंक जाय.

३८३. जे ह्या भूमंडळार राज करतात तांकां हे तीन गूण सर्वदा आसुंक जाय - जागरूकताय, विद्या, आनी धाडशी पौरूष.

३८४. क्षात्रधर्म चूकनाशिल्लें, अधर्माचे आड शासन करपी अभिमान राखपी तो गुणवंत राजा आसा.

३८५. आपले राज्याची समृद्धी करपाक मार्ग शोदून घेवप, आपले खजानांत दाम भरप कशें, ताची रक्षा करप कशें, तें कशें ०थय करप - ह्या कार्थांत राथ कुशळ आसा.

३८६. जो राय नमळायेचो, गोड उतरां उलोवपी आसा, ते रायाचें राज्य दुसरे राज्या परस नामनेचें म्हण लोक मान्यताय आनी आदर परगटायतले.

३८७. जो राय उदारपणान आनी प्रेमान राज करता, ताची कीर्त पुराय जगतांत पसरता, ताचें राज्य विशाळ जाता, लोक ताची इत्सा पुराय करतले.

३८८. जो प्रामाणिकपणान, न्यायान आनी धर्मान प्रजा - पालन करता, ताका लोक प्रत्थक्ष देव म्हण मानता.

३८९. जो राय, कटुवचनां शांततायेन आयकून धेता ताचे सत्तेक सांतली सकयल सारके समस्त प्रजा खोस मानतली.

३९०. जो राय दयाळ, उदार, न्यायी आनी संरक्षक आसा तो दुसरे रायांक राजकुलदीपक आसतलो.

### प्रकरण ४० विद्या

३९१. स्पश्टपणान शिकून आनी खरें ज्ञान प्राप्त करन ते प्रमाणे समजून घेवन जियेपाक जाय, रायान.

३९२. अंक ज्ञान आनी अक्षर ज्ञान (गणित आनी लेखन) हीं दोनीय मनीशाचे दोन दोळे आसात - हेच रायाचेय म्हण बुदवंत लोक म्हणतात.

३९३. तोंडार दोन दोळे आशिल्ले विद्यावंत, अशिक्षीत लोकांक ते दोळे दोन व्रणां समान.

३९४. विद्वानांचे मेळेवप म्हणचें आनंदाचो वेळ, वियोग म्हणचे दुरवखान भरिल्लो वेळ, हो पंडितांचो सभाव आसा.

३९५. भिकारी आपले ध्येय साध्य करपाक धनवंतां मुखार सभावान गरीब वागता, त्या प्रमाणे नम्रतायेन जे विद्या प्राप्त करतात ते ०हड मनीश, जे अशें विद्या प्राप्त करपाक इत्सा करनात ते नीच जातीचे आसात.

३९६. जितले खोलायेन भूंय खणतात झरे झिरपून तितलें चड स्वच्छ आनी उत्कृश्ट उदक मेळ्ता. ज्ञानय भूंयचे झर्येप्रमाणे आसा.

३९७. विद्वानाक सर्वत्र स्वदेशच, सगळें विश्व ताचें घर आसा. अशें आसा तर मनीश मरण पर्यन्त ज्ञानार्जनांत उदासीन रावता काय?

३९८. ह्या जन्मांत प्राप्त विद्या सात जन्मांतय फायदो जोडतली.

३९९. ज्ञानान आपणाक जो आनंद मेळ्ता तो आनंद इतर लोकाकय जातलो म्हण जाणून विद्वान ज्ञान चड करपाक इत्सा धरता.

४००. अविनाशी संपत्ती विद्येचे आड बाकी समस्त संपत्ती तुच्छ आसा म्हण समजून घे.

## प्रकरण ४१ निरक्षरताय

४०१. जायतितलें गिन्यान प्राप्त केल्ले शिवाय शिंवासनार वसचें म्हणचें फळें विना पाशे खेळू वसचे बराबर आसा.

४०२. जो निराक्षरी ०यक्ती वक्ता म्हण स्पश्ट सांगूक इत्सा बाळगता तो दोन मोमे नाशिल्ली वायल मनीश स्त्री महिमा पासून सांगपाक इत्सा परगट करचे प्रमाणे आसा.

४०३. विद्वत् सभेर निरक्षरी मनीशान मौन धरलें तर ताका पंडित म्हण मानून घेतले.

४०४. निरक्षरी मनीश कितलोय होशियार आसा तर बुदवंत लोकानी ताका मान दिवंची ना.

४०५. बुदवंतां कडे संवाद केलो तर निरक्षरी मनीशाचें दंभ अदृश्य जाता.

४०६. निरक्षरी मनीश उत्पादन क्षमताहीन शेता सारके आसात. ते केवळ जीवंत आसात, हेंच तांचे विशयीं सांगचें.

४०७. जांक समजुपाची तांक ना तांचें वैभव भायर कितलेंय सुन्दर आसो चुन्या बावल्याचे सुन्दरताये प्रमाणे आसा.

४०८. विद्वान मनीश गरीब जाता तांत कांय दुभाव दिसना. परंतु मूर्ख धनवंत जाला तर भारी वायट आसा.

४०९. श्रेशठ कुळांत जल्म घेवन अक्षरज्ञान ना तर तो हीन कुळांत जल्मल्ले वुदवंतां वराबर जायना.

४१०. मनीश आनी पशू हांचे मदीं जो मतभेद आसा तोच मतभेद विद्वान आनी निरक्षरी मनीश हांचे मदीं आसा.

## प्रकरण ४२ श्रवण शक्ती

४११. कानानी जें आयकता तें संपत्तांत ०हड संपत, सर्वश्रेशठ संपत आसा.

४१२. ज्या वेळार कानांक खाण ना, त्या वेळार पोटाक इल्लें खाण दीवये.

४१३. जाणी श्रवण मधूर ज्ञानाचें खाण आस्वादन केलां ते भक्तीन दिल्ली भेंट म्हण मानून घेवपी पृथ्वीवयरचे देव आसात.

४१४. तूं निरक्षरी आसा तर कानानी आयक. तें ज्ञान तेंको दिवपी रवांब्या प्रमाणे तुका आधार दितलें.

४१५. धर्मशील लोकांचो उपदेश भरकम वडिये प्रमाणे आसा. तो तुका सुळसुळीत भूंयेर पाय निसरून खाला पडनाशिल्लें वांचयतलो.

४१६. थोडीसीं जालीं तरी चांग उतरां आयकपाक जाय. त्या उणे उतरांत म्हत्व भरिल्लें आसये.

४१७. जांनी बरे भाशेन मनन आनी श्रबण केल्लें आसा ताणी चुकून लेगीत वायट कर्कश उतरां उलोंचें ना.

४१८. ज्ञान विज्ञानाचे उतरानी जे कान उगडलेनात ते कान आयकतात, परंतु भायरे वराबर आसात.

४१९. वुदवंतांचे सूक्ष्म आनी सार्थक संवाद जानी आयकलेनात तांणी नम्रतायेन उलोवप सोंपें न्हंय.

४२०. जे कान आयकपाची रूच नेणार जातात फकत जीभेची रुच जाणतात ते जिते आसून काय कामाचे? ते मरून गेल्ले तर कांय नुसकान ना.

## प्रकरण ४३ ज्ञान

४२१. कवच म्हणचें ज्ञान मनीशाक समस्त भया पासून संरक्षण करता. ज्ञानाचो किल्लो शत्रू सेनाक लेकीत जिखूक साध्य न्हंय.

४२२. ज्ञान मनांक आडवाटेन वचनाशिल्लें नियंत्रणांत घेवन सन्मार्ग दाखयता.

४२३. कितेयं कोणेय सांगल्लें आयकलें तर ताचें सत्यासत्य समजून घेवप म्हणचें खरें ज्ञान.

४२४. उलोवंची उतरां दुसर्यानी सोंपेपणान समजून घेवपा सारके उलोवप, आनी दुसर्यांची उतरां सूक्ष्मतायेन आनी गंभीरतायेन समजप तेंच प्रत्यक्ष ज्ञान आसा.

४२५. लोकांत सर्वांचेय लागी शांततायेन वेव्हार करप हें ज्ञान आसा. तें शांत आसता, संकुचीत आनी अचळ पचळ ना आसता.

४२६. जगाचे रीती रिवाजा प्रमाणे आपणाली चालचलणूक हीत जावपा सारके करप, हें ज्ञान आसा.

४२७. ज्ञानी मनीश फूडे कितें जातलें तें वळरवतात मूर्खांक फूडे कांय दिसना.

४२८. भीती घेवंचे विशया पासून भय नाशिल्लें रावप मूर्खपण आसा. ताचे पासून भियेवन रावप ज्ञानी लोकांचे शाणेपण आसा.

४२९. दूरदिश्टीचे मनीशाक फूडार येवपी प्रत्येक घटणूके पासून सादूर आसतलो. ताका कांय दुरव्ख दिसचीना.

४३०. जांक विवेक बुद्धी आसा तांचे कडेन सर्वय आसा. मूर्खा लागी सर्वय आसून कांथ नाशिल्या सारके आसा.

## प्रकरण ४४ दोश वर्जप

४३१. जो मनीश मद गौरव, राग आनी वानसा ह्या दोशां पासून दूर आसता तांचें धन दौलत अभिनंदन करपाक योग्य आसा.

४३२. दुरभिमान, लोभ आनी खूब ०हड आनंद - हे रायाचे ०हड दोश आसात.

४३३. स्वताची चूकीक भीयेतल्ले धर्मात्मो आपले तीळा सारकै दोशय पर्वत समान लेखतात.

४३४. तुमचें कामांत चूक येनाशिल्लें राखात, कारण चूक मनीशाचे नाशाक हेतू जाता.

४३५. दोश येवंचे फूडे ताचे आड तथ्यारी केली ना तर जशें सुकें तण उज्यांत जळून गोवोर जाता तशें राजाचो सर्वनाश जातलो.

४३६. रायान पयले आपले दोश दूर करपाक जाय, उपरांत दुसर्यांचे दोश सोदपाक जाय. अशें केलें तर रायाचेर अपराध येतले काय?

४३७. जो आपलें धन दुसर्यां रवातीर खर्च करना, त्या करपणाचें धन वाड नाशिल्लें अखेर धूळींत मेळ्ता.

४३८. खर्च करना शिल्लें धन एकटावून दवरप कंजूसपण आसा. हो दुर्गुणांत व्हड दुर्गुण आसा.

४३९. अहंकारान आपली स्तूती करू न्हंयें. आपणाक आनी दुसर्याक दोश जावंचें काम करू न्हंयें. अशें एक राय परिपक्व आनी सुसंस्कृत मनाचो आसुंक जाय.

४४०. तुज्या ह्रदयाची इत्सा आनी वानसा वुसर्यांक कळू दीनाशिल्लें उरलीं तर दुश्मनाचे यत्न निशफळ जातले.

## प्रकरण ४५ सज्जनांची मैत्री

४४१. सदाचाराचे वाटेन वचून जे पिरायेन म्हालगडे जाले तांचो स्नेह चउ म्हत्वाचो म्हण लेखून घे.

४४२. लोकांचेर आयल्ले संकश्ट दूर करून फूडेचे आघातां पासून तांकां वांचोवन तांची मैत्री जोडून राज करप एक रायाक योग्य आसतलें.

४४३. खरे योग्य मनीशांक संतोश दीवन ताची प्रेमळ सेवा करन तांयें इश्ट जोडप एक रायाची ०हड सिद्धी आसा.

४४४. आपले परस योग्य मनीशाक मान दिवंचो गूण एक रायाक चड महान करता, ०हडपण दिता.

४४५. मंत्री म्हणचे रायाचे दोळे आसात देखून बरे रूपान विचार करन बरे रूपान तांकां मानून घे.

४४६. योग्य म्हापुरूशांचे संगतींत जो राय आसा ताका कोणेय फटोवपाक शवय जायना.

४४७. आपली टीका करपाक योग्य संगात्यांक घेवन राज करपी रायाक संकश्टांत घालपाक कोण दुश्मन शकता?

४४८. जे रायाक गूण दोश समजावूंक कोणेय ना तर, ताका दुश्मन नाजाल्यारूय त्या रायाचो स्वयं सत्यानाश जाता.

४४९. भांउवळा शिवाय लाभ ना त्याच प्रमाणे जांक फाटवळ दिवपी समर्थक ना तांकां अस्तित्व ना.

४५०. अनेक लोकां कडेन सूड उत्पन्न करपा परस भले मनीशांचो स्नेह वगउावन बसप दसपट वायट काम आसा.

## प्रकरण ४६ नीच सांगात वर्जप

४५१. सज्जन नीच लोकांचें सांगात भियेतात परंतु हल्के मनांचे लोक तांचे सारके लोकां मर्दीं आनंदान मेळ्तात.

४५२. उदक जे भूयंतल्यान व्हाळ्ता तिचे रंगरूप घेता. त्याच प्रमाणे मन जे तराचे संगतींत रूप घेता, तशें घडता.

४५३. मनीशाचें सामान्य गिन्यान ताचे मनाचे प्रेरणेक अनुकूल घडता. परंतू ताची कीर्त तो जे सांगात धरता ताचेर नंबून आसता.

४५४. मनीशाचे सभावगूण ताचे मनोवृत्तींत आसा आशें दिसता. परंतु जे संगातीत तो आसता, ताचो सभाव तार्चे ठेठ म्होर आसता.

४५५. मनीशाचे मनांची शुउद्धी आनी कर्माची पवित्रताय निर्मळ संगतीचेर नंवून आसा.

४५६. जांचें मन शुद्ध आसा ताची संतती पवित्र आसतली. तांचे सर्व यत्न फुलतले फळटले. कांय वायट तांकां स्पर्श करचीना.

४५७. शुद्ध हृदय मनीशाची अपरूप संपत्ती आसा. सत्संगती पासून ताका कीर्त मेळ्टा, प्रशंसा मेळ्टा.

४५८. बुदवंत मनीश स्वता सर्वगुण संपन्न आसात. तर ते सज्जनांची संगती आवडेतात. कारण तांची संगती तांकां चउ बळ दिता.

४५९. मनांची शुद्धी मनीशाक स्वर्ग सूख दिता. सत्संगती ती ताका थीर करता.

४६०. संत्संगती समान दुसरो मित्र ना. वायट संगती पासून जितले कश्ट येतात ताची कल्पना करप कठीन आसा.

## प्रकरण ४७ कर्तव्यनिश्ठ कर्म

४६१. कसलेंय काम करूं शुरू करपा फूडे ताचो फायदो - नुकसान जाणून फायदो मेळचें कर्म करूंक जाय.

४६२. बुदवंतां कडेन विचार विनिमय करन ताका लागून जो काम करता तका ह्या जगतांत अशक्य अशें कांय ना.

४६३. फायदो जातलो अशे विचार करन भांडावळ नश्ट जावचें काम करपाक विचारवंत लोकानी मंजूरी दीवंचीना.

४६४. अपमान येतलो म्हण भियेतल्ले लोक सज्जना कडे विचार केल्ले शिवाय कसलेंय काम आरंभ करचीना.

४६५. झूजाक भायर सरचे फूडे जैता रवातीर बरे भाशिन विचार केलो ना तर तें तुमचे दुस्मानाक फायद्याचें मार्ग आसतलें.

४६६. करपाक पाडना म्हळ्ळें काम केलें तर तें दुरव्खाक आमंत्रण दिवपा सारके जातलें आनी तशेंच करपाक जाय आशिल्लें काम केलें ना जाल्यार नाश जातलो.

४६७. पूर्ण विचार केलो, उपरांत कर्म करपाक आरंभ कर - आरंभ केल्ले उपरांत ताचे पासून विचार करप मूर्खपण आसता.

४६८. परिणामाचो विचार केल्ले शिवाय सुरू केल्लें कामा रवातीर मजत करपाक कितलेय जाणां धावून आयले तरी निश्फळ जातलें

४६९. स्वयं करचें काम दुसर्याक कितले फायद्याचें म्हण विचार करनाशिल्लें, केलें तर, काम कितलेय भलें आसो तें अडचणीचें आसतलें.

४७०. आपले योग्यतायेचे प्रतिकूल काम लोक मानून घेनात. देखून जग उपहास करनाशिल्लें कर्म समजून करपाक जाय.

## प्रकरण ४८ शक्ती बोध

४७१. कसलेंय कार्य आरंभ करचे फूडे तांतल्यो अडचण्यो - कर्मबळ, शत्रूचें बळ, स्वताचें बळ आनी ताका लागून सैन्य बळ - हांची सर्वांचीथ अवस्था खोलायेन समजून घेवन चिंतन करन कार्य करपाक जाय.

४७२. जे स्वताची शक्ती जाणतात आनी समजतात आनी तांचे सारके कार्य करतात तांकां अशक्थ कांय ना.

४७३. स्वताचे शक्तीचो अंदाज नाशिल्लें उमेदीन झूज करून मर्दी हारवून गेल्लेले अनेक आसात.

४७४. जे शेजारच्यां लागी मैत्री भावान वर्तपाक विचार करनात आनी स्वताचे बळा पासून कल्पना ना, आनी स्वयं स्तूती करन अहंमन्य आसतात तांचो नाश बेगीन जाता.

४७५. मोरा पाक म्हण लेखून जर तूं अंदाजा भायर गाडीर चडयता तर गाडीचे पायाचो तेंको मोडतलो.

४७६. रूखाचे खांद्या तलवार मेरेन चडून आनी ऊंच चडूं इत्सा केली तर ताचो जीवनाश जाता.

४७७. आपली संपत्ती कितली आसा, ताका लक्षांत घेवन दान दी. आपली संपत्ती राखपाक होच मुखेल मार्ग.

४७८. धनागमन मार्ग अरूंद आसा तर काय हरकत ना खर्च ताचाकूय चड जावपाक नज. (खर्च येणावळी परस चडनज).

४७९. येणावळ लक्षांत घेवन जियेना तर तांकां जिवीत भार सी दिसतलें आनी आखेर तांचो नाश जातलो.

४८०. जो आपले द्र०य आंखनाशिल्लें दुसर्याची मजत करपाक भायर सरता तो ०हड कश्टांत जातलो.

## प्रकरण ४९ योग्य वेळाची वळख

४८१. जशें दीस - उजवाडे कावळो घुगूमाक आक्रमण करन हारवयता तशें ज्या रायाक झूज करन शत्रूक जिकपाचो उद्देश आसा ताका परिस्तितीचें म्हत्व आनी योग्य वेळ वळरवपाक जाय.

८२. राय काळा सारके कार्य करता तर तेंच ताचे ऐश्वर्याक दृढ करपाचो संबंध आसता.

८३. योग्य वेळकाळ वळखून सद्दूर रावून मनीश कार्य प्रवर्त जाता तर ताका अशक्य काय आसा?

८४. काळ वेळ अनुकूल आसा तर सगली पृथ्वी तूं जिखून येतलो.

८५. जो सगली पृथ्वीचेर सत्ता करून घेवपाक इत्सा वाळगता तो शांततायेन योग्य संदीची वाट पळयता.

८६. जशें बोकडां झगडपा वेळार तडाको दिवपा फूडे चिके मागशीं सरता, तशें बुदवंत मनीश आक्रमण करचें फूडे निश्क्रीय दिसता तर तो लक्षांत घेवपी आसा .

८७. बुदवंत मनीशानी आपलो क्रोध एक दम भायर दाखोवंचो ना. मनांत घेवन योग्य संदीची वाट पळयत आसतले.

८८. शत्रू तुच्या परस बळवंत आसा तर ताका नमन करन ताचे बळ उणे जाता अशें दिसचे वेळार ताचेर हल्लो करन ताका उच्छेद कर.

८९. जेन्ना अपरूप संद येता तेन्ना चुप्प रावनाशिल्लें आपला काम करपाक जाय.

९०. योग्य वेळ येता तेन्ना ढोंकान मसळीक वेगीन चोच मारन्न घेवपा सारेक कार्य करून जैत जोडपाक जाय.

## करण ५० स्थल ज्ञान

९१. झूजांत घेरा घालन जिखपाक योग्य थळ स्पश्ट पळयले शिवाय ताचे विशीं कांय चर्चा करपाक नज, शत्रू नगण्य म्हण लेखचाक नज.

९२. संपत्ती, सैन्य, बन्धुजन हें सर्वय आशिल्ले रायाक एक दुर्गय आसा तर दुसरी काय सिद्धी प्राप्त आसतली.

९३. झूजाचें योग्य थळ बारिकसाणीन पळोवन कुशळतायेन आनी जापसालदारकेन हालचाल केली तर तुर्बळांक लेगीत विजय मेळंक शक्य आसा.

९४. किल्ल्याक लागून दुर्गम अशें थळार थीर रावून झूज केल्लें तर शत्रूचो अनुमान चुकतलो.

९५. अगाध उदकांत सिसर दुसरे सगळे प्राण्यांकय सुशेगान जिखता. ती सिसर उदकां साकून ऊंच आयली तर दुसरे सगळे प्राणी तिका आळाबंदा हाडतले.

९६. कितलेय घट बरे चक्रांची आसा तर रथ समुद्राचें उदकांत चलचो ना, तशेंच समुद्रांत धावचें तारू धर्तरीर चलचें ना.

४९७. आरंभा पासून योग्य थळ वेंचून काडून थंय घट रावून झूज केलें तर ताका स्वताची निर्भयताय शिवाय दूसरी मजत कांय नाका.

४९८. एक रायाक थोडे सैन्य आसा तर तें सैन्य योग्य रण क्षेत्रांत दृढ रावलें तर प्रबळ शत्रूचे सगळे यत्न व्यर्थ जातले.

४९९. दुर्ग सुरक्षीत न्हय आनी योग्य सैन्य वळूय ना तर शत्रू जेन्ना पर्यंत स्वताचे थळार आसता तेन्ना पर्यंत ताका पराभूत करप कठीन आसा.

५००. एक पिशौ हती जो एक भालेकार धाडशी हतीकाराक मानून घेना, जेन्ना पाय चिकलां फारकून रावता तेन्ना एक कोलो लेगीत ताचें खून करता.

## प्रकरण ५१ नेमणूकेची परीक्षा

५०१. धर्म, अर्थ, काम आनी अभिमान - ह्या चार कसोट्यांत जो जयतवंत जाता, ताका नेमणूक करपाक जाय.

५०२. जो अभिजात आसा, अपकीर्तीक भियेता, निर्दोषी आनी लजेस्त आसा, तो मनीश विश्वास योग्य आसा.

५०३. मनीश विद्वत्तायेंत चड गाड आसा तर कांय विशयांत अनाभिज्ञ आसा अशें परीक्षेंत दिसून येता. चूक नाशिल्लो मनीश अपरूप आसा.

५०४. मनीशांतलें चांगपण आनी वायटपण - दोनीचेंय वजन जोखून जाचें वजन चड आसा तें समजून चांगपण चड आशिल्ले मनीशाक मानून घेवपा जाय.

५०५. एक मनीश चांग कि वायट हें ताचे कर्माचे कसावटणेचे फातराक नंबून आसा.

५०६. जांक बंधू - बांधव नात, तांकां नेमणूक करपाक नज. तांचे मनांत प्रेमाची वलसाण आसची ना ते निश्ठूर आसात.

५०७. एक मनीशाक तुमी मोग करतात, म्हण लेखून ताका नेमणूक केलो तर जायत्यो चूकयो जातल्यो.

५०८. स्पश्ट खवर घेनाशिल्लें नेमणूक केलो तर आपले भावी पिडी लेगीत संकश्ट निर्माण जातले.

५०९. परीक्षा घेतल्ले शिवाय कोणाकूय विश्वासांत घेवू नाकात. विश्वासांत घेतल्ले उपरांत तांचे योग्यतायेक अनुरूप तांकां काम दिवपाक जाय.

५१०. परीक्षा घेनाशिल्लें मनीशाक मानून घेवप आनी मागीर ताका दुबावप - हें निरंतर त्रास भोगपाक कारण जातलें.

## प्रकरण ५२ परीक्षा घेवून नेमणूक करप

५११. सत आनी असत, हांचे विवेक करून समजून जो सत पसंत करता ताका कामाचेर नेमणूक करतलो.

५१२. राज्याचे साधन सामग्रीचो योग्य उपेग करन जो राज्याचे वैभव चड करूं शकता आनी आपत्तीचो जो परिहार करूं शकता ताका तूं कारभारी कर.

५१३. दयाळू, वुदवंत, वेगोवेग निर्णय घेवपी, निर्लोभी असले मनीशाक सरकारी सेवेंत घे.

५१४. सर्व प्रकाराची परीक्षा घेवन एक मनीशाक नेमणूक केला तरूय तो खाशले वेळार बदल शकता, अशें अनेक उदाहरणां आसात.

५१५. कोणतरी प्रेम करता म्हण लेखून न्हंय, परंतू जो कर्मकुशळ आनी कश्ट पूर्वक काम करूं शकता ताका विश्वासान काम सूवादीन करपाक जाय.

५१६. कर्मचार्याची कर्मक्षमता, कर्माचें गौरव आनी अनुकूल वेळ - हें सग समजून हांकां मेळोवन काम करपाक जाय.

५१७. प्रत्येक मनीशाची कार्यक्षमता आनी शक्ती समजून कामाची जवाबदारी ताचेर विश्वासान सुवादीन करपाक जाय.

५१८. प्रत्येक कामाक एक मनीश लायक आसा कि ना म्हण समजल्ले शिबाय त्या मनीशाक त्या कामाची जवाबदारी दिवपाक नज.

५१९. कार्यकुशळ सेवकाचे मनांत दुबाव दिसलो तर भाग्य ताका सोडून वतलें.

५२०. राज्याचे आधिकारी जेन्ना पर्यंत चूक करनात तेन्ना पर्यंत कांय विघ्न ना. देखून रायान सेवकांचे सर्वय कामांचेर देखरेख दवरपाक जाय.

## प्रकरण ५३ बंधूजनांचें प्रेम संपादन

५२१. निर्धन जाला तर आपले वंधूजन मात पोरणे स्नेह संबंदाक राखून घेतात.

५२२. मोगाळ बंधू सहकार दितात तर त्या गरीब मनीशाचे भाग्य वाडत आसतलें.

५२३. जो मनीश आपले वंधूबांधवां मदे मेळन मेळोवन मोगान जियेवूंक शकता ताचें जिवीत तड नाशिल्ले तळ्यांत उदक भरल्ले प्रमाणे आसा. बंधू वांधव एक मनीशाक तळ्याचे उदकाक तड सारके ताचें राखण करता.

५२४. बंधू बांधव मेळन ताचो मोग संपादन करन जियेवप - होच संपत्तीचो लाभ आनी उपेग आसा.

५२५. मनीश उदार आनी गोड उतरां उलोवपी तर बंधू सगळे ताचे भोंवतणी आसतले.

५२६. जो उदारपणान दिता. आनी जाचो सभावगूण शांत आसा, ताचे सारके जगांत दुसरो कोणेय ना.

५२७. जशें कावळे आपले खाण आपले जात भावंडांक वांटून खातात तशें संपत्ती आनी वैभव तसले मनीशांक प्राप्त जाता.

५२८. दर एकल्याचे कार्यक्षमते अनुरूप राय तांकां पळयता. तर रायाचें बंधू बळ वाडतलें.

५२९. कारण समजून तें पयस करन जे वेगळे जाले ते परत एकठांय येतले.

५३०. जो एक फांतां फुटून वेगळो जालो तो आयलो तर प्रश्न विचारून मात ताका परत मानून घेवपाक जाय.

## प्रकरण ५४ अविस्मरण

५३१. सूख संतोश चड जावन, समजिकाय ना जावन स्वयं विसराळू जावप - हें अती क्रोधान बेजवाबदार जावपा परस चड वायट आसा.

५३२. निरंतर गरीबी निमित्तीं आकलन शक्ती मरता. त्याच प्रमाणे आळशाय आनी विस्मृती तुमचें वैभव नश्ट करता.

५३३. विस्मरणकारांक जगांत कीर्त ना म्हण सर्वय ज्ञानशील ग्रन्थय निर्णय दितात.

५३४. किल्लो - कोट आसून भिजूड मनीशाक काय उपेग? जाक विस्मृती चड आसा, ताका साधनाचो वैभव आसून काय उपेग?

५३५. जो आदीं पासून सादूर रावपाक विसरता तो मागीर संकश्टां वेळार आपले वेपरवा खातीर पच्छाताप करतलो.

५३६. विस्मृती सर्वांकय ना जाली तर, सर्वय जागरूक आसात तर, ताचे बराबर सद्गूण दुसरो कांय ना.

५३७. जाचे मनांत विस्मृती सारके उपकरण ना, ताका ह्या जगांत अशक्य कांय ना.

५३८. बुदवंतांनी जें काम प्रशस्त म्हण प्रसिद्ध केलें तें करात. जे तें करनात तांकां सात जल्मांतय पुण्य ना.

५३९. अनियंत्रीत संतोशान आपलाक विसरून आनंद पांवचे वेळार विस्मृती कारण जांचो सर्वनाश जाला तांचे खातीर उगडास कर.

५४०. मनीश जें काम मनांत लेखता ताचे खातीर परत परत यत्न केला तर तें प्राप्त करून घेवपाक कठीन न्हंय.

## प्रकरण ५५ न्यायी राज सत्ता

५४१. योग्य विचार करन आनी निश्पक्षपाती प्रमाणे मदेस्ती करन अपराध्यांक न्यायाधिशान दिल्लो निर्णय प्रामाणिक न्याय आसा.

५४२. समस्त संवसार वांचून उरपा खातीर मळबांत कूपांची वाट पळोवन आसता, त्या प्रमाणे संरक्षणा खातीर लोकांचे दोळे राजदंडाचे नीतीचेर आसता.

५४३. विद्येचो आनी धर्माचो मुखेल आधार राजदंड आसा.

५४४. राजदंड हातां घेवन जो राथ मोगान प्रजापालन करता, प्रजा त्या रायाचे चरणांक निंबून रावता.

५४५. जो राय न्यायान राज्य करता ताचे राज्यांत काळवेळार पावस पडता आनी पिकावळ खूब पिकता.

५४६. रायाक जैतवंत करता, भाली तलवार न्हय, परंतु ताचो निश्पक्षपाती राजदंड ताका विजय दिता.

५४७. राय कोणाव्या झगडया - झुजांत नाशिल्लो समस्त प्रजेचोय पालक आसा. निश्पक्षपाती राजदंड ताकाय संरक्षण करता.

५४८. जो राय योग्य वेळ दिवन प्रजेची फिरयाद ध्यानांत घेना, तो स्वयं नाश पावंता.

५४९. शत्रू पासून प्रजेची राखण करप आनी अपराधींक दंड दिवप, रायाचो दोष न्हय, ताचें तें कर्त०य आसा.

५५०. दुश्टांक मृत्युदंड दिवप, हें धान्याचे शेतां सावन निरुपेगी तण हुमटून काडून पयस घालपा प्रमाणे आसा.

## प्रकरण ५६ अन्यायी राजसत्ता

५५१. जो राय प्रजेचेर जुलूम करता, अन्यायान राज्य करता, तो खूनी मनीशा परस वायट आसा.

५५२. सत्तेचे बळार प्रजे लागी कर वसूल करप म्हणचें भालो हातां घेवन भय घालन लूट मारचे डाकू प्रमाणे आसा.

५५३. जो राय दिसानदीस राज्य कारभाराची खबर घेवन राज्याची दुरवर-था ना करपाक यत्न करना, ताचें राज्य ल्हवू ल्हवू सत्यानाश जाता.

५५४. जो राय अन्यायी आनी अविचारी आसा ताच्या राज्याचें धन आनी जनं ना जातलें.

५५५. रायाचे अन्यायी सत्ता कारण वेजार जनांचें दुकांचें थेंबे त्या रायाचें राज्य नाश करचें उपकरण आसतलें.

५५६. जो राय न्यायान राज्य करता, ताची कीर्ति पसरता अन्यायान राज्य करता तर ताचे यशाक कलंक लागता.

५५७. जशें पावस पडनाशिल्ले भूंयची दशा आसा, तशें दुश्ट रायाचे प्रजेची अवस्था आसा.

५५८. जुलूमी रायाले राज्यांत गरीबां परस धनवंतांची दशा सामकी वायट आसा.

५५९. एक राय सत्याचे आनी न्यायाचे वाटेर साकून विचल जाता तर ताचे राज्यांत पावस पडचो ना.

५६०. एक राय न्यायाची नीट वाट सोडून आड वाटेन वता तर गायच्या ०हंटीचें दूध आटतलें, वेदज्ञ आपणी विद्या विसरतले.

## प्रकरण ५७ क्रूर दंडा पासून दूर रावप

५६१. अपराधा पासून योग्य खबर घेवन तो अपराध परतून करू न्हयें म्हण लेखून जो राय योग्य दंड दिता तौ धर्मनिश्ट आसा.

५६२. जो राय आपली सित्ता साबार काळ आसुक जाय म्हण इत्सा करता तो कठीन दिसची हलकी सजा दिता.

५६३. जो राय भिरांकूळ क्रूर कर्म करन प्रजेक संकश्ट दिता ताचो सत्यानाश भो वेगीन जातलो.

५६४. जो राय भो हलकट म्हण दुश्कीर्त पावंता ताचें आयुश्य आनी आरोग्य दिसानदीस उणे जाता.

५६५. अनुदार, प्रजेक भेट दिनाशिल्लो - असले रायाची संपत्ती भूतानी राखची संपत्ती प्रमाणे आसा.

५६६. जो निश्ठूर उतरां उलयता त्या दुश्टांले धन कितलेंय जायत्या प्रमाणांत आसा तर, वेगीन संत्यानाश जातलें.

५६७. कठोर उतरां आनी क्रूर दंड - ही दोनीय रायाचे कीर्तीक कानशीन घासून ल्हवू ल्हवू ना करपी कानस आसात.

५६८. जो राय मंत्र्यांचो सल्लो घेना आनी रागान तांबडो जावन तांचे आंगार उडी मारता ताचें वैभव. उणे जाता.

५६९. जो राय संरक्षण सामग्री कडे ध्यान दिना, तो झुजाचे वेळार भयभीतीन थरथरता आनी हार घेता.

५७०. अक्कल नाशिल्ले सल्लागार आनी राय भो क्रूर ! धरणी हाचो भार सहन करपाक शक्त न्हय.

## प्रकरण ५८ अनुकंपा

५७१. हो संवसार अनुकंपा म्हणचे श्रेश्ठ रमणीय सद्‌गुणाचे वस्तुस्थितीक आधारून आसा.

५७२. लोक जीवनांत शान्ती आनी समाधान आनंद आनी सौन्दर्य अनूकंपाक आधारून आसा, हो गूण नाशिल्लो मनीश धर्तरीक भार आसा.

५७३. जो गींत सूराक अनुकूल जावन गावून आसना ताचो काय उपेग? जे दोळ्यांत प्रेमळपण ना ताचो काय उपेग?

५७४. जे दोळे अनुकंपा दाखोयनात ते दोळे तोण्डार आसून उपेग काय?

५७५. अनुकंपा दोळ्यांचो अलंकार आसा. जे दोळ्यांत मधूरसाण ना, ते दोळे एक उपकरण मात.

५७६. जांचे दोळे दुसर्यांचेर अनुकंपा दाखयनात ते मनीश धर्तरीर थीर जाल्या रूखा प्रमाणे आसा.

५७७. जे मनीशाचे कळीजींत अनुकंपा ना ते निपट कुरडे आसात. जे दुसर्यांक अनुकंपाचे दिश्टीन पळयतात तांकां खर्यानीच दोळे आसात.

५७८. जो आपल्या कर्तव्या पासून दुसर्याक सहानुभूती दाखयता, तो धर्तरीचो स्वामी आसता.

५७९. जे तुचो तिरस्कार करतात, तांकां प्रेम करप, ताका क्षमा करप, हें एक मनीशाचे श्रेश्ठ  सद्‌गूण आसात.

५८०. जे संस्कृताय आवडतात ते दोळे मुखार वीरव मेळोवन दिल्लें तर विश्वासान पीवून घेतात.

## प्रकरण ५९ गुप्तचर नियोजन

५८१. हेरगिरी आनी राजनीती - हे रायाचे दोन दोळे म्हण समजूंक जाय.

५८२. खयूंय कोणूकय केन्नाय कांथ जालें तर त्या वेळाच समजून धेवप रायाचें कर्त०य आसा.

५८३. गुप्तचरांचे मजतान राज्याचे समस्त घडामोडीं पासून समजून घेवन जो राय ते प्रमाणे राज्य चलोयना ताका विजयी जावपाक दुसरी वाट कांय ना.

५८४. वावरडी, नातेवर्गी, दुश्मन अशें राज्यांतले सर्वय तरांचे लोकां पासून रायाक जो गुपीत खबर दिता तो गुप्तचर आसा.

५८५. जाचे चालचलणूके पासून, वेशभेसा पासून कोणाकूय कांय संशय ना, जाक भयना, जो सदा - सर्वदा गोंदळ्ना, चुप रावता, तो मनीश गुप्तचर जावपाक योग्य आसा.

५८६. जो साधू संताचो भेस घेवन भोंवता आनी पुराय खबर समजूंक यत्न करता आनी त्यावेळार कांय जालें तर, कठोर दंड भोगपा पडले तर कडेक सरना, तो धाडशी गुप्तचर आसा.

५८७. जो गुपीत खबर स्पश्ट रूपान समजून घेता आनी ताका लागून संशय ना अशें धाडशील वागता तो योग्य गुप्तचर आसा.

५८८. एक गुप्तचरान दिल्ली म्हायती दुसरे एक गुप्तचरा भितल्यानूय परतून समजून घेवपाक जाय.

५८९. तेगां गुप्तचरानी तांचे मदों एक दुसर्याक जाण जाय नाशिल्लें सांगची खबर एकच जाली तर ती खबर सत्य म्हण लेखपाक जाय.

५९०. गुप्तचरांचे नियोजन गुपीत आसूंक जाय. तशेंच तांकां पुरस्कार दिवपूय, मानमर्यादा दिवपूय गुपीत आसूंक जाय.

## प्रकरण ६० मनोधैर्य

५९१. जे मनो धैर्यवंत आसात तेच खर्यान श्रीमंत आसतात. जे धैर्यवंत न्हय ते श्रीमंत जातले काय?

५९२. मनोबळ हेंच मनीशाचें खरें धन आसा. भौतीक संपत्तीचो महिमो खिणयाळो आसा.

५९३. जाचे लागी थीर मनोबळाचें प्रभावी साधन आसा ताची सर्वसंपत्ती नश्ट जाली तर ताका दुरव्ख जाबचेंना.

५९४. मनो धैर्यवंताकडे लक्ष्मी वाट सोदून येता.

५९५. जशें कमळा फुलाचो देंठ उदक चडता चडता चड दीग जावन कमळ केन्नाय उदका वयर आसता, तशें मनीशाक कितलें मनोधैर्य आसा ताचे प्रमाणे ताचे जीवन कीर्तिवंत जाता.

५९६. तुचो सर्व उद्देश उदात्त आसूंक जाय, कारण उद्देश फळादीक जालो ना तर उद्देश लक्षांत उरपाक जाय.

५९७. धैर्यशील मनीश हारिल्लो तर हताश जांवचो ना. हातीक बाण लागल्यार ती ताचे विरुद्ध चड जोरान रावता.

५९८. जे मनीशांक मनोधैर्य ना ते दान धर्माचो अभिमान दिसपाक शक्त न्हंय.

५९९. व्हड आकार आनी तीक्ष्ण सूळे आसूनूय वागा मुखार हतीचें काळीज चड भियेता.

६००. मनोधैर्य हेंच अक्कलाचें खरें बळ आसा. जांचे लागी तें ना ते मानव शरीरधारी रूख आसात, अंतर केवळ रूपाचें.

## प्रकरण ६१ आळसाय

६०१. परिवार म्हणचो विरंतन प्रकाशाचो दिवो आळसायेव्या काळखे धांपण्यान धांपलें तर मंद पडून वाडोवन वता.

६०२. जो आपले परिवाराचो प्रकाश उज्वल राखपाची इत्सा धरता ताणे आळसायेक अळसाय म्हण लेखून तिका पयस करपाक मुखार सरपाक जाय.

६०३. जे कूळांत आळसायेखडो मूर्ख जल्मला, ताचे कूळाचो ताचे फूडेच सत्यानाश जाता.

६०४. आळसाय चड जावन जे निकम्मे जातात, तांचे पासून अपराध वाडून त्या कूळाचो सत्यानाश जाता.

६०५. आळसाय, मंदतकाय, विसराय आनी न्हींद - हीं चारूय दुर्गुणी मनीशानी यात्रा करचीं तारूवां आसात.

६०६. राजघराचें वैभव स्वयं आळस्याक सोदून आयलें तर तें निशफल आसतलें.

६०७. जे आळसे आसात ते दुसर्याले फिर्यादे पासून लक्ष दिनात. जगाचो उपहास ते सहन करतले.

६०८. रायाक आळसाय लागली तर राज्य वेगीन दुश्मनाचे गुलाम जातलें.

६०९. जेन्ना मनीश आळसाय सोडून तावडतोड उत्साहान काम करूं लागता तेन्नाच तेन्ना ताचे कूळाचें वायट नांव पुसून वतलें.

६१०. जे रायाक आळसाय स्पर्श केली ना, तो तीन पावलानी मोवन त्रिभुवन घेतल्ले वामना सारके समस्त संसाराक स्वसत्ते खाल हाडूं शाकता.

## प्रकरण ६२ धीर पारिश्रम

६११. अशक्य म्हण समजून कोणूय एक काम सोडून वच नाकात. तुमचो धीर परिश्रम तुमका जैत प्राप्त करपाक समर्थ करतलो.

६१२. कोणूय काम अर्दकुटें सोडून वसपाक नज. काम अर्दकुटें सोडप्यांची चर्चा लोक करनात.

६१३. दुसर्यांची सेवा केल्लें म्हत्व केन्नाय परिश्रम करप्याक नंबून आसतलें.

६१४. आळसे मनीशांचे उपकार करपाचें उतर दिवप भिजूड मनीशाचे हातांतले तलवारा प्रमाणे निकामे आसा.

६१५. जो मनीश आपले सूखा पासून विचार करनाशिलें मित्रांचे सूखा खातीर धीर परिश्रम करता तो आपले मित्राचें दुरव्ख पयस करपी आधार स्तंभ आसा.

६१६. धीरपरिश्रम म्हणचे वैभवाची जननी, आळसाय म्हणचें अनंत गरीबीची जननी.

६१७. दुरव्ख देवता आळसायेन राज करता. परंतु जो धीर परिश्रमी आसा, ताचे परिश्रमांत लक्ष्मी आनंद घेता.

६१८. भाग्य अनुकूल न्हंय म्हण चिंता काडची ना. परंतु जाणून समजून परिश्रम केलो ना तर ती ०हड चूक आसतली.

६१९. देवान तुका जायतें कांय दिलेना तर कठीन परिश्रमाचे फळ तुका जरूर दितलो.

६२०. अदृश्ट प्रतिकूल आसा तर अखंड निशकपट धीर परिश्रम अदृश्टाक लेगीत अनुकूल करता.

## प्रकरण ६३ दुर्भाग्यांत धीरधरप

६२१. दुरव्ख आयलें तर प्रसन्न मुखान ताचें स्वागत करपाक जाय. दुरव्खाक तों दिवपाक दुसरो उपाय कांय ना.

६२२. हुंवार सारके दुरव्ख आयलें तर बुदवंतानी स्थिर वृत्तीन निर्णय घेतल्यार तें घड भितर दोळ्यां आड जातलें.

६२३. जे दुर०खांत दुर०खी जायनात ते दुर०खाक दुर०खी करतात.

६२४. जशो रेडो गाडीक प्रत्येक अडचणी साकून मुक्त करपाक चडांत चड प्रयत्न कर जिखता तशें जो मनीश कश्टांत कठीन प्रयत्न करता तो आपले कामांत सफ जाता.

६२५. जो अनंत अडचणीक धैर्यान तोंड दिता, ताचे पीडेकलागून जावपी दुर०ख घास पुसून वचून अदृश्य जाता.

६२६. जे संपत्तीचे वृद्धीर चड आनंद घेनात ते संपत्ती नश्ट जाली म्हण दुर०ख परगटायना

६२७. दुर०खाचो आधार शरीर आसा, अशें जाणून शाणे लोक संकश्ट आले तर दुर० करनात.

२८. जो मनीश सुखासक्त न्हय तो, दुर०ख मनीशजीवनाचो नियम म्हण समजून अडचणींत दुर०ख करना.

२९. वैभवाचे काळाक जो सुखांत पडना (रमना) तो दुर्दैवाचे काळांत दुरव्खान रडना.

३०. संकश्टाचे दुरव्खाक जो आनंदाचें रूप म्हण मानून घेता दुश्मन लेगीत ताचे म्हत्वाची. प्रशंसा करता.

## राज्यसंस्थेचें घटक

### करण ६४ मंत्री

३१. ०हड ०हड कामां सिद्ध करप कशें, तदर्थ साधनां कोण कोण, ताका अनुकूल वेळ, आरंभ केन्ना करपाक जाय - हें सर्वय जो जाणता तो योग्य मंत्री आसा.

३२. दृढ निर्णय, लोक - कल्याण, गिन्यान, अदम्य यत्न आनी श्रेश्ठ घराणेंत जलम - अशें पांच गुणधर्मांत मंत्री निपूण आसता.

३३. उपकार ना म्हण सोड्न घेवप, योग्य मनीशांक एकत्र हाडून तांकां मान भोवमान दिवप, विरोधी मनीशांक अनुकूल करप हांत मंत्री समर्थ आसा.

३४. जो कोण काम केन्ना करचें म्हण चिंतून निर्णय घेवन तें काम तेन्नाच करूं लागता आनी ताचे पासून सुदृढ सांगता  तो योग्य मंत्री आसा.

३५. जो विधीज्ञ आसा, धर्मज्ञ आसा, जो विचारपूर्वक उलयता, प्रसंग जाणता, तो कुशळ मंत्री आसा.

३६. जाणे बुद्दी वैभवान आनी अध्ययनान गिन्यान प्राप्त केलें ताका जगांत दुर्बाध आनी दुर्गम अशें काय आसा?

३७. तुका पुस्तकी गिन्यान आसा तर अणभवाचे आधारा लागून तदनुसार कार्य कर.

३८. राय मूर्ख आसा आनी बुदवंतालें मार्गदर्शन मानून घेना तर ताका योग्य सल्लो दिवन समजावप एक मंत्र्याचें कर्त०य आसा.

३९. जो मंत्री गुपीत कार्य करून रायाक घात मारन नाश करूं योग्य वेळ पळयता तो सात्तर कोटी शत्रू परस भयंकर आसा.

४०. जे कार्यकुशळ न्हय आसतात, ते ०हड ०हड योजना पासून नियाळ घेतात तर तो पुराय करनात.

### करण ६५ वाग्विलास

१. वाचा वैभव रवरोखर इतर वैभवा परस अपरूप सद्गुण आसा.

६४२. भाग्य आनी दुर्भाग्य जीबेक नंबून आसा. देखून उलोवपांत चूक येवूं न्हंयें म्हण जागरूक राव.

६४३. जीं उतरां आयकून मित्र चड लागी येतात आनी दुस्मानाक आकर्शीत करतात तेंच खरें वकतृत्व .

६४४. प्रत्येक प्रसंग समजून धडय आनी प्रसंगाक उचीत उलय. हाचे परस हितकर आनी पुण्यप्रद दुसरें कांय ना.

६४५. अशें उतरां उलयात कि दुसर्यांक ताचे आड उलोवपाक ना सारके तशें.

६४६. श्रोत्यांक पसंत पडचे सारके उलयात आनी दुसर्याचे भाशणांत सुचयल्लो अर्थ समजून आपले भाशणांत हाडप, हें एक श्रेश्ठ मंत्र्याचें कर्तव्य आसा.

६४७. जो वाक्पटू आसा, भीजूउ न्हय, परिश्रमी आसा ताका वादविवादांत पराजीत करपाक अशक्य आसा .

६४८. जाचे भाशण सुसंगत आनी ०यवस्थीत आसा ताका लोक सन्मानान स्वीकार करतले.

६४९. जांक उणे उतरानी आपले विचार परगट करून सवंय ना ते बडायो मारपाक उत्सूक जातात.

६५०. जे आपले गिन्यान दुसर्यांक सारकेच दिवूं शकनात तांकां घोसानी फुलून आशिल्ले परमळ नाशिल्ले फूला प्रमाणे लेखपाक जाय.

## प्रकरण ६६ कर्मशुध्दी

६५१. जांक बंधू मित्रांची मैत्री आसा तांकां धनवृध्दी जाता परंतु परिश्रम शुध्दीचे गुणपरिणाम लोकांत सर्व मनोरथूय पूर्ण करता.

६५२. जे कर्मा पासून सुख आनी कीर्त लाभना ताचे पासून फाटी सरपाक जाय.

६५३. जे ह्या जगांत कश्टानी परमोच्च पद पावपाक परिश्रम करतात ताणी कलंक लागचे सर्व कर्मां सावन पयस रावपाक जाय.

६५४. जे वस्तूचे यथार्थ स्वरूप जाणात ताणी प्रतिकूल परिस्थिती आयली तर हीन कर्म करचें नात.

६५५. 'अरे ! हांवें काय केलें?' अशें मागीर दुरव्ख दिसचें कांय कर्म करपाक नज. एकदा तसलें कर्म केलें तर दुसरें फावट करू न्हयें.

६५६. आवय भूकेन तळवळेवन प्राण वचपा सारके जाली तर शाणे लोक जे कर्म निंद्य आनी त्याज्य समजतात तें करू नज.

६५७. आडवाटेन मेळ्यल्ली संपती परस कठीन गरीबीच श्रेयस्कर म्हण गुणेस्त लोक लेखतात.

६५८. सज्जन आनी नीतिधर्म जें कर्म करू न्हयें म्हण सांगतात तें केल्लें तर तुमकां पच्छाताप दितलो.

६५९. दुसर्यांक दुरव्ख दिवन जी सेपत्ती मेळयली ती तुमकां ढळढळी रडोवन सोडून वतली. परंतु बरे वाटेन जोडिल्ली संपत्ती मदेंच गेली तर ताचें बरें फळ तुमचे कडे परतून येतलें.

६६०. फटवणेन मेळ्यल्ली संपत्ती म्हणचें कच्चे मडकेंत उदक भरचे प्रमाणे आसा.

## प्रकरण ६७ दृढनिश्र्वयी शक्ती

६६१. कर्तृत्वाची शक्ती, हीच मनीशाची वास्तवीक दृढनिश्र्वयाची शक्ती आसा. ताचे सारके दुसरें कांय ना.

६६२. जें कार्य उपेगाचे न्हय आसा, तें शाणे लोकानी आरंभ करचें ना आनी जें आरंभ केलां तें मदें कांय अडचणी आयली तर सोडचें ना. ही शाणे लोकांचीं कार्य करपाचीं दोन तत्वां आसात.

६६३. कार्य गुपीत करन सिद्धीचे नंतर कार्यकरपी तें परगटायतलो. आदींच तें जाहीर केलें तर अडचणी येवपाचो संभव आसा.

६६४. सांगणें सोंपें आसा. परंतु तदनुसार कार्य करप भो कठीन आसा.

६६५. पराक्रमी मनीशाची प्रसिद्धी आसा. असले मनीशाचेर रायाक भारी प्रीत आसा आनी संवसार तांची प्रशंसा करता.

६६६. संकल्प शक्ती अनुकूल आसून दृढनिश्र्वयान कार्य करप्याक, ताणे अदमास केल्लें समस्त कार्यूय साध्य जातलें.

६६७. मनीशाचो केवळ आकार पळोवन ताका तुच्छ मानू न्हयें. घउघड आवाजान चलचे प्रचंड रथ ल्हानशे आंसावेर नंबून आसा.

६६८. स्पश्ट दृढ निश्र्वय करन कार्य करपाक निर्णय घेवन आळसाय सोडून कार्य उत्साहपूर्वक तुरंत कर.

६६९. दुरव्ख सहन करपाचो संद आयलो तर मन कठोर आनी खंबीर करन सुखाचे वृद्धीचें कार्य कर, हट्टू नाका.

६७०. जांचो निश्र्वय दृढ न्हय, तो कितलोय कुशळ आसा तर जग ताका मोल दिना.

## प्रकरण ६८ कार्य सिद्धीचें सामर्थ्य

६७१. आंखून आनी निरंतर चिंतन करन घेतल्लो निर्णय आळसाय कारण तांत सावन फाटी सरप ०हड चूक आसा.

६७२. जें कार्य हळू हळू केलें तर बरें आसा, ते सावका-सायेन कर. परंतु जें कार्य झट पट करूंक जाय ते लागू करपाक क्षणभर विलंब कर नाकात.

६७३. जें कार्य करूं शकता तें वराबर कर. परिस्थिती प्रतिकूल आसा तर संद पळोवन जे मार्गांत भारी विरोध ना ताचें अनुसरण कर.

६७४. कार्य आनी प्रतिघात हांचो उरिल्लो बांटो उज्या कीट सारके, वेळ येता येता वाडून मनीशाक विध्वंस करतलो.

६७५. कसलेंय कार्य कर्तना पांच घटकां लक्षांत धेवपाक जाय. कार्याचें स्वरूप, योग्य वेळ, योग्य थळ, कशें करप आनी साधनां - हीं सर्वय अनुकूल आसात तर कार्य कर.

६७६. एक कार्य आरंभ करचे फूडे ताका यत्न कितलो पडतलो, परिणाम कितें आसतलो, ताचे मार्गार अडचण्यो कांय आसतल्यो - हें सर्वय लक्षांत घेवपाक जाय.

६७७. आपण जें कार्य साध्य करपाक भायर सरला तांत जो दक्ष आसा ताचे लागी वचून कार्याचें मर्म समजून घे.

६७८. जशें एक पोशिल्लो हती रानांतले हतीक ताब्यांत घेता, त्या प्रमाणे एक कार्य दुसरे कार्याचें साधन जाता.

६७९. मित्रांक उपकार करन तांचो आदर प्राप्त करचे परस शत्रूंक शांत करन तांकां अकसमात मित्र करप चड बुदवंत काम आसा.

६८०. ल्हान राज्याचे राय हार भियेवन प्रबळांकडे संधी केली तर सज्जन तें मानतलें.

## प्रकरण ६९ राजदूत

६८१. मोगाळ सभाव, श्रेश्ठ कुलांत जल्म, रायाचें मन भुलयणी अशी चालचलणूक - हें दूतांचे गूण आसात.

६८२. स्वामी निश्ठा, तीक्ष्ण बुद्धी, वाग्विलास - हे गूण एक दूताक नितांत गरजेचे आसात.

६८३. आपले रायाक फायदो करचे रीतीन जो दुसरे राया लागी संवाद करूं शकता आनी नीतीशास्त्रांत हुशार तो वुदवंतांत वरिष्ट आसूंक जाय.

६८४. वे०हार कुशळ, सुंदर शोबीत आकाराचो विद्यावंत मनीश दूत आसुंक जाय.

६८५. अप्रिय उलोवणी पयस करन गोड उतरानी आपले स्वामाचो हित करपी कुशळ दूत आसा.

६८६. विद्यावंत, हुशार, प्रसंग जाणपी, दुसर्याचें मन जिकपा सारके सुदंर उतरां उलोवपी मनीश दूत म्हण धाडूक योग्य आसा.

६८७. जो काळ, वेळ, थळ वळरवता, जो आपलें कर्त०य जाणता, जो मनांतलें स्पश्ट उलोवन समजावूं शकता तो श्रेश्ठ दूत आसा.

६८८. संदेश वाहक दूत शुध्दवृत्तीचो, शुध्दहृदयाचो आनी श्रेश्ठ सुभावाचो आसूंक जाय.

६८९. जाचे उतरांत दुर्बळ्काय ना, अहीत कांय ना, जो दृढ विश्वासी आसा तो मनीश दुसेर रायाचे दरवारांत आपले रायाचो संदेश घेवन वचपाक योग्य आसा.

६९०. मृत्यूचें भय मुखार आसा तर एक रवरो राजदूत धाडस बांदून अपले कर्तव्य करता, आपले स्वाम्यालें हीत पुराय करता, तोच श्रेश्ठ राजदूत आसा.

## प्रकरण ७० राजसेवा

६९१. राया कडे जियेतना हुनसाण घेवपा खातीर उज्या लागी भो पयस न्हय परंतू भो लागीय न्हंय वसता, तशें आसचें.

६९२. जी वस्तूची इत्सा रायाक आसा तिचे विशीं आपण इत्सा करना - हो रायाचो सदभाव जोडपाचो उपाय आसा. ह्या कारणा लागून फायदो जोडपाक शक्य जातलें.

६९३. चूक करनाशिल्लें कार्य जोखून करपाक जाय. चूक आयली तर, रायाक दुवाव आयलो तर उपरांत तो ना करपाक सोंपें न्हंय.

६९४. रायाचे उपस्थितींत दुसर्याचे कानांत फुतफुत न्हंयें. तशेंच ताचे बराबर दुसर्यांक पळेवन गुपीत हासपाकय नज.

६९५. राय कोणाचेय लागी गुपीत उलयता जाल्यार तें आयकून घेवपाक यत्न करचें न्हंय. एक वेळ राय स्वयं सांगता तर तूं आयक.

६९६. रायाचें मन लक्षांत घेवन काळ वेळ ओळखून रायाक खोस दिसपा सारके सोबीत उतरानी सागंपाक जाय.

६९७. केन्नाय रायाक प्रिय खबर दिवपाक जाय. रायान निमगलें तर अप्रिय आनी अहित कार्य ताकाय सांगू न्हंयें.

६९८. राय म्हजा परस तरणो आसा, आत्मसंबंदी आसा स्वजातीचो आसा म्हण ताका हिणोवपा नज. ताचे प्रतिश्ठेक सारके वे०हार करपाक जाय.

६९९. जांची दिश्टी निर्मळ आनी स्वच्छ आसा त्या रायाचे भोवमानेस्त म्हण लेखून अनुचीत करचें न्हंय.

७००. आपण रायाचो भारी विश्वासी आसा म्हण समजून जे अयोग्य काम करतात तांचो नाश जातलो.

## प्रकरण ७१ इंगीत गिन्यान

७०१. रायान उच्चारपा फुडेच ताचे मनांतलें जो जाणता तो ह्या समुद्रवेश्टीत पृथ्वीचो भुशण आसा.

७०२. दुसर्यांचे मनांतले जो खरेंच वळरवता तो देवूच म्हण समजून घे.

७०३. दुसर्यांचें तोण्ड पळोवन तांचे मनांतलें जे वळखून घेतात तांकां कितेंय करन तूं आपले सल्लागार मंउळांत घे.

७०४. जांक इंगीत गिन्यान आसा तांकां आनी दुसर्यांक अवयवांत मात समानताय आसा.

७०५. एक मनीशालो मनोभाव ताचे तोण्डाक पंळोवन समजून घेतलें ना जालयार गिन्यानेंद्रियातलें श्रेश्ठ आंग दोळ्यानी काय फळ?

७०६. लागीची वस्तू फटीक समान स्पश्ट दिसता तेच प्रमाणे मनांचो रंग तोंडार झळकता.

७०७. हृदयांतलें सूख दुरव्ख प्रथमदिश्टींत प्रत्यक्ष दाखोवर्चे तोण्डा समान जगांत दुसरे काय आसा?

७०८. सांगणे शिवाय तुचे मनांतले विचार जो समजू शकता तो तुचे लागी आसा तर ताचे तोण्उ पळोवन रावले तर तुमचें कार्य सफळ जातलें.

७०९. दोळ्यांचें इंगीत जो जाणता तो मंत्री राया लागी आसा तर शत्रू कोण मित्र कोण हांची वळरव करून दितलो.

७१०. जांक तीक्ष्ण दिश्टी आसा तांचे कडे तुमचे इंगीत गिन्याना मापंदड कितें म्हण प्रश्न केलें तर 'दोळे' शिवाय दुसरे काय न्हंय म्हण ते सांगतले.

## प्रकरण ७२ सभा गिन्यान

७११. जे उतरांचे मोल जाणात ते श्रोतांचे अभिरुची प्रमाणे तांकां वळखून भाशण करात.

७१२. वक्तृत्वकलेचे जाणकार श्रोतांची मनोवृत्ती वळखून फावोसो विचार करन उतरांचो अर्थ समजून भाशण दिवपाक जाय.

७१३. जे सभेचे मनांची अवस्था समजून घेनात आनी एकदम उलोवपाक लागतात तांकां वक्तृत्वकला कळ्ना आनी पुराय अजाण आसतात.

७१४. बुदवंतांचे आनी पंडितांचे सभेंत बुदवंतकायेची आनी विद्वत्ताची लक्षणां उज्वल करात, परंतु मूर्खांचे सभेंत सादेपणाचे चुन्याचो शुभ्रवेश धारण करन वेगळो मेकळो बसपाक जाय.

७१५. पंडितांचे परिशदेंत मुखार सरन उलोवप योग्य न्हंय. हो गूण दुसरे सदगुणा परस चड सोबतलो.

७१६. सुपंडितांचे सभेंत जो वायट तरेन उलयता तो स्वताचो नुकसान करता. आपण धर्म मार्गा सावन चुकला, धर्म भ्रश्ट जाला, अशें मनांत घेवन नंतर तो मनस्ताप करता.

७१७. कुशळ विचक्षणांचे सभेंत पंडितांची विद्या चड सोवीत जातली.

७१८. विचक्षण मनीशांक सल्लो दिवप म्हणचें वाडचे झाडाचे मूळांत उदक धलचे प्रमाणे आसा.

७१९. विचक्षण प्रतिशिठ्त मनीशानी मूर्खाचे सभोंत चुकून लेगीत भाशण करू नज.

७२०. मूर्ख आनी अग्यानी लोकांचे सभेंत भाशण दिवप म्हणचें आंगणातले खळीयांत अमृत ओतपा प्रमाणे आसा.

## प्रकरण ७३ सभेंत निर्भयपण

७२१. जे वक्तृत्वकलेंत विशारद आसात तांचे सभेंत ते ०यवस्थित रीतीन उलयतले, चुकून कांय उलोवंचेंना.

७२२. प्रतिशठीत आनी प्रवीण विद्वानांचे सभेंत आपले निश्चीत मत जो मांडता तो विद्वानांत श्रेश्ठ म्हण लोक मानतात.

७२३. समरांगणांत दुस्माना आड झूज करन मृत्यूक आवाहन करपी अनेक आसतले. परंतु विद्वान पंडितांचे सभेंत तोण्ड दिवन जैतवंत जावपी दुर्लभ आसात.

७२४. जे विशयांत तूं पंडित आसा ताचें गिन्यान विद्वान मनीशां मुखार मांडून जे विशयांत तूं पण्डित न्हंय तें सर्वय तूं तांचे पासून शीक.

७२५. सभेंत निर्भयपणान चर्चा करपा खातीर विविध शास्त्रांचो अभ्यास कर.

७२६. भिजूउ मनीशांक तरवाराकडे क़ाय संबंद आसा? तशेंच पडितांचे सभेंत जे भियेतात तांकां ग्रंथाचो काय फायदो आसा?

७२७. षंढांचे हातांतले तरवारा प्रमाणे पंडितांचे सभेंत घाबरप्याचें गिन्यान आसा.

७२८. विवीध ग्रंथ वाचून शिकले तर विद्वानांचे सभेंत तें गिन्यान तांचें कंठी उतरना जाल्यार तें निश्फळ जाता.

७२९. शिकून वाचून योग्य जाले तर जे विद्वानांचे सभेंत भिजूडपणा पासून उतरांनी सांगनात ते नेणारां परस हीन आसात.

७३०. जांक आपले गिन्यान सभेंत विवरून सांगू येना ते जिवंत आसात तर मृतवत आसात.

## प्रकरण ७४ देश

७३१. जंय भरपूर समृध्दी आसा, जंय दानशूर आनी संपन्न लोक रावतात तो नामनेचो देश आसता.

७३२. जंय सकल वैभव आसा, जो देश दुसरे देशाचो प्रेम ओडून घेता, जंय समृध्दी भरपूर आसा, जंय लागून भरपूर पीक येता, दुश्काळ आनी दुर्भिक्ष हांचे पासून जो देश मुक्त आसता, तो, खर्यानीच म्हान देश आसा.

७३३. जो दुसरे देशाचो भार पुराय घेवन ताका रक्षण करन आपले देशाचे रायाक कर वगैरे ०यवस्थित दिता तो देश म्हान आसा.

७३४. जंय दुश्काळ ना, पीडा - रोग ना, जंय दुस्मनाचें आक्रमण ना, तो देश सूख समाधानाचो देश आसा.

७३५. जे देशांत परस्परीक झगडें आनी प्रतिघात ना, जंय खूनी आनी अराजक नात, जंय देशाचो नाश करपी देशद्रोही नात, तो देश म्हान आसा.

७३६. जंय शत्रू पासून देशाक काय वायट जायना, हो - हल्लो जालो तर ताचे पासून काय नुकसान जालो तर ऐश्वर्याक काय हानी येना, तें राज्य सर्व श्रेश्ठ आसा.

७३७. वेळार काळार पावस, झरीयो, डोंगर - पर्वत आनी न्हयों प्रत्येक देशाक अत्यन्त गरजेचीं आसात.

७३८. रोगमुक्ती, यश, पीक, सुखी प्रजा, सुरक्षा - हीं देशाचीं पांच भूशणां आसात.

७३९. लोकांचे यत्ना शिवाय जो देश स्वयं वरकतीक पावंता, तोच यथार्थ देश आसा. त्रास भोगून जो प्राप्त करता, ताका देश म्हणप योग्य न्हंय.

७४०. देशांत सर्वय गूण पूर्ण अनुकूल आसात तर प्रजा रायाक सहकार दिवपी न्हय जाल्यार पुराय ०यर्थ.

## प्रकरण ७५ किल्लो

७४१. भियेनाशिल्लें थीर रावून झूज करपी प्रबळांक आनी संरक्षणेचे चिंतेंत आशिल्ले दुर्बळ रायाकूय दुर्ग मजत करता.

७४२. ०हावंती न्हयचें निवळ जल, सरळ पठार, पर्वत, थंड शीतळ गच्च रुरवावळीचे जंगल हीं साधनां किल्ल्यांत आसूंक जाया, अशें शास्त्र सांगता.

७४३. ऊंचाय, अपार रुंदाय, थिराय आनी शत्रूक येवन पावपाक कठिणाय - हे चार गूण किल्ले विशीं लक्षांत घेवूंक जाय म्हण शास्त्र सांगता.

७४४. दुर्ग ल्हान, गुपीत राखण घर, विशाळ दिगाय रुंदाय आसून दुस्मनाचें मनोबळ ना करपी आसूंक जाय.

७४५. अभद्यताय, सैन्याक स्व - संरक्षणाची शक्यताय, किल्ल्या भितर भरपूर धान्य सामग्री आनी दुसरे सामान किल्ल्यांत उपल०ध करूंक जाय. दुर्गांतले लोकाक झूज सोंपें करपाक जाय.

७४६. जांत सर्वतराचीय संपत्ती आसा, जाच्या संरक्षणा खातीर राजप्रेमी लोक आसात तोच खरो किलो आसा.

७४७. वेश्ट घालन, हल्लो करन अथवा दगलबाजी दिवन हारवोवूंक शक्य न्हंय, तोच खरोखर दुर्ग आसा.

७४८. दुस्मनाचें बळिश्ट सैन्य आक्रमण करता तर शश्रूक पराभूत करपी योग्य किल्लो आसा.

७४९. झूज आरंभचे फूडेच शत्रू हारवूं सारके किल्लेचे भीतरचे शूर वीरांक झूज करपाक जें समर्थ करता ताकाच किल्लो म्हणतात.

७५०. किल्लो कितलोय अभेद्य आसा तर तांतलें सैन्य भियेनाशिल्लें धाडसीन झूज करनात जाल्यार त्या किल्लो खातीर उपेग ना.

## प्रकरण ७६ धन संपादन

७५१. म्हत्व नाशिल्याक म्हत्व प्राप्त करून दिवपी द्र०या सारके दुसरे साधन कांय ना.

७५२. दळिद्री मनीशाचो सगळे कडेन अपमान जाता. धनवंताची स्तुती केन्नाय गायतात.

७५३. द्र०य म्हणची अचंचल दीपज्योती जंय खंय पसरता थंय खंय अंधकार ना जाता.

७५४. श्रेश्ठ वेव्हारान जोडल्ले धनान पुण्य आनी सूख दोनीय प्राप्त जाता.

७५५. जे धन जोडपांत दया आनी उपकार मेळून नात तें संपादन नाका.

७५६. हक नाशिल्लो आनी जप्त केल्लो मालमत्तो, जकातकर, झूजांत लुटल्लो माल - हो सर्वय रायाची तिजोरी संपन्न करता.

७५७. प्रेमा साकून दया आनी सहानुभूती जल्म घेता. धन प्रेमाक सफळ करता.

७५८. धनवंतानी सर्वय काम आंगार घेवचें म्हणप दोंगर्यार बसून हतीचे झूज पळोवपा सारके आसा. त्या मनीशाक कांय भय आनी चिंता नात)

७५९. धन भरपूर जोडात दुस्मनाचो अभिमान धुळधाण करपाक हाचे सारके तीक्ष्ण आयूध दुसरें कांय ना.

७६०. जाणे न्याय रीतीन धन कमायलां ताका धर्म आनी काम - हीं पुरुषार्थां सहज प्राप्त जातात.

## प्रकरण ७७ सैन्य प्रशस्ती

७६१. रायाचे संपत्तींत मुख्य मोलादीक वस्तू म्हणचें शिक्षणांत वाडल्लें सुसज्ज सैन्य आसा.

७६२. रणांगणांत भयंकर यातना भोगची पडली तर जे खरे वीर आसात ते दृढ निश्र्वयान उबे रावतात हो झूजा मळवयलो पराक्रम सैनिकांक परंपरीक प्राप्त जाता.

७६३. हुंदीरांची विराट सेना सागरा प्रमाणे गरजन करीत येता तर सोरोपाचो एक फुत्कार ऐकताच गरजना बंद पडता.

७६४. जीक पराजयाची वळरव ना, जो सत्ता आड बंड करना आनी पराक्रम जीची परंपरा आसा तीच खरी सेना आसा.

७६५. यमकाळूच कोपान सामके झूज करपाक आयला तर जें सैन्य शौर्यान तोंड दिता तेंच समर्थ सैन्य आसा.

७६६. पराक्रम, स्वाभिमान, परंपरागत शौर्य वीर्याची कीर्त आनी उत्तम विश्वास - हे चार गूण म्हणचे सैन्याचीं चार कवचां आसात.

७६७. शत्रू सैन्याचे आक्रमण गुपीत जाणून तें विस्कटावन उडोवन स्वयं कांय हानी येनाशिल्लें खबरदार रावचें सैन्य खरें आसा.

७६८. सैन्य दमदार, शूर आनी कार्यक्षम न्हय जाल्यारीय ताची प्रौढी पळयतर शत्रूचें मनोबळ अदृश्य जातलें.

७६९. जें संख्येन उणे न्हंय, दळिद्री न्हंय, द्वेषमत्सरान त्रस्त न्हंय तें सैन्य विजय प्राप्त करतलें.

७७०. धीर वीर सैनीक भरपूर आसात तर सेनापती ना जालयार सैन्य प्रत्यक्षांत ना.

## प्रकरण ७८ युद्ध वीर्य

७७१. हे शत्रूजनों, रणांगणांत म्हजे स्वाम्या मुखार उबे रावनाकात. आयज पर्यंत जे रावले ते चडानचड यमपुरीक पावले, फातर जाले.

७७२. रानांतले सोस्याक चूक नाशिल्लें बाण सोडचे परस श्रेश्ठ हतीक भालो सोडून तो ताका लागलो ना तर तांत चड वीर्य आसा.

७७३. म्हत्व ध्यानांत घेनाशिल्लें शत्रूचरे तुटून पडपाक श्रेश्ठ पराक्रम म्हणतात. परंतु पराभूत व्यक्तीचेर चड उदार आनी क्षमावंत जाले तर लोक तांकां चड गुणेस्त म्हण समजून घेतले.

७७४. वीर सैनिकान आपलो भालो शत्रूचे हतीचेर सोडलै उपरांत ताका दुसरे भाल्याची गरज आयली तर स्वत शरीरांत लागल्लो भालो आनंदान हुमटून हांतां घेता, तेन्नाय तो हांसता आसतलो, तोच मनीश यथार्थ पराक्रमी आसा.

७७५. आपल्या आड शत्रून भालो सोडलो तर तीरव नदरेन पळेवपी दोळ्याची पाती सपूर करन धांपली जाल्यार वीराक तें हार मानपा बराबर आसता.

७७६. जे दिसांक वीराक स्वताचे शरीराचेर जखम दिसना ते दीस ०यर्थ गेले म्हण तो लेखता.

७७७. वीर मृत्यूची कीर्त पावपाक जे उत्सूक आसतात तांकां जीवाचो हुसको नासता. ह्या वर्गाचे वीरांकूच वीर श्रृंखला साजोता.

७७८. युद्ध वीरांक झूजांत प्राणाचें भय नासता. प्राण जोखीमांत घालू नाका म्हण राय सांगता तर ते सैनीक धैर्यान वागतले.

७७९. जे प्रतिज्ञा पालन करतात आनी आनंदान मृत्यूक वरण करतात ते चुकले तर, नामंजूर करता कोण?

७८०. जे मरणा विशीं रायाचे दोळ्यांत दूकां भरतात ते तरेचे मरण मागून घेतले तर तें श्रेश्ठ आसा.

## प्रकरण ७९ मैत्री

७८१. सत्संगती बराबर प्राप्त करपाक दुर्लभ जगांत कांय आसा ? दुस्मनाचे दुशकर्मा पासून संरक्षण मेळोवपाक ताचे बराबर दुसरे काय आसा?

७८२. शाण मनीशांची मैत्री शुक्लपक्षांतले चन्द्रा सारके वाडोवपी आसा. मूर्खांची मैत्री कृष्णपक्षांतले चन्द्रा प्रमाणे उणे जायत आसा.

७८३. वुदवंताची मैत्री मोलादीक ग्रंथाचे अध्ययना प्रमाणे आसा. जितलें चड आमी परतून परतून समजतात तितलें चड मनांक सूख समाधान दिता.

७८४. मैत्री म्हणचें हास खेळ तमासो न्हय. एकलो चूकीचे मार्गार नता तर चत्रायेन टिका करन ताका सही करता आनी सुधारता. हें उत्तम मैत्रीचो गुणधर्म आसा.

७८५. मैत्रीचे बंधन काळजाचे एकवटाक निंवून आसा. संगातांत जियेवपाची गरज ना.

७८६. मैत्रीचें सूचक तोण्ड भरन दिसचें हास्य न्हंय मुरव्य. हृदयाची निश्कपट प्रीतीच खरी मैत्री आसा.

७८७. सुसकान करपी विघ्न पयस करन सन्मार्गा कडेन व्हरन दुरव्खांत जै समभागी जाता तो खरो मित्र आसा.

७८८. न्हेसल्लें वस्त्र निसरलें तर हातान तें न्हेसोवपाक हात मुखार सरचे प्रमाणे जो निपट दुरव्ख भोगचे मित्राचे सहाथ्याक धावन पावंता तोच खरो मित्र आसा.

७८९. स्नेह बंदन वेगळें कर नाशिल्लें कश्टांत परस्पर उन्नती खातीर सहकार्य करप रवरे मित्राचें लक्षण आसा.

७९०. तो म्हजेर इतलो प्रेम करता, हांव ताचेर इतलो प्रेम करना अशें कोणेय म्हणता तर तीी मैत्री निरर्थक आसा.

## प्रकरण ८० मैत्रीची योग्यायोग्य परीक्षा

७९१. पयलेच पारखल्ले शिवाय मैत्री करप जोखमीचो आसा. कारण एक फावट मैत्री जोडली तर सुजन ती उपरांत तोडनात. (बरे भाशेन जोखून पारखून इश्टागत करपाक जाय).

७९२. बरे भाशेन परिक्षा घेतल्ले शिवाय जो मैत्री जोडता तो स्वत संकश्ट ओडून घेता आनी अखेर प्राणनाशाक कारण जाता.

७९३. ज्याचे कडे मैत्री करपाची आसा ताचें कुटुंब, गूण अवगूण, ताचे नाते संबंदी हांची चवकशी करन उपरांत मैत्री जोडपाक जाय.

७९४. जो सत्कुळ जल्मलो आसा, जो निंदा आनी अपकीर्त - हांकां भियेता ताची मैत्री कितलोय ०हड त्याग करनूय जोडपाक जाय.

७९५. तूं वायट मार्गार वता पळोवन दुरव्ख उकतावन जो तुका सामके मार्गार हाडूं शाकता ताचे कडे मैत्री कर.

७९६. दुरव्खांत एक तत्व आसा. तें दोस्तांची प्रीत आंखपाचो दांडो आसा.

७९७. मूर्खां पासून मुक्ती प्राप्त जाली तर तेंच एक टिकाकाराक ०हड फायदो म्हण लेखपाक जाय.

७९८. मनांक उदास करपी कांय करूं न्हंयें. आपत्तींत जे टाळतात तांची मैत्री मानून घेवू न्हंयें.

७९९. आपत्काळांत धात मारचे मैत्रीचो विचार मृत्यू वेळार लेगीत मनाक दिसचें हृदयाक लासतलें.

८००. योग्य व्यक्तींची मैत्री जोड्डून घे. कशेय भाशेन अयोग्य व्यक्तीची मैत्री सोड्डून दी.

## प्रकरण ८१ पूर्विल्ली मैत्री

८०१. आपले जिवाभावाचे मित्रान अधिकारी भावान आपले खातीर वागतना कांय दुबाव नाशिल्लें तें स्नेहान मानून घेवप चिरकाळ चलपी "मैत्री" "खरी मैत्री" म्हणतात.

८०२. ह्या मित्रांनी मोगान आनी प्रेमान आचरण करचें सर्व कार्यूय प्रीतीन मानून घेवप वुदवंतालें कर्तव्य आसा.

८०३. जें काम मित्र करता तें स्वतः केल्ले प्रमाणे मानून घेना तर चिरकाळ मैत्री काय कामाची?

८०४. एकमेकाक निमगनाशिल्लें परस्पर विश्वासान निंबून मित्र जें कार्य करता, तें आपले भलायकी खातीर केलां म्हण लेखून मित्र तें मानून घेता.

८०५. मित्रान अविवेकान एक अहीत कार्य केलें तर तें ताणे अग्यानान अथवा प्रीतीन केलें म्हण लेखून मानून घेवपाक जाय.

८०६. प्रीतीचे शीमेचे भितर वागचे मित्र, अपले फूडेचे मैत्रीचो संबद मागीर चड उणे जालो तर, चिर मैत्री सोडनात.

८०७. फूडे साकून मना पासून प्रीतीक निंबून मैत्री जाली तर एकल्यान द्रोह दिलो तर दुसर्याचे प्रीतीक कांय कमीपण येना.

८०८. आपले आत्ममित्रा खातीर कोणूय कितलीय म्हत्वाची फिर्याद केली तर जो ऐकून घेना तोच खरो मित्र आसा. (कारण मित्राक क्षमा करन आपली मैत्री दाखोवपाक संद मेळ्ता.)

८०९. जो परस्परीक मैत्री राखून घेता ताका समस्त जग प्रेम करता.

८१०. जे चिरंतन मैत्रीक सांबाळून दवरतात दुस्मान लेगीत तांची प्रशंसा करतात.

## प्रकरण ८२ दुश्ट संसर्ग

८११. तुमकां सगळे मेळ्न पोटांत घालतले म्हण दिसचे भाशेन जे तुमचेर प्रेम करतात, ते दुश्ट जन आसतात. तांचे कडे प्रेम उणे करप अदीक बरें आसतलें.

८१२. फायदे खातीर जे आपले प्रेम परगटायतात आनी फायदो ना अशे दिसताच जे तुमकां सोडून वतात तसले मनीशांची मैत्री लाभली काय, ना लाभली काय सारकीच.

८१३. जे मैत्री पासून फायदो मात लेखून वसतात ते धन लाभची वेश्या आनी चोरवर्गांतले अशें समजूंक जाय.

८१४. फाटीर बसल्याक पयस फेंकून रणांगणां साकून धावन वचे घोड्या प्रमाणे कांय लोक आसात. असले मित्रांक प्राप्त करचे परस मित्र ना म्हणचें चड बरें आसा.

८१५. समस्त हीतांची वेवस्था करन दिल्ली तर जे तें सोडून वतात मित्रांची मैत्री वर्तना तर तेंच बरें.

८१६. मूर्खांची दृढ मैत्री अपेक्षा शाण्यांचे शत्रुत्वूच शंबर लाख वरें.

८१७. जांचेर परिहास दवरूयेत तसले मित्रां परस गुणवंत दुस्मानांची मैत्री दश शंबर लाख अदिक बरी आसा.

८१८. एक व्यक्तीन जांवचे कार्य करपाक आरंभ केलें तर तांत विघ्न हाडपी वायट मित्रांचे मैत्रीं साकून ताणे नेणतांत पयस रावप शाणेपण आसा.

८१९. जांचे उतरांत आनी करणींत मेळ ना तांचे लागी मैत्री सपनांत लेगीत मनांत हाडली तर नुकसान आसा.

८२०. जे तुमी एकलेच आसतना तुमची तोरवणाय करतात आनी सभेर चार चौगां मुखार उपहास करतात तांची मैत्री शक्य जायत बेगीन नां मंजूर करपाक जाय.

## प्रकरण ८३ खोटी मैत्री

८२१. शत्रूची ढोंगी मैत्री म्हणचीं कामाराली धपटपट्टी आसा. जशें कामार अनुकूल वेळ पळोवन हून लोखणाक धपटपट्टीर आकार दिता तशें फटकीरो मित्र संद पळोवन द्रोह दिता.

८२२. जे उथळ मित्र दिसतात ते भितर शत्रू आसतात. हे तरेची मैत्री अस्तुरी हृदय सारेक चंचल आसून बदलता.

८२३. दुश्ट लोक कितलेय सद्ग्रंथ वाचले शिकले आसात तर तांचे हृदयांत सदगूण उपजप अशक्य आसा.

८२४. तोडांर मुमरखो हास, परंतु मनांत कठोर घात बाळगुपी दांभीक दुश्टांक भियेवन वेव्हार कर.

८२५. जाचें मन तुमचे मनाक अनुरूप न्हय, तांची वाणी कितलीय मोलादीक आसा तर ताचेर विस्वास दवरू नाकात.

८२६. शत्रू मित्रा भाशेन प्रेमाची भास उलयता तर तांचें दुशट रूप एक रवीण भितर प्रकट जातलें.

८२७. धनुष्य जितले बावगून घेवन वाण सोडता तितलेच बळान बाण आमचे हृदयाक लागता तशें शत्रूचे वाणींत कितलीय नम्रताय दाखयली तर निंबू नाकात.

८२८. हस्तांजलींतूय शत्रून आयूद लिपोवन दवरलें आसुये. तांचे दुकांचे थंब्यांतच विस्वास दवरू न्हंयें.

८२९. भायर चार चौगां मुखार प्रशंसा करपी परंतु गुपचूप घात करपी - हांचे कडेन तशेंच भायल्यान हासून खेळ्न वेव्हार कर.

८३०. आमचे कठोर शत्रू एक वेळा मैत्रीचो देखावो करन लागी येतात जाल्यार तेन्ना तूंवय तांचे कडे, तोंडा पुरतो मैत्री दाखय परंतू हृदयांत जागो दिवूं नाका.

## प्रकरण ८४ मूर्खपण

८३१. हितकर कार्य नामंजूर करप आनी अहित कार्य मंजूर करप - ह्या सभाव गूणाक मूर्खपण म्हणतात.

८३२. अहित कार्यांत मन लायल्यार - संवसार अयोग्य म्हणचे कार्यांत इत्सा वाळगली तर ताका मूर्खपण म्हणतात.

८३३. अविवेकी मनीश बेजवाबदारी, घमंडी निर्लज आनी कर्तय पराङ्मूख आसा, तो मूर्ख आसा.

८३४. स्वयं पंडीत आसा, दुसर्यांक शिकयता, परंतु त्या प्रमाणे अनुसरण करना, तो परम मूर्ख आसा.

८३५. जो मूर्ख आसा तो सात जल्मांतय भोगची यातना हेच एक जल्मांत भोगून सारता.

८३६. अशिक्षीत मूर्ख जें कार्य स्पर्श करता तें सर्वय माती जाता आनी तोच स्वयं बंधनांत पडता.

८३७. मूर्ख कुबेर जालो तर घरकारी उपाशी मरतले. पर दुसेर जनांक फायदो जातलो.

८३८. मूर्खाचे हातांत मोलाची वस्तू पडली तर पिशाचो सूर पिवन लकता सारको वागतलो.

८३९. मूर्खाची मैत्री अदीक सुखदिणे आसा. कारण ही तुटली तर कांय वायट दिसना. (तेंवूय ताका सूख दिता.)

८४०. जशें धुवनाशिल्लो पाय हांतरूणार दवरलो तशें मानादीक सभेंत मूर्खालें पावल दवरप आसतलें.

## प्रकरण ८५ अज्ञान

८४१. वेव्हारीक गिन्यानाचो आभाव - हेंच खरे अज्ञान आसा. दुसरे प्रकाराचे अज्ञानाक जग अज्ञान समजून घेना.

८४२. अज्ञानीन एक वेळा दान दिलें तर तें घेवप्याचें पुण्य म्हणचें, दुसरें कांय ना.

८४३. मूर्ख आपले हातानी जें संकश्ट दिता तें शत्रूक लेगीत करूं शक्य न्हंय.

८४४. 'म्हाका सर्वय कळ्ता आनी जाणूक कांय ना' अशें दिसचो 'अहंकार', 'अज्ञान' आसा.

८४५. अज्ञानी स्वयं ज्ञानी म्हण सांगपी मूर्ख स्वतः आसचे ज्ञाना विषयीं शंका निर्माण करता.

८४६. आपले मनोबुद्धीचें वायटपण पयस करपाक पयलेच यत्न केलो ना तर शरीर श्टंगारप व्यर्थ आसा.

८४७. जो अविवेकी मोलोच उपदेश स्वतः आयकून घेवपाक शक्य ना आसता तो मनीश स्वतः ताचेर व्हड संकश्ट मागून हाडता.

८४८. जे दुसर्यांचो सदुपदेश ऐकनात आनी स्वतः चांग कार्य कांय करनात ते मरण पर्यंत भूयंक निवळ विना अशी पीडा आसता.

८४९. मूर्खाक ज्ञानोपदेश दिवप मूर्खपण आसा. कारण मूर्ख एकच दिश्टीन वागता आनी तेच वरोबर अशें तो लेखता.

८५०. समस्त संवसार जें मानता तें ना म्हण जो लेखता तो भूयेंवयलो शैतान आसता.

## प्रकरण ८६ क्रोध

८५१. परस्पर तिरस्काराची भावना क्रमान प्रतिघात रूपान बदलता आनी अखेरेक क्रोध म्हणचो रोग जल्मता.

८५२. सूड बुद्धी मनांत घेवन एकलो तुका द्रोह दिता तर ताचे बदलाक प्रतिकार करना तर बरें आसतलें.

८५३. जे क्रोध रोगा पासून मुक्त जातात तांकां अनंत कीर्त मेळतली.

८५४. क्राध सारके अवगूण गरजे परस चड दुर०खाक हेतू जाता. ताका हृदयां साकून काडून उडयलो तर परमोच्च आनंदाचो फायदो जातलो.

८५५. जो क्रोधाक जिकला त्या मनोवीराक जिकपाक जगांत कोण आसा?

८५६. अवगूण क्रोध केन्नाय एकल्याक बळ आनी आनंद दिवपी साधन म्हण जो लेकता ताचे जिवीत कित्याकय उपकारना आनी सत्यानाश जाता.

८५७. क्रोधाक क्रोधन बदलो घेवपी अविवेकी, जैत जोडपाचें श्रेंश्ठ तत्व शिकलेनात. क्रोधाक क्रोधान न्हय, परंतू स्नेहान जिकपाक जाय, हें तत्व ताणी समजूंक जाय.

८५८. क्रोधां साकून मुक्ती एकल्याक ऐश्वर्य प्रदान करता परंतु क्रोधाक पराधीन जालो तर नाश जाल्ले शिवाय दुसरो उपाय ना.

८५९. देव तुमचेर प्रसन्न आसा तर तुमी क्रोधवंश जावपी न्हंय. परंतु पराजयांत चड क्रोधवश जाता.

८६०. उरमटपणान सर्व कश्टय जल्मतात. सुस्व भावाचें मूळ धरन एकल्याक शांती आनी ऐश्वर्य - हांचें मधूर फळ मेळता.

## प्रकरण ८७ शत्रुत्व

८६१. प्रवळांकडे शत्रूत्च नाका. परंतु दुर्वळाचेर ते लागून करीत राव.

८६२. जो प्रेमळ न्हय, दुश्ट आसा, जाक मित्र ना, जो एकसुरो आसा आनी हिकमतींत कुशळ न्हंय, तो शत्रूचेर विज़यी जावपाक शक्य जातलो काय?

८६३. जाक धैर्थ ना, अकल ना, स्नेहान वागपाक कळना जो आशेभगत आसा, तो दुस्मनाक दमडे मोल्लाचो आसा.

८६४. जो कोपिश्ट आसता, संयमी नासता, ताका केन्नाय खंयंथ नियंत्रणांत दवरपाक सरळ आसा.

८६५. जो नीती प्रमाणे वागता, जाक स्वाभिमान ना, जो सभावान अधम आसा तो शत्रूंक सादो सरळ आसा.

८६६. जो क्रोधांध आसा, विषयवासनाचो शिकार जाता ताचे कडे शत्रुत्वाची इत्सा बाळगता.

८६७. एक कामांत हात घालन ताचेकडे संबंद नाशिल्ले दुसरें काम करप्याचें शत्रुत्व कितलेंय मोल दिवन आंगार घेवपा जाय.

८६८. तो अवगुणाचो मूर्त आसा तर ताका मित्र कोणेय ना. ताची अवस्था शत्रूक अनुकूल आसता.

८६९. प्रतिस्पर्धी मूर्ख आनी भिजूड आसा तर जैतवंताक आनंद चड आसतलो.

८७०. मूर्खां कडे झगडून सभावीकपणान जिकपाक जो लक्ष दिना ताका केन्नाय दिर्त मेळ्ना.

## प्रकरण ८८ दुस्मानाचें बळ समजप

८७१. विनोदा भाशेन लेगीत शत्रुत्वाची भावना मनांत रिजोव न्हंयें.

८७२. धनुष्य जांचे शस्त्र आसा तांचें शत्रूत्व मानून धेतलें तर जीब जांचे शस्त्र आसा तांचे कडे मात शत्रुत्व दर्शावू नाका.

८७३. जो कोणेय मित्र नासतना एकसुरो अनेकां कडे शत्रूत्व मानून घेता तो मूर्खांत मूर्ख आसा.

८७४. जो शत्रूक मित्र करपांत प्रवीण आसा ताचे संस्कृतीक व्हडवीकायेक आदारून संवसार वर्तता.

८७५. आपूण एकलोच शत्रू दोगां - तांचे कडे झुजपाचो संद आयलो तर एकल्याक स्वताचे पक्षांत करपाक जाय.

८७६. एकलो शत्रू कि मित्र हें कळता कळ्ना तर चड अडचणींत रावचे शिवाय पक्षपात विरयत मार्ग मानूंक जाय.

८७७. तुमचें दुरख्ख परकी मनीशांकडे सांगनाकात तशेंच दुस्मनाकडे तुमचें व्यंग परगटावूं नाकात.

८७८. निश्ठेन आपलें कर्तव्य करता तर तुमचें शत्रूंचे शत्रुत्व आपले आप धूळींत मेळ्तलें.

८७९. कांटयारे झाड ल्हान आसतनाच हुमटावन दूर उडोवपाक जाय. कारण, वाडल्यार तें तोडपाक यन्त केलो तर तें तुमचो हातूच कापून उडकायतलें.

८८०. जाक तुमी तुच्छ मानतात ताचें गर्व जर तुमी दूर करनात जाल्यार तुमी अचकीत सोंपतले.

## प्रकरण ८९ घरभेदी

८८१. रूखाची सावट आनी झरो दिसूक रसरसीत आसा तर ताचे पासून गरज नासिल्ले कडे लुकसान करता, तद्वत आमचे नातेवर्गी आम्च्या नाशाची पिडा दितात तर ताका त्यागप योग्य आसतलें.

८२. प्रत्यक्ष तलवारा प्रमाणे उक्तेपणी शत्रूत्च करप्याक भियेवूंक नाका. परंतू मैत्रीचो ढोंगी शत्रू पासून सावधान आसूंक जाय.

८३. गुप्त प्रतिघाता वबात सादूर रावपाक जाय. कारण तूं संकटांत आसा तर तें तुका कुमाराचे चक्रा सारके तासून नाशें करतलें.

८४. निर्मळ मनांत प्रतिघात दिसलो तर तुमचे संबंदी आनी दोस्त तुमचे पयस रावतले आनी तुमकां दोश दितले.

८५. जो स्वतः दोस्त म्हण वागून द्रोही आनी विश्वसघाती जाता तो मृत्यूक कारण जाता.

८६. परंम मित्र जनांक विश्वासघात दिसलो तर ताचें फळ मरण आसा.

८७. प्रतिघाती आसचें घर घट धांकणे आसल्या पेटे प्रमाणे आसा. दिसपाक एक परंतु खर्यानीच दोन आसात.

८८. जें घर घर भेदी आसून तळ्पता तें घर कुसकुसल्ले भांगरा कुसकुटे प्रमाणे धूळींत मेळतलें.

८९. घर भेदी आसचे घराचें उणेपण तीळाचे मणी सारके ल्हानसे आसा तर विनाश तांत भितर लिपून आसा.

९०. मनांचो एकमेळ नाशिल्ले द्वेश मत्सर बाळगपी लोकां लागी आपलेपणान रावचें म्हणचें घरांत सोरपा घेवन रावचे प्रमाणे आसा.

## करण ९० बळवंतांचो अपमान करूं न्हंयें

९१. जांक कर्तुम अकर्तुम करूं शक्ती आसा त्या महत् जनांचो अपमान करनाशिल्लें रावप तुमचे संरक्षणांत ०हड संरक्षण आसा.

९२. तुमी बळ्वंतांक मान दीनात तर तांचे खातीर तुमकां अनंत दुरव्ख जातलें.

९३. तूं स्वयं सर्वनाश करचाक विचार करता तर तुका नाश करपाक जाक सामर्थ्य आसा ताचे कडे झगडें कर.

९४. जो दुर्बळ प्रबळांक दुरव्ख दितात तर ते आपण स्वयं मृत्यूक आपयतात.

९५. प्रबळ रायाचो क्रोध जो राय आपण्या कडे ओडून घेता तो स्वयं लिपून धावलो तर ताका संरक्षण ना.

९६. जळच्या उज्यांत लासलो तर जिवानशी सुटतलो. परंतु प्रबळांचो अपमान केलो तर तांकां वांचप ना.

८९७. तपस्वी सन्यासी तुमकां स्रापले तर तुमचें चतुरंग आनी महावैभव - हांचो फायदो काय?

८९८. जे पर्वता प्रमाणे ऊंच आनी श्रेश्ठ आसात तांचो अपमान केलो तर तांचो समूळ सत्यानाश जाता.

८९९. पवित्र आनी ब्रतनिश्ठ लोक संतापले तर देवेन्द्र लेगीत आपले राज्य नश्ट जावन रसातळाक वता.

९००. तपोनिधींचो स्राप घेतलो तर ०हड बळवंत लेगीत धूळीं मेळतले, निस्तर ना.

## प्रकरण ९१ बायलवेडो

९०१. जे बायलबेडे आसात ते गृहस्थाश्रमाचें पुण्य जोडनात जे कर्मवीर आसात ते ह्या गुलामीक मनां करतात.

९०२. पुरूषार्थाक मान दिनाशिल्लें वायलेच्या सौंदर्याक मात निंबून आसचे मनीशाची संपत्ती श्रेश्ठ मनीशांकय संवसाराकय ०हड अपमानकारक आसा.

९०३. बायलवेडयांत घुसपल्या मनीशाची, ०हड मनीशाचें मुखार तोंड दारवोवन रावचाक संद नाशिल्ली दुरवस्था जाता.

९०४. जो निर्भागी आपले घरकान्नीक भियेता ताका कशेंय जावं तर मोक्ष ना.

९०५. जो अपले पत्नीक भियेता तो सज्जनाची सेवा करपाक केन्नाय भियेतलो.

९०६. आपले घरकान्नीक भिऊन जे जियेतात ते देवा प्रमाणे वागले तर दादले म्हणपाक योग्य न्हंय.

९०७. वायलेचो दास म्हण लेखून जो दादलो जियेता ताचे परस विनयशील कुमारीच चड श्रेश्ठ आसा.

९०८. आपले मोगाळ बायलेच्या मूठींत जियवंचे दादल्याक मित्रधर्म करपाक शक्य न्हंय, कांय चांग काम करचाकय शक्थ न्हंय.

९०९. जे दादले घरचें स्वामीत्व वयलां हातां दिवन तीणे सांगले प्रमाणे वागतात तांकां यथाविधी धर्म पालन करूं शक्थ जायना. तांचे खातीर धन जोडपाक शक्थ जायना, आनी प्रेमाचो खरो आनंद घेवपाक तांकां शक्य जायना.

९१०. जांचे कडे सहगूणाचें निकेतन मन आनी सत - मार्गार जोडल्लें धन आसा, तांकां वायलांच्या दासत्वाचें मूर्खपण केन्नाय जावंचें ना.

## करण ९२ चेडयो

११. ज्यो स्त्रीयो प्रेमा खातीर न्हंय, दामदुडुवा खातीर परंपुरुषाची इत्सा करतात, तांचीं गोड उतरां दुरव्खच प्रदान करतात.

१२. मेळूंक आशिल्लया, द्रव्यार दोळे दवरून ताका अनुसरून नकली प्रेम दाखोवन स्वार्थ सिद्धकरपी चेडयांचें दुराचरण समजून तांकां पयस दवरपाक जाय.

१३. प्रेम्याक आलिंगन दितना वेश्या प्रेम दाखयता, परंतु कूडांतले एक प्रेताक आपण वेंग मारता अशें ती मनांत लेखता.

१४. मुक्ती मेळपाक यत्न करपी गिन्यानी केवळ धनाची इत्सा मात मनांत घेवन आशिल्या वेश्येचें स्पर्श सूख आवडचे नात.

१५. जे गाढ विद्वान आनी विवेकी आसात ते चेडयेच्या स्पर्शान स्वतः कळंकी जावूंक इत्सूक न्हंय.

१६. स्वहीत प्रबीण मनीश सौंदर्य विकपी चेडयेच्या खांदार हात घालचीना.

१७. हृदय संस्कृतायेचे उथळ लोकच धनाचेर मन दिवंच्या स्त्रीयांच्या पाटल्यान वतले.

१८. मूर्ख मोहक मनीश चेडयेचें आलिगंन अपसराचें आलिंगना प्रमाणे मोहक मानतात.

१९. उत्तम अथवा अधम हो भेद भाव नाशिल्ले, वेश्येचे आलिंगनाचे कोमळ बाहूं मूर्ख आनी नीच लोकानी पडून त्रास भोगचें नरक आसा.

२०. बेश्या, मद्य आनी पाशे - हे ऐश्वर्य लक्ष्मी सोडून गेल्ले लोकांचे ०हड दोस्त आसतले.

## करण ९३ सोरोबंदी

२१. जे सोरोंत बुडून जियेतात तांकां शत्रू भियेनात, मेळयल्ली कीर्त सोडून वता.

२२. सोरो पिवूं नाकात. सज्जनानी मानून घेवंचे नात म्हणचे मनीश सोरो पिवोत.

२३. जो सोरो पिता ताका ताची आवय लेगीत सहन करना. ताका दुसरें सन्मान्य जनं कशें मजत करतलें?

२४. जो सोरो पिता, लज्जादेवी, ताचे हल्का कामा खातीर, फाटी करन वता.

२५. जे आपले पैसे सोरो पिवन खर्चून बुद्दीभ्रश्ट जातात तें तांचे मूर्खपणा खातीर जाता.

२६. लागून सोरो पिवपी न्हिदल्ले मनीशा प्रमाणे आनी विरव खेल्लो मनीश मृतवत लेखपाक जाय (सोरो वीरव वराबर मृत्यू दायक आसा).

९२७. लिंपून सोरो पिवन जे वेशुद्ध जावन पडतात तांकां गांवकार सर्वय परिहास करतले.

९२८. सोरो म्हणचें कितें म्हण कळना, अशें ढोंग करूं न्हंयें कारण सोरो पिल्ले वेळार तें स्पश्ट जातलें.

९२९. सुरांट्या लागी सोरापानाचे दोश समजावपाक यत्न करप म्हणचें उदकांत बुडल्याक मशाल दाखोवन शोधपा प्रमाणे आसा.

९३०. सुरांटो आपण साबुद्दीर आशिल्ले वेळार दुसरे एक सुरांटयाली स्थिती पळेवन आपण सोरो पिवून करचें चित्र चिंतून समजपाक यत्न करना.

## प्रकरण ९४ जुगार

९३१. तूं जिखून येतलो तर जुगार खेळूं नाका. तें जिरवप मासाळ गरी गिळ्ळेल्या मसन्की प्रमाणे आसतलें.

९३२. जुगार आसक्त लोकांक एक फायदो जातलो तर तो शंबर वगडायतलो. जुगारीक ह्या जगांत गुणेस्त जिवीत आसा काय?

९३३. सदासर्वदा पासो खेळा पासून जो सांगून आसता ताची संपत्ती ताका सोडून शत्रू पक्षांत वचून मेळ्ता.

९३४. जुगार एकल्याक दळिद्र दिता आनी संफश्टांत घालता. जुगार सारके गरीबीचें दुरव्ख दिवपी दुसरें कांय ना.

९३५. पासो खेळांत अभिमान करपी, दावो करपी स्वयं सत्यानाश करतात.

९३६. पासासक्तीचे रूपान दुर्दैव तुमचेकडे येता. आनी तें तुमकां अन्न - पेय दिनाशिल्लें नरकांत घालता.

९३७. पास्या खेळांत आपल्या जल्माचो वेळ दिलो तर सारी पुर्विल्ली संपत्ती आनी अभिमान नश्ट जातले.

९३८. पास्या पासून संपत्ती ना जातली, प्रामाणिकपण वतलें आनी हृदय कठोर जातले, आनी दुरव्ख संकश्टांत कोसळ्तलें.

९३९. जो पास्याचे खेळांत मोगान पडलो आसा, अन्न, वस्त्र, यश, तेज, विद्या, वैभव - हें सर्वय ताका सोडून वतलें.

९४०. पास्या खेळांत जो हार घेता तो परतून परतून खेळूंक आवडता त्याच प्रमाणे दुरव्खी मनीश जियेवूंक आशा परगटायता.

## प्रकरण ९५ वखद

९४१. श्रम आनी खाण जेवण चड उणे जालें तर वैजक शास्त्रांत सांगल्ले प्रमाणे वात, पित्त, कफ कोणूय एक चड उणे जावन रोग हाडतलो.

९४२. जिरचे अन्नाचे प्रमाण समजून खालें तर वखदाची गरजच ना.

९४३. इहलोकांत आयुश्य वर्धना खातीर जिरचें. प्रमाण समजून खाण खा.

९४४. पयलें खाल्लें अन्न बरेरूपान जिरल्ले उपरांत प्रखर भूक लागल्यार अनुकूल अन्न घे.

९४५. प्रकृतीक अनुकूल लेखचो आहार मर्यादे भितर खालो तर जीवाक रोगाचें दुरख्ख जावंचें ना.

९४६. तांके बराबर आहार घेवप्याक आरोग्य आनी आमंद दिसता. तेच प्रमाणे अमीत आहार घेवप्याक रोग शोधीत येता.

९४७. पचनाग्नीचे शक्ती भायर आहार घेतलो तर असंख्य रोग जडतले.

९४८. रोग, ताचो हेतू, आनी रोग दूर करचे उपाय - हांचो विचार करन, मनांत घेवन रोग दूर करपाचे कामांत लागून घे.

९४९. चिकित्सकान रोगाची स्थिती, रोग्याची स्थिती, रोग चिकित्सकाचो वेळ काळ ह्या सर्वाचोय विचार करन रोग्याचो रोग ना करपाक जाय.

९५०. रोगी, चिकित्सक आनी वखद आनी वखद दिवपी ह्या चार विशिश्ट गूणांचेर अवलंबून आसात रोग निवारण.

## प्रकरण ९६ सत्कूळ

९५१. जे कुळवंत आसतात तांचे कडे सभावीक सत्य निश्ठा आनी विनय हे गूण आसतात.

९५२. कुळवंत मनीश सत्य, सदाचार आनी विनय हांचे पासून केन्नाय कडेक सरचे नात.

९५३. उदार हात आनी हसत मूख, विनय आनी गोड उतरां - हे कुळवंताचे चार गूण आसात.

९५४. कुळवंतानी कोटीन कोटी द्रव्य तांकां मेळत तर यशाक कळंक येवंचे कांय करचें ना.

९५५. कुळवंत मनीश गरीबींतूय आपले पिळगेचो अभिमान सोडनात.

९५६. आपले कूळाचो महिमो श्रेश्ठ रीतीर जे राखूक इत्सा करतात ताणी केन्नाय फटवणेची आडवाट अवलंबून काम करचें ना.

९५७. प्रतिश्ठीत घराणेंतले मनीशांक आपले दोश मळ्बायले चन्द्रमांतले दाग वराबर दिसतले.

९५८. श्रेश्ठ कुळांत जल्मल्ले मनीशांत उरमट वाणी दिसून आयली तर लोक ताचे कूळशील शुद्धतायेचेर दुबाव परगटायतले.

९५९. अंकूरी फुटचे बीं पळयल्यार भूंयची श्रेश्ठताय स्पश्ट जाता. त्याच प्रमाणे कूळाचो महिमो उतरानी वळखयेत.

९६०. स्वयं बरेपणान श्रेश्ठ जावूंक नम्र सभाव आसूंक जाय स्वतः कूळाचो मान राखपा खातीर सर्वांकडेय विनयशील आसूंक जाय.

## प्रकरण ९७ भोवमान

९६१. अमूक काम केलें तर व्हड येश मेळतलें म्हण काटूक काम करू नाका, तें काडून उडय. तीच आस बाळगपाक जाय.

९६२. जे आपली कीर्त आनी पौरूश, प्राप्त करपाची इत्सा करतात ताणी खोटें काम कांय करू न्हयें.

९६३. संपत्ताचे काळीं विनय आंसूक जाय. विपदे काळांत माथें वयर करून उमेद वाडोवपाक जाय.

९६४. जेन्ना मनीश दुरवस्थेंत अपले उन्नत अवस्थें साकून सकयल पडतात तेन्ना ते माथ्यार सावन निखळून गेल्ले केसा प्रमाणे आसात.

९६५. पर्वत समान धीर गंभीर मनीशान गुंजे समान अशूभ कर्म केल्लें तर तांचे महत्पद नाच्च जाता.

९६६. तुमचो उपहास आनी तिरस्कार करपी लोकाची खूशामत केलें तर तुमचें तेज चड जायना, कीर्त वाडना, मागीर दुसरें वरें काय आसा?

९६७. आपलो तिरस्कार करपी मनीशाक अवलंबून उरचे परस तत्काळ मरण चड बरें आसा.

९६८. स्वाभिमान वगडावन जियेवप शरीर राखचे वखदा प्रमाणे आसा काय?

९६९. आंगावेली रोम वताच कवरिमा प्राणी (yak) प्राण त्याग करता. त्याच प्रमाणे मनीश स्वाभिमान राखपाक शक्य न्हंय म्हण दिसताच प्रण त्याग करता.

९७०. स्वाभिमान आनी अवस्था हांकां हानी आयली तर मरण बरें म्हणचे मानधनाक जग केन्नाय नमन करन तार्चे यशोगान करतले.

## करण ९८ ०हडपण

७१. भव्य कर्माची म्हत्वाकांक्षा म्हणचें जिवीताचें ०हउपण आसा. हें ध्यानांत घेनाशिल्लें नामंजूर करप नीचपण आसा.

७२. जल्मा मूळे सगळी मनीशजात समान आसा. परंतु कर्माचे भाशेन तांचें म्हत्व वेग वेगळें आसा.

७३. श्रेश्ठ कूळांत जल्मलो म्हण मनीश श्रेश्ठ जायना. सकल्या पांवड्यार जल्मलो तर मन नीच न्हंय तर तो नीच मनीश जायना.

७४. बायलानी पतिव्रता धर्म पालन करचें प्रमाणे स्वतः सत्यनिश्ठ मनीशच ०हडपण राखतले.

७५. अशक्य म्हण लेखचें कर्म लेगीत ०हड मनीश शक्य करतात.

७६. क्षुद्र वृत्तीचे मनीशांक गुणवंतांक मानून तांचें अनुकरण करपाक उद्देश ना.

७७. ऐश्वर्यवंत क्षुद्रांक मेळ्ळे तर तांचें ऐश्वर्य शीमे भायर वचून सगळें नाश जातलें.

७८. ०हडपण केन्नाय विनय प्रदान करता. परंतु उरमटपण स्वयं आपले गूण गावून मांडतलें.

७९. जे महात्मे आसात ते नम्रतायेन वागतात. तांकां अहंकार नासता. परंतु नीचपणांत अहंकार भरिल्लो आसता.

८०. ०हड मनीश दुसर्यांचे दोश लिपयतले. नीच मनीश परनिंदे पासून सागूंन आसतले.

## करण ९९ सद्गूण

८१. स्वतः सद्गूण वाडूंक जाय अशें जे इत्सा करतात ते अपला कर्तव्य जाणतात आनी जें जें चांग आसा सद्गूणा खातीर तें तें करतात. तांकां यश स्वयं प्राप्त जाता.

८२. सद्गूण म्हणचे ०हड मनीशाचे सभावाचे पवित्रताये लागून आसात. दुसरे विशयां पासून सद्गूण वाडनात.

८३. सर्वांचेर प्रेम, विनय, दयाळुत्व, सत्यनिश्ठा आनी औदार्य हे चारित्र्याचे पांच खांबे आसात.

८४. अहिंसा साधूचो मोलादीक गूण आसा. आनी दुसर्यांचे निंदेची उतरां उलयना - ही तांची श्रेश्ठ योग्यता आसा.

८५. नम्रताय, हीच बळवंताची शक्ती. हीच योग्यवंतांक शत्रूचे आड संरक्षक कवच आसतली.

९८६. आपले परस सकयल पांवड्या कडे आपली चूक आनंदान कवूल करप - हीच सद्गूणाचे योग्यतेचे करवटणेचो फातर आसा.

९८७. जे द्रोह करतात तांकां उपकार केलो ना तर महंतांचे म्हत्वाचें फळ काय?

९८८. जाक म्हत्वाची संपत्ती भरपूर आसा जाल्यार गरीबी ताका एक उणेपण न्हंय.

९८९. जे सागर समान विशाळ गुणवंत आसात तांचें मन भूंय हालता तर चंचल जायना.

९९०. सद्गूणी मनीश आपले सद्गूणां पासून रितो जाऊं तर ही भूंय मनीशाचो भार सहन करपाक शक्य जायना.

## प्रकरण १०० सभ्यताय

९९१. उदार हातानी सर्वांकूय लागी घेवन मोवाळ सभावान जियेवप - हेंच सभ्यताय म्हण बुदवंत सांगतात.

९९२. समस्त सजीव प्राणी कडे सहानुभूती आनी श्रेश्ठ सज्जनपण हांतल्यान जी ज्योती झळकता तीच सभ्यताय आसा.

९९३. दोगां मदें भायलीं आंगां सारके आसून कांय फायदो ना. हृदयांतले विनयशील सभ्य भावच सर्वांक जोड्डूं शकता.

९९४. लोकोपकारा खातीर सत्यनिश्ठ आनी सदाचारी चालरीतीचे मनीशाक जग श्रेश्ठ मानता.

९९५. विनोद तमाशा म्हण उपहासात्मक आनी अपमान - जनक उतरां उलयल्यार दुसर्यांक दुरक्ख जाता म्हण जाणून कुळवंत मनीश शत्रूकडे लेगीत बरो वे०हार करता.

९९६. चांग चालरीतीचे संस्कार संपन्न मनीश संवसारांत जीवन करतात म्हण जग प्रत्यक्षांत आसता. ते ना आसतात तर संवसार नश्ट जातलो.

९९७. कानसा समान कुशाग्र बुद्दी आसून काय उपेग? चांग सभ्य चालरीत तुमचे लागी ना तर तुमी ०यर्थ रुखा प्रमाणे संस्कार शून्य आसात.

९९८. कांय माया दया ना आसून तुमकां दोश मात करतल्ले मनीशाक परतून उपकार करपाक जाय. शत्रूचे लागी लेगीत असभ्य वेव्हार करू न्हंयें. परतून दुर्वेव्हार करप ०हड वायट आसा.

९९९. जांक स्नेहान आनी संस्कृतायेन वळख करून घेवप कठीन पडता, तांकां जगांत दिसाचेंय अंधकार आसतलो.

१०००. असभ्य मनीशाची संपत्ती म्हणची घासनाशिल्ले वायट कुळण्यांतले दूदा प्रमाणे आसतली.

## प्रकरण १०१ विफळ संपत्ती

१००१. जो घर भर संपत्ती जोडून दवरून उपभोग घेना ताका मृतवंत समजपाक जाय. ताका काय साध्य आसा?

१००२. राशी भरन द्रव्य जोडून जो तांतलें कितलेंय उपभोग करना, तो हिमटो मनीश, पुनर्जल्मांत पिसो म्हण जल्मतलो.

१००३. जे द्रव्य सतत एकठाय करतात, जांक कीर्तीची इत्सा ना ते प्रत्यक्षांत भुंयेंक ०हड भार आसतले.

१००४. लोकाची प्रीत मेळोवपा खातीर लक्ष दिनाशिल्लें जे द्रव्य जोडतात तांचे मरणोपरांत कितें राखण दवरतले?

१००५. जो द्रव्य दुसर्याक दिना, स्वतः उपभोग करना, तांचें अमीत, द्रव्य आसा तर उपेग शून्य आसता.

१००६. जो आपले द्रव्य दुसर्याक दिना आनी स्वयं भोगना ताची संपत्ती ताका ०हड शाप प्रमाणे आसतली. ती ताका निवळ विना अशी पीडा आसतली.

१००७. जो द्रव्य आसून गरजेवंतांक दिना तो, एकली रावून अपले तरणेपण व्यर्थ वगडावंचे तरुणी प्रमाणे आसा.

१००८. जाचें धन लोकोपकाराक उपलव्ध न्हंय तें धन गांवांत मदें वैभवान सोबाय वाडोवंच्या वीखा रूखा प्रमाणे आसा.

१००९. जो मनांत धर्म विचार करना, केवळ धनाची राश जमा करता ताचें धन सोयरीक संवंद नाशिल्ले मनीश अणभव घेतले.

१०१०. श्रेश्ठ पैसेकाराक आयली कश्ट दशा रितें जाल्या पावसाळे मेघा प्रमाणे समजपाक जाय. ती साबार दीस रावचीना.

## प्रकरण १०२ लज्जा

१०११. हीन कर्म करपाक सज्जन लजतात. दूसरे प्रकाराची लज्जा कुलीन स्त्रीयांची लज्जा आसा.

१०१२. अन्न आनी वस्त्र सर्वांकय सारकेच आसता. परंतु लज्जा सज्जनांक अलंकार आसा.

१०१३. प्राण शरीरांत आसता. तशेंच मनीशाले समस्त सद्गूणय ताचे पवित्र लज्जाशीलांत वर्ततात.

१०१४. महत मनीशांक लज्जा अलंकार आसा. ती ना जाली तर तांची समस्त प्रौढीय व्यर्थ जाता.

१०१५. दुसर्याचो अपमान स्वतःचो अपमान म्हण समजून जे मान पोदांक घालतात ते लज्जेचें मूळ म्हण संवसार तांकां तुस्त करता.

१०१६. बुदवंत आपले कामक्रू अहीतां सावन परिरक्षण करपाक विशाल पृथ्वीक मानून घेनात. परंतू लज्जेक एक वंयचे समान वायट कामाचे आड लेखतात.

१०१७. सज्जन लज्जे खातीर प्राण त्याग करतले. परंतु प्राण राखपा खातीर लज्जेचो त्याग करचीना.

१०१८. जे कर्म करपांत दुसरे लज्जेतात तांत तूं स्वयं लज्जा केली ना जाल्यार धर्माक लज्जा जाता.

१०१९. लज्जा सोडून दिल्ली तर कुलाचार चुकतले कुटुंब सत्यानाश जातलें. समस्त सद्गूणय ताका सोडून वतले.

१०२०. जांक लज्जा ना, ते जिवंत आसूनूय निर्जीव समजतले. ते दोरयेर खेळचे रूखा बावल्यां प्रमाणे आसात.

## प्रकरण १०३ कुटुंबाचो उत्कर्श

१०२१. हातानी काम करन पुरो जालें सी दिसना. म्हण निर्णय घेवपा सारके कुटुंबाक उत्कर्श करचें दुसरे साधन ना.

१०२२. श्रम आनी उत्कृश्ट वेव्हार ज्ञान हे गूण मेळन जें कुटुंब काम करता तें दिसान दीस प्रगती करतलें.

१०२३. आपले कुटुंबाचे चांगपणा खातीर निरंतर काम करपी कुटुंब प्रेम्यांक देव स्वयं मुखार सरन तांची मजत करन तांची वाट स्पश्ट करता.

१०२४. जे आपले कुटुंबाचे उत्कर्शा खातीर श्रम करतात तांकां यश स्वयं सोदून येता.

१०२५. कांय चूक करनाशिल्लें जो आपले कुटुबाचें संरक्षण करता, सगळे संवसार ताचो मित्र जावपाक वाट पळ्यता.

१०२६. ज्या कुटुंबांत आपण जल्मलो त्या कुटुंबाचो मान आनी ताची कीर्त वाडोवपांत खरो पुरुषार्थ आसा.

१०२७. जशें रणांगणांत शूर वीर झुजारीचेर सगळो भार येवन बसता तशें कुटुंबाचो भार जवाबदार मनीशाचेर येवन बसता.

१०२८. जाक आपणे कुटुंबाचे उत्कर्शाची इत्सा आसता ताणे वेळ्काळ राखून बसू न्हये. आळसाय आठ्यल्यार कुटुंबाचें तेज उणे जातलें.

१०२९. जो कुटुंबाचे आघाता पासून ताचें रक्षण करता ताचें शरीर यत्ना खातीर केवळ आधार पात्र आसा काय?

१०३०. ज्या कुटुंबाचें संरक्षण करपाक समर्थ पुरूश ना तें कुटुंब कुराडीचो धाय घेवन सकयल पडचे रूखा प्रमाणे सत्यानाश जातलें.

## प्रकरण १०४ शेती

१०३१. खयंच गेलो तर अखेर अन्ना खातीर संवसार नांगराचे मागशीं वता. सुगम न्हंय तर शेती सर्वश्रेश्ठ घंदो आसा.

१०३२. शेती समाजाचे आधार स्तंभ आसा. शेतकार लोक रथाची मुखेल आंस आसा.

१०३३. शेत कसून जे जियेतात तेच खरोखर जियेतात. दुसरे समस्त लोक तांकां नमन करन तांकां अनुगमन करतात.

१०३४. ज्या रायाले राज्यांत जाय तितलें कणस जाता ताचे सावळ्यांत दुसरे राय पालव घेत आसतात.

१०३५. शेती करून जो अन्न खाता ताणे पोटा खातीर केन्नाय भीक मागचीना. ताचे बदला भीक मागून येतल्लयांक केन्नाय 'ना' 'ना' म्हण सांगची ना. मागतल्लयांक दितलो.

१०३६. कसपी (cultivator) समस्त इत्साय सोडून हातार हात बांदून बसता तर सन्यासी लेगीत कश्ट भोगतले.

१०३७. भूंय कसून सूर्याचे वोतांत सुकले उपरांत बीं घालें तर सार्याची गरज लेगीत ना आसून अपरंपार पीक जातलें.

१०३८. कसपा अपेक्षा सारं घालें तर फायदो चड जाता आनी ०हड ०हड तण काडून उडकायल्यार शिंपण्यापेक्षा चड फायदो जातलो.

१०३९. शेतकार शेताकडे वचनाशिल्लें घराकच बसता तर ताचें शेत ताची घरकान्न ताचेर रागार येता प्रमाणे, झगडतलें, फिरर्याद करतलें.

१०४०. 'खावूंक म्हजे कडे कांय ना मू' म्हण जे आळशे म्हणतात, धरणी माता तांकां परिहास करता, हासता.

## प्रकरण १०५ गरीबी

१०४१. गरीबी परस अधीक दुरव्खप्रद काय आसा? अशें विचार केलो तर दळ्दीर परस अधीक दुर०खप्रद दळ्दीरच. ताचा परस दुखेस्त दुसरें कांय ना.

१०४२. हो गरीबीचो पापी संवसारीक आनी सर्गेस्त सूख ना करपाक येतलो.

१०४३. तीक्ष्ण गरीबी पासून स्वाभिमान मरता, कूळाची कीर्तीय ना जाता.

१०४४. गरीबीचें कारण सज्जन आपलें सज्जनपण विसरतात आनी गरीबी आळस्यांची नीच भास वापरतात.

१०४५. गरीबीचे दुर०खांत असंख्य मानहानिप्रद प्रसंग आसतात.

१०४६. गरीब मनीश तत्वज्ञानान आनी बुद्दी वैभवान विशद करन सांगतात तर तांचे उतरांक मान मेळ्ना.

१०४७. गुणहीन गरीबी अतिशाप आसा. त्या गरीबाक आवय लेगीत परखी लेखतली.

१०४८. मरण सारके काल दुख्ख दिल्ली ती गरीबी आजय म्हजो जीव खावपाक येता काय?

१०४९. उज्यांतूय हांव सूख संतोशान शय्य करीन. परंतु गरीबीच्या अग्नींत न्हिदय कठीण आसा.

१०५०. दुसर्यांक नंवून आसचे गरीब लोकांनी सन्यास मार्ग स्वीकार करचें बरें आसतलें. ना जाल्यार ते दुसर्यांचे मिटाचे आनी पेजेचे यमकाळ प्रमाणे जातले.

## प्रकरण १०६ भीक मागप

१०५१. जो दिवपाक योग्य आसा ताचे कडे याचना कर. 'आमचे कडे कांय ना' म्हण ते सांगतात तर ती तांची चूक, तुची न्हंय, म्हण समजून घे.

१०५२. जें मागता, ती वस्तू कश्ट नाशिल्लें प्रप्त जाली तर तें मागप आनंद दिता.

१०५३. कपट रहीत दान धर्म करप आपलें कर्तव्य म्हण जे समजतात तांचे मुखार हात पसरपांत एक प्रकाराची शोभा आसता.

१०५४. सप्नांत लेगीत जे हिमटेनांत तांचे लागी मांगणी करप म्हणचें दान दिवपा प्रमाणे सम्मान योग्य आसा.

१०५५. लोक अनमन करनाशिल्लें भिकारीचो पेशा धेतात, कारण स्वयं खोशीन दान दिवपी आसात.

१०५६. दया ना दाखोवप्याचे दुर्गूण ज्याचे लागी ना आसता, अशले दया आनी दानशील मनीशांचें दर्शनानच गरीब मनीशाचे समस्त दुरव्खय निवारण जाता.

०५७. अपमान करनाशिल्लें जो भिकार्याक दिता ताका देखून भिकार्याचें हृदय आनंदीत जाता.

०५८. जगांत भिकारी ना जाले तर हें जग सार्थक न्हय जाता, तें रूखा बावल्यांचे संचार करपा सारके दिसतलें.

०५९. जगांत भिकारी ना आसता तर दान धर्माचें म्हत्व कशें दिसतलें?

०६०. 'आतां म्हजे कडे कांय ना.' अशें कोणेय दानी एक वेळार काकुळटीन म्हणता तर भिकारीक राग येवू न्हंयें, कारण आपल्या सारके दुसर्याकय ही अवस्था येवूं शक्य आसता. आपली गरीबीच ताची साक्षी आसा.

## करण १०७ याचना भय

०६१. दोळ्या समान मोगाळ नातेवर्गी कडे मागणी केली तर संतोशान ते दितले, तर अशें भीक मागपा अपेक्षा भीक ना मागप कोटपट चड फायदो आसा.

०६२. मनीश अन्ना खातीर दारान दार भोवन भीक मागून जियेवो अशें विधाताली इत्सा आसा तर तोच जगांत येवन भीक मागून भोवंत रावो आनी मरन वचो.

०६३. भीक मागून गरीबी पयस करीन म्हण जें धाडस आसा ताचे परस धाडस दुसरें कांय ना.

०६४. नितांत गरीबी आसा तर जो मानी पुरूश भीक मांगनां ताचे म्हत्व मानून घेवपाक भूंयेर थळ नुपूरो.

०६५. स्वताचे हातान कश्ट करन मेळयल्लें अन्न ताची रूची वेगळी आसतली.

०६६. 'गायक राखण करपाक उदक जाय' हे प्रमाणे तोंडान भीकेची प्रार्थना करप, जिबेक ताचा ०हड अपमान दुसरो कांय ना.

०६७. भिकार्या लागी हांव मागतां: 'भीक मागपाक जाय तर जे आपली संपत्ती लिवोवन दवरून हात उक्तो करतात ताचे कडे मागनाकात.

०६८. भीकेचें ०हडें जे 'ना' म्हणतात तांचे खडपी हृदयाक लागून विध्वंस जातलें. (भीकेचें ०हडें दुसर्यानी "ना"म्हणताच फुटता.)

०६९. भिकार्याचें मागणें मनांत येताच हृदय द्रवीत जाता. परंतु जे भीक दिनाशिल्लें तांचो अपमान करतात तांकां पळोवन हृदय लासून करपून वता.

०७०. 'ना' म्हण आयकतच भिकार्याचो प्राण वता. आसून घेवन जे 'भीक ना' म्हणतात तांचो प्राण खंय वता?

## प्रकरण १०८ नीचपण

१०७१. चांडाळ मनीश दोळ्यांक दिसपाक प्रत्यक्षांत इतर मनीशा प्रमाणे आसतात. दुसरें कांय फरक दिसूक येना. परंतु जीवनांत भारी फरक आसता.

१०७२. नीच मनीश सदाचारी मनीशा परस चड भाग्यवंत आसात, कारण धर्माचें भय तांचे हृदयां साक्नून पुरायेन नाच्च जालां.

१०७३. दुश्ट आनी नीच लोक म्हणचे देव वराबर आसात. कारण ते आपले मनांक दिसचे प्रमाणे स्वताच करतात.

१०७४. आपल्या परस नीच मनीशा मुखार चांडाळ आपण्याक धन्य मानता.

१०७५. चांडाळ भय आनी लालशे कारण कार्थ करता. परंतु भीतीचे हेतू प्रभावी जाता.

१०७६. नीच लोक रणवाघाचे नादा प्रमाणे आसात. ते अंतरांतली खबर लागीच परकी मनीशां कडे आड्डी मारन सांगतले.

१०७७. जे तांची गोमटी पीळनात चांडाळ तांकां कांय दिनात आपले उश्टे हातांक लागल्लें शीत लेगीत कोणाकय दिनात.

१०७८. शाणे लोक उतराचे एक इशार्या लागून पाळो दितात. परंतु नीच मनीशाक उशीकांड्या प्रमाणे मारन चिरडून पिळ्ळो तर फळ मेळ्ता.

१०७९. जे खावन पीवन न्हेसून आनंदान आसात तांकां पळोवन नीच लोक तांची फिर्याद करन तांचे कडे झगटपाक तयार आसतात.

१०८०. आपत्ती आयली तर नीच मनीश कित्याक योग्य आसात? ते लगीच दुसर्याचे गुलाम म्हण आपलाक विकतले.

## अर्थ भाग सोंपता.

# काम भाग

## प्रकरण : १०९ - रहस्यमय समागम - नायकाचें अनुमान

संदर्भ : नायिका सख्यां सयत उद्यानांत येता सख्यो तिका थंय सोडून वतात. ती थंय एकली जाता. अकस्मात नायक थंय येवन पावंता. त्या सुन्दरीक पळयता, तिच्या रूप सौंदर्यांत वुडून घेता आनी ती ताका फुर्ती दिता. चकीत होवून तो अजापताः

१०८१. ही देवता! मत्त मयूरी! मेघसमान केसाळी! कोण ही, म्हजे मनांक घुसपा गोंदळांत घालता.

०८२. ही कुशळ सूंदरी म्हज्या दिश्टीक दिश्टी मेळोवन सैनिकां सयत घेवन म्हाका आडयता सारके दिसता.

०८३. पूर्वी यमरायाची कल्पना नाशिल्ली. परंतु आज कळून आयलें कि स्त्री रूपाचे मृत्यूक विशाळ आनी झुजांत जिकून घेवंचे दोळे आसात.

०८४. तिचे विशाळ आनी अस्तुरीमय दोळे प्रेक्षकांचो प्राण खावपाक योग्य आसात.

०८५. तिचे दोळ्याची दिश्टी साक्षात यमराय दिसता, थेट दोळेय म्हण दिसता, अथवा हरिणी आसा काय अथवा ह्या सुमुखीची दिश्टी ह्यो तिनीय मेळन आशिल्ली एक जावये.

०८६. दोळ्या भोवर्यो आपले वांकडेपण सोडून नीट रावून दोळ्यांची वाट आडायली तर तिचे दोळे म्हाका अस्वस्थ करचे नाशिल्ले.

०८७. मादक हतीचे दोळ्यांचे वयर ज्या प्रमाणे आवरण आसता त्या प्रमाणे त्या सुंदरीच्या मोम्या वयर वस्त्र आसा.

०८८. रणांगणांत जो पराक्रम आयकून शत्रूजन भियेवुंक लागता तो पराक्रम ह्या सुंदरीचो भाल प्रदेश पळोवन निस्तेज जाता.

०८९. चितङ्गा प्रमाणे तिची दिश्टी निश्कपट आनी मौज करपी आसा. विनय हो तिचो विशेश अलंकार आसा, देखून तिका दूसरे भूशणांची गरज कसल्याक?

०९०. सोरो पिल्लो तर उन्मत्त करता, परंतू प्रेम देखताच जशें आनंद जाता तशें ताचान जायना.

## करण ११० - भायले लक्षणानी नायिकेचें हृदय वळखप

०९१. मनभुलयणी तिचे दोळ्याची दिश्टी दोन तरां आसा. एकान हृदय कातरता. दूसरे तरा व्यथा उणे करन शांत करपी वोखद आसा.

०९२. उन्मत्त सौन्दर्यवर्धक तिची दिश्टी, हांत तिचो अर्ध प्रेम न्हय संपूर्ण प्रेम परगट जाता.

०९३. म्हाका पळोवन मान सकयल घालें हें आमच्या दोगांचेय मनांत वाडचे प्रेमाचे रोंप्याक उदक मेळ्ळे प्रमाणे आसा.

०९४. हांवें तिका पळयताच ती भूयंचेर पळयता. परंतु हांव दुसरे कडे पळयतां तर ती म्हाका चोवन मंद स्मित करता.

०९५. लजे खातीर ती म्हजे कडे दिश्टी घालना. परंतू ती म्हाका वक्र दिश्टीन पळयता आनी आनंदान मंदस्मित करता.

१०९६. परक्या मनीशा प्रमाणे ती निश्ठूर उतरां उलयता तर ती प्रेमाची उतरां आसात म्हण नायकाक ओळखून येता.

१०९७. राग ना तर रागान उलोवपा सारके उतरां, मनांत प्रतिघात ना तर अपूर्ण विरोध परगटावंची दिश्टी - हीं दोनीय दूसरे म्हण मानून घेवंचे नातेवर्गीची लक्षणां आसात.

१०९८. हांवें निराधार दिश्टीन पळेवपाक सूदंरीचे हृदय विरगळ्ळें, अमुखयानी हांसली. तिच्या त्या अवस्थेंत आनी मंदस्मित करपांत तिचे सौंदर्य अधीकच वाडलें.

१०९९. परिचय ना अशें अनवळखी सारके उदासीन दिश्टी - जे आपण्याक प्रेम करता. तांचे पासून मात ही दिश्टी आसता.

११००. दिश्टी, दिश्टीक जेन्ना स्वीकृती दिता तेन्ना उतरांचो उपेग काय ना.

## प्रकरण १११ संयोगानन्द

११०१. दृश्य, श्रव्य, स्पर्श, सुवादीक आनी परमळीत - ह्या पांचय इनिद्रयांचो सुखानंद एकच वेळार हातांक कांकण घाल्या ह्या तरुणींत मात झगझगता आसा.

११०२. ज्या कारणान रोग जाता ताच्या सावन भिन्न भिन्न आसता त्या रोगाचें वखद. परंतु ही तरुणी जो रोग सर्जन करता ताचें वखद तीच तीच दिवूं शक्ता.

११०३. ज्या तरुणीक मोग करता, तिचे खांदाक लागून जो आनंद मेळ्ता, ताच्या परस चड आनंद देवलोकांत लेगीत आसा काय?

११०४. ती दूर आसा तर हुलपायता, लागी आसा तर शांत करता. ह्या तरेची विचित्र अग्नी तिणे खंय सावन प्राप्त केली?

११०५. जें खूख तूं आवडता तें सूख केसांत फूलां माळेल्या मोहक तरुणीमणीचे खांदा पासून तुका मेळ्ता.

११०६. तिचे स्पर्श केलें तर अमृता सारखे तिचे हात लागले तर तें स्पर्श नवजीवन दिता, शरीरांत नवचैतन्य हाडता.

११०७. अतिथीक तृप्त करन उरलेलें अन्न जेवन गृहस्थाश्रमी मनीश आनंद पावंता, तशें तिचे आलिगंनांत सूख घेता.

११०८. वारें लेगीत येवन बाधा हाडनाशिल्लें तांचें दृढ आलिंगनांत परस्पर ऐक्याचो आनंद भरल्लो आसता.

११०९. प्रेम कलहा उपरांत इश्ट जावप, मागीर पुनर्मिमलन - हे अमृतमय अणभव प्रेमी युगळच जाणतात.

१०. मनीश जशें अधिकाधिक विद्वान जाता आसता तेन्ना ताचे अज्ञान ताका दिसू लागता, त्याच प्रमाणे तिचे संगतींत हांव जितलो मग्न जातां तितलो चड तिचो मोग म्हजेर चड जाता.

## रण ११२ - नायिकेचे सौंदर्याची स्तुती

११. 'अनिच्चा' फुला (जाईच्या फुला समान मृदुल आनी परमळीक फूल) तूं सुकुमार आनी कोमल आसा. परंतु म्हजी प्रेमिका ज्याचेर म्हजे मन लागलां ती तुच्या परस कोमल आसा.

१२. हे म्हजे हृदया, तूं फटवलें. जायते लोकानी पळोवन आवडच फुलांत एक लेगीत तिचे दोळ्या सारके दिसना. तीं सर्वय मेळ्न घेतल्यार मात तिचे दोळ्या सारके जाता.

१३. तिचे हात कोमल वेळू प्रमाणे आसात, तिचे शरीर नव पल्लव प्रमाणे आसात, दांत सुंदर मोतीयां सारके, आनी गाल शोबीत आसात. तिचे दोळे तीक्ष्ण भाली समान आसात.

१४. शिरीश फुलाक ह्या सुंदरीक पळोवपाक संद मेळे तर लजेन मान मकयल घालन रावतलें.

१५. 'अनिच्चा' देंट सयत माथ्यार माळ्यां. ताचे भारान तिचो कूरट वावगता म्हण दिसता.

१६. चन्द्र कोण आनी तिचें तोंड कांण - हें कळूक कठीन आसून मळबावयलीं नक्षत्रां भटकत फिरता आसात.

१७. आकाशांत ल्हान व्हड जातल्ले चन्द्रमा सारके तिचे तोण्डार दाग आसा काय?

१८. हे चन्द्रमा, ह्या सुंदरीचे तोण्डा प्रमाणे तूं कांती पसारता तर हांव तुका प्रेम करीन.

१९. हे चन्द्रमा, फुला प्रमाणे दोळे आसचे तिचे तोण्डा समान सोबीत मुखामळ आवडता तर कोण तरी उपस्थितींत तूं उदेवू नाका.

२०. हंसीचीं नाजूक ल्हान पारंवां आनी 'अनिच्चा' फूल तिचे कोमळ पावलांक कांटयाचे झोंपा प्रमाणे दिसतलें.

## रण ११३ - प्रेमाचें म्हत्व

२१. ह्या मधूर भाशिणीचे धवे दांतां सावन उगळून येवंची लाळ दूध आनी म्होव, हांचे मिश्रणा प्रमाणे मधूर आसा.

११२२. शरीर आनी प्राण, हांचे मदें जशें संबंद आसा तशें म्हाका तिचे कडे संबदं आसा.

११२३. दोळ्यांतले मंडोळे, तूं दूरा सर, आनी हांव ज्याक प्रेम करतां तिच्या मूर्तीक थंय जागो दी. कारण म्हाजे प्रेयसीक रावूंक योग्य दूसरो जागो ना.

११२४. ही प्रेयसी म्हाका आलिंगन करचे वेळार मात म्हाका जीव मेळ्ता. ती दूर जाता म्हणचे म्हाका निर्मम मरणावस्थे समान आसा.

११२५. उगडास करीन. विसरून घेवना, तिचे गूण विसरून गेलों तर परतून स्मरण करतां. तिचे दोळे कशें विसरूं? तेच म्हाका कळ्ना.

११२६. (नायिकेचे मनांतले विचार). तो म्हाजे दोळ्यां आउ जावचें ना. हांवें दोळ्यां पाती धांपली तर ताका दुरव्ख जावंचें ना.

११२७. म्हजो प्रेमी केन्नाय म्हजे दोळ्यांत आसता. तो रवीण भर दूर वतलो म्हण भीतीन हांव दोळ्यांत काजल सूयना.

११२८. म्हाजे प्रेमी केन्नाय म्हाजे हृदयांत आसता. ताका हुनसाण लागतली म्हण भीतीन हांव हून अन्न घेना.

११२९. हांवें दोळ्या पाती आड करचीना. कारण एक खीणाक तो म्हजे कडे सावन दूर जातलो. लोक ताचे खातीर ताकाच निश्ठूर म्हणतले.

११३०. प्रेमान तो केन्नाय म्हजे हृदयांत रावता. तो खंय दूरा जायना. परंतु गावंकार म्हणतात कि तो तिका सोडून गेलो, तो चड दुश्ट आसा, दयामाया नाशिल्लो.

## प्रकरण ११४ - लज्जा त्याग

११३१. नायिकेचे सांगातीणी कडे नायक सांगताः जो प्रियजनाचें विरह सोसूंक लागता, ताका आपले विरह दुरव्ख परगटावपाक खाजूरा पिड्याचे घोडया वयर चडून बसपा.* सिवाय दुसरो उपाय काय ना.

११३२. नायकाची ही करनी पळोवन प्रेमिकेची सखी ताचे कडे प्रश्न करचाक तो तिका म्हणताः म्हजे शरीर आनी मन दोगांय विरहाग्नी तगपाक शक्थ न्हय. देखून लज्जा सोडून पिडयार चडून वसपाक तयार जालो.

---

आपले इश्टाचे प्रेमिकेक लग्न करपा खातीर कसलोय विरोध आसा तर प्रेमी धरकाराचेर आनी गांवकारांचेर ताका अनुकूल दबाब घालपा खातीर, गांव गांव भोवन अपलो प्रेम प्रकट करची एक चाल. गावंच्या ह्या चालीक 'मडल - रीति' (खाजूरा पिड्याचो धोडो करन ताचे फाटीर बेसप) म्हणतात.

११३३. (पिडया घोडया संबंदी विशया खातीर प्रश्न करपी प्रेमिकेचे सखीक नायक म्हणता): लज्जा आनी पौरूष दोनीय म्हजे कडे पूर्वी आशिल्लीं, परंतू आतां प्रेमातूरांक पिडया घोडया शिवाय दुसरो उपाय कांय ना. फकत तेंच आज म्हजे कडे आसा.

११३४. म्हजे लज्जा आनी पौरूशाचो तराफो वासना - विकाराचे हुंवारांत होळून गेलो.

११३५. तुका हो विरह ताप आनी लज्जा सोडून पिड्यार वसपाक धाडस कशें जालें म्हण प्रश्न करचाक सखीक तो म्हणताः ल्हान कांकणान सोवीत फुला प्रमाणे कोमळ त्या सुंदरीन म्हाका 'पिड्याचो घोडो' आनी सांज वेळेचो हो विरह मनस्तापूय दिलो.

११३६. तुच्या प्रेयसीक म्हजे दोळ्यांत न्हींद हाडपाक शक्य न्हंय, कारण हांव मध्यरातींतय पिड्या घेड्या पासून याद करता आसतलों.

११३७. मनांत कामसागर ल्हारेता तर पिड्या घोड्यार चडून उचंबळावपाक ती चिंतन लेगीत करना. देखून अस्तुरीचें मन संयमापेक्षा श्रेश्ठ ह्या जगांत दुसरें काय ना.

११३८. कामाक संयम करपाक शक्य न्हंय. ह्या अवस्थे पासून नायिका प्रेयसी कडे सांगताः म्हजे विनयाची शक्ती म्हजो प्रेम लक्षांत घेना. हांव जो प्रेम कितले विनयान सहन करून आसा म्हण प्रेमाकच कळना. मनांतलो प्रेम विकार परगट जाता. आनी ते जगाक कळून येता.

११३९. नायिका सांगता : म्हजे मनांतलो प्रेम कोणेय जाणनात. अशें वाटेर भोवन प्रदर्शन करता.

११४०. लोक म्हाका हासतात. जी वेदना हांव सोसतां ताची कल्पना तांकां काय? तें तांकां कळना.

## प्रकरण ११५ लोकापवाद

११४१. नायक सखीकडे म्हणताः गावांतले लोकाची फिर्याद आयकून म्हजो जीव सोसता आनी त्या धाडसान पुनः म्हजे शरीरांत प्राण येता अशें दिसता. हें लोकाक कळना. तें म्हजे भाग्य आसा.

११४२. फुला प्रमाणे दोळ्याची म्हजे प्रियेचे गूण गांव-कारांक कळना, आनी ते तिची फिर्याद करतात. तें म्हाका भो स्वस्थताय दिता.

११४३. गावंकारांचें उलोवणे म्हाका अनमोल सूख दिता, कारण तें सूख आज लेगीत मेळें ना आशिल्लें तर मेळ्ळें सारके आसा अशें दिसता.

११४४. लोकाचे फिर्यादी पासून म्हजो प्रेमविकार अधीक वाडता. ना तर तो बावन करपून वता आशिल्लो.

११४५. जशें उन्माद चड जाता तशें सोरोची रूच वाडता, तशें प्रेमीचे मनांतलो प्रेम जशें जशें कळून येता तशें तशें तो वाडत आसता.

११४६. आमी एकमेकाक भेटले एकच दिवस. परंतु जशें चन्द्राक ग्रहण लागता तशें आमचे बावतींत जालें.

११४७. हो प्रेम रोग लोकाचे अफवे पासून सारें सारके फळदीक जालो आवयचीं आड उतरांचे उदक मेळन म्हजे मनांतली प्रेमांकुरी वाडली.

११४८. आमचे आड गोंदळ करन आमचो प्रेम मारूंक यत्न करप म्हणचें, तुपान जळचो उजो वडोवपाक यत्र करचे बराबर आसा.

११४९. 'भियेऊ नाका' म्हण सांगून आश्वासन दिवन नाथ गेलो आनी लोकाचे निंदेक म्हाका विशय केली. आतां लोकाचे कलकलाहटा भियेवन लज्जेन मरूं काय?

११५०. आमचे विशयीं जी अफवा पसरली ती उपेगाची आसा. ती आमकां आनी आमच्या प्रेमाक जोडपाक शक्य जाली.

('काम' भागांत 'रहस्यमय समागम' सोंपता.)

# पातिव्रत्य धर्माचें म्हत्व.

## (आनी बाकी आषा (१८) प्रकरणांत पातिव्रत्य धर्माचे म्हत्वाची स्तुती गायता)

### प्रकरण ११६ वियोगाचें दुरव्ख

११५१. तूं म्हाका सोडून वचना तर म्हाका सांग. वचून वेगीन परतून येवीन म्हण सांगता तर त्या वेळ पर्यंत जे कोणेय जिवंत आसतले तर तांकां तें सांग.

११५२. एक वेळा ताणे म्हाका पळयलो तर फूडे म्हाका परमानंद दिसतालो. परंतु आतां वियोगा खातीर आठेवन ताचे आलिंगनांत दुर०ख जाता. कारण तो वेगीन म्हाका सोडून वतलो म्हण भय जाता.

११५३. वियोग जातलो म्हण जाणून प्रेमी वेगळे जावपा वेळार भियेतले, तांकां संतोश अपरूप जातलो. देखून कोणूयचेर विश्वास दवरप अशकय जातलें.

१५४. भिवूनाका, हांव तुका सोडून वचोना म्हण दिल्ल्या उतराचेर विश्वास केलो. तो म्हजो अपराध काय?

१५५. वियोग येनाशिल्लें राखून घे. आयलो तर परतून संगम जावपाक शक्य न्हंय.

१५६. 'हांव वचून येवीन.' म्हण म्हजे तोण्ड मुखार सांगची निूश्ठूरताये लागी आसा. तो म्हजो प्राण आसू पर्यन्त परतून येतलो आनी म्हाका प्रेम करतलो म्हण हांवें विश्वासल्यार म्हजो अपराध काय?

१५७. नायकाचो वियेग तुवें म्हाका सांगचें काय? म्हजे हाता कांकणां सडळ जावन सकयल पडतली. तीं म्हाका सांगतलीं.

१५८. जिवाची अपूरवायेची सखी जंय ना आसता, थंय वर्तप दुर०ख दिणे आसतलें. परंतु प्रियंकराचें विरह ताच्या परस चड दुर०खाचें आसतलें.

१५९. उज्याचो स्पर्श केलो तर तो होळपायता. परंतु प्रेम दूर आसा तर तो भारी होळपायता.

१६०. वियोगाचें दुर०ख सोसून, तें विसरून प्रेमी परतून येवूं पर्यन्त जीवन धारण करून रावपी हांची जायतीं उदाहरणां (नमूने) आसूये. (हांव तांत एकली जावूंये ना)

## प्रकरण ११७ वियोगिनीचें प्रेमताप शोषण

१६१. (प्रेम ताप परगट करप तुचे लज्जे प्रमाणे तुका योग्य न्हंय म्हण सखी नायिकेक सांगता, तेन्ना नायिका म्हणता) झर्येचें उदक कितलेंय भरलें तर, तें परतून परतून उफाळून येता, त्याच प्रमाणे हांव म्हजे विरहदुर०ख दामून दवरपाक यत्न करतां तर तें चड जाता.

१६२. विरह दुर०खाची वेदना लिपून दवरप म्हजे शक्तीचे भायर आसा. परंतु ताचे मुखार वचून उतरानी कळेवपाक म्हाका लज्जा जाता.

१६३. म्हजे विरह जीवन - कावडीचे एक शेकटाक प्रेम आसा आनी दुसर्या शेकटाक लज्जा आसा. ह्या दोनीचेय वज्यां सकयल म्हजे दुबळें शारीर ह्या वाटेन त्या वाटेन हुमकळता.

१६४. प्रेम सागर म्हजे मुखार उसळता. तो पेवून वालाडपाक प्रामाणीक होडें म्हजे लागी ना.

१६५. आपले प्रेम भाजनाक इतले कश्ट दिवपाक शकता तर शत्रुत्व कितें काय करचीना.

१६६. प्रेमाचो आनंद, सागरा प्रमाणे आसा. परंतु प्रेम विरह दुर०ख दिवपा लागलें तर तें दुर०ख सागरा परस अनंत आसता.

११६७. प्रेमसागरांत पेवून तड दिसनाशिल्लें राती हांव एकसुरो हेंडत्ता आसा. लागी कोणेय ना.

११६८. संवसाराचे समस्त सजीव प्राण्यांक न्हिंदावन राती म्हाका मात जागी वसयता. (विरह दुर०खान नायिकेक रात न्हींद ना).

११६९. ह्यो निर्दय दीर्घ रात्यो वियोगावस्थेंत हळू हळू सरतात आनी त्यो हीन जना सारके म्हाका अधीकच दुर०ख दितात.

११७०. जंय म्हजो प्रेमी आसा थंय म्हजे हृदय धावंता. ताणे आशिल्ले कडे हांव गेलीं तर अश्रुसागरांत म्हजे दोळे पेवंचे नात.

## प्रकरण ११८ उत्कंठेन वाट पळोवन दोळे निस्तेज जावप

११७१. हे दोळे आज फडफडत आसात. कित्याक? ताणीच म्हजे प्रेम्याक म्हाका पयलेच दाखयला आनी हो रोग म्हजे नसीबांत हाडला.

११७२. परिणाम कितें जातलें म्हण विचार करनाशिल्लें ह्या दोळ्यानी पयलेच उतावळीन पळ्यलो त्या खातीर जाल्लें दुर०ख सोसचें सोडून रडतात कित्याक.

११७३. त्या दिसा उडी मारन दोळे भरन पळयलो. आज तेच दोळे रडतात. अशें करून घेवंचें हास्यास्पद आसा.

११७४. म्हजे दोळे आज सुके जाल्यात. दुकांचे थेंवे थांबल्याात. परंतु ताचे पासून घडयल्लो शोक बाकी जाला.

११७५. सागरा परस ०हड दुर०ख आनी मनस्ताप दिवन ह्या दाळ्यांची वेदना अधीक जाल्या. सोसपाक शक्थ जायना.

११७६. ज्या दोळ्यानी म्हाका रडयले तेच आता स्वतः रडतात. ताणी सूड घेतल्या म्हण मनांत लेखतां.

११७७. त्या दिसा प्रेम रसांत वुडून ह्या दोळ्यानी ताका पळ्यलो. त्या सुंदर मूर्तीचेर ते आकर्शीत जाले. आतां ते रडून रडून दुकां थेंवे ना जावून सुकून वचोत.

११७८. उतरानी मात प्रेम परगट करपी हांगा येवन पावले खंय. ताची वाट पळोवन म्हजे दोनीय दोळे थकले.

११७९. तो दूर आसा तर न्हींद ना. तो येतलो म्हण ते दोळे जागे जागे आसतले. तो आयलो तर वतलो म्हण लैखून न्हींद ना. हाचे मदें दिश्टी कडकडता अशें दुर०खच तांचे नशीबांत आसा.

११८०. मनीशाचे दोळे जेन्ना समस्तय परगट करू शक्तात तेन्ना हांव ते कशें लिपोवन दवरतलीं? भेरी जेन्ना वाजून कळ्यता तेन्ना तें लोकां सावन लिपोवुंक शक्त न्हय. तशेंच म्हजे प्रेम्याकडे म्हजो प्रेम आप्याप परगट जाता.

## प्रकरण ११९ विरहा लागून आयल्लें निस्तेजपण

११८१. प्रेमीक म्हजेर प्रेम आसा म्हण विश्वास घेवन म्हाका सोडून वचाक हांवें संमती दिल्ली. आतां हांव आपले निस्तेजपणा खातीर कोणाकडे फिर्याद करूं?

११८२. हें निस्तेजपण ताणे म्हाका दिल्लें म्हण लेखून अभिमान वाडता. हें निस्तेजपण म्हजे समस्त शरीराचेर पसरता.

११८३. म्हजे सौंदर्य आनी म्हजी लज्जा तो घेवन गेलो. आनी तांचे वदला मनोव्यथा आनी निस्तेजपण म्हाका दिल्लें.

११८४. म्हजे मनांत दुसरे कांय विचार नात. ताचे सारके विचार आसात. म्हाजे उतरांत ताची स्तूती करीत आसता. तर हें निस्तेजपण म्हजे शरीराचेर कसल्याक?

११८५. फूडे म्हजो प्रेमी म्हाका सोडून गेलो तर हें निस्तेजपण आतांच म्हजे कडे आयलां.

११८६. दिव्याचो उजवाड नाच्च जावपाक अंधकार वाट पळ्यत आसता, त्याच प्रमाणे आमचो वियोग केन्ना जाता म्हण हें निस्तेजपण ताची वाट पळ्यता.

११८७. हांव ताका आलिंगन करन आसता. ताका थोडे समयाक दूर केलो मात, त्याच क्षण निस्तेजपणान म्हाका ग्रसलो.

११८८. लोक म्हणता ‘पळ्य ती निस्तेज जाल्या’. परंतु तो तिका सोडून गेला म्हण कोणेय सांगना.

११८९. वेव्हारांत कुशळ म्हजो प्रेमी सूख समाधानान आसा तर म्हजे शरीरांत हें निस्तेजपण खूब वाडो.

११९० वेव्हार कुशळ म्हजे प्रेम्याक गावंकार दुश्ट म्हण सांगनात, तर म्हजे हें शरीर निराधार जालें तर आनंदच मानून धेवीन.

## प्रकरण १२० नायिकेची विरह वेदना

११९१. हांव ज्याक प्रेम करतां, तोवय आपणा सारके म्हाकाय प्रेम करता. अशें अणभव जे करतात ते प्रेमाचे अतिमधुर आनंदाचो अणभव घेतात.

११९२. जगाक जशें पावस, तशें प्रेमिकेक प्रेम्याचो कोमळ संगम आसा.

११९३. ही विरह वेदना लागीच सोंपतली आनी हांव मोगान जीवन करतलीं - अशें संतोशाचो विचार प्रेमिकांचे मनांत आशा वळगीत आसतली.

११९४. पतिव्रतांचो मान वाडता तर, नायकाचो प्रेम मेळो ना तर वायलांक जगांत सूख ना.

११९५. हांव ज्याक प्रेम करतां, तो त्याच प्रमाणे म्हाका प्रेम करना तर म्हाका काय सूख आसता?

११९६. पाण्याची कावडी प्रमाणे प्रेम दो तरफी आसा तर तांत आनंद आसा. एक तरफी प्रेम म्हणचें दुर०ख आनी निराशा.

११९७. कामदेव फकत म्हाकाच पीडा दिता. म्हजें दुर०ख आनी मनस्ताप तो पळ्यना. (दोगांचेय मदें रावून प्रेम वाडोवप ताचो धर्म आसा.)

११९८. प्रेमीकडे सावन प्रेमाचो संदेश मेळ्ना तर जी स्त्री आशेन जीवन करू शकता तिचे परस निश्ठूर जगांत दुसरी स्त्री ना.

११९९. प्रेमी अनुदार आसा तर ताची दोन उतरां म्हजे कानांक कितलीं गोड आसतात.

१२००. हे काळीजा, जाचे काळीजांत तुचेर प्रेम ना, ताका स्वताचें दुर०ख सांगून फायदो काय? तें सागराक रिकामे करपा प्रमाणे अशक्य आसा.

## प्रकरण १२१ प्रियेक स्मरण करन सुस्कार सोडप

१२०१. केवल स्मरण मात्रान प्रेम अनंत आनंद दिता अति मधूर लागता. प्रेम हो मदिरापेक्षा मधूर आसा.

१२०२. प्रेम सर्व अवस्थेंतय मधूर आसा. प्रेम दुर०ख शमता. वियोगावस्थेंतय प्रेम सर्वोपरी आनंददायी आसा.

१२०३. शींक नांका तलवार पर्यन्त येता परंतु दिसना जाता. तो जायतेदां म्हाका उगडास करता. परंतु विसरता. (पयशिल्लो वंधू उगडास करता तर तुका शींक येता, अशें विश्वास.)

१२०४. म्हजे काळीजांत तो सदासर्वदा आसा. परंतु ताचे काळीजांत म्हाका जागो आसा काय?

१२०५. तो म्हाका ताचे काळीजांत जागो दिना. परंतु म्हाजे काळीजां भितर सरपाक लज्जा दिसना काय?

१२०६. आमची भेट जातली, हें स्मरण म्हाका जियेवपाक तांक दिता. म्हजे जिवीताक दुसरो आधार ना.

१२०७. म्हजे स्मृतींत तो केन्नाय भरन आसा तर तो म्हाका विरहाग्नींत धग धगायता. परंतु हांव ताका विसरतां तर तो म्हजी काय दशा करीत?

१२०८. म्हजे प्रेमी खातीर हांव कितेंय लेखतां तर ताका राग येवचों ना, म्हजेर ताची भारी कृपा आसा.

१२०९. 'आमी दोगां न्हंय, एकच आसात' अशें म्हणपी त्या प्रेमीचे निश्ठूरपणा खातीर हांव विचार करूं लगतां तेन्ना तांचीं तीं उतरां म्हाका जियेवूंक तांक दिता.

१२१०. म्हजे काळीजांत सदा सर्वदा आसा तर तो पयस गेला. तो पुनः दिश्टींत पडूं पर्यंत, हे चन्द्र, तूं उदेवू नाका. (तांची परस्पर मेळची दिश्टी चंन्द्रा खातीर अडचण जाता, देखून.)

## प्रकरण १२२ सपन स्थितीची खवर

१२११. प्रेमीचो संदेश घेवन आयल्लया ह्या सपनाक हांव कोण उपचार करूं?

१२१२. दोळे न्हींद येवन अधीर जाले तर सपनांत हांव एक दम उठून, आतांय हांव कशें जियेवन आसा म्हण म्हजी अधीर दशा ताका सांगून दिवीन.

१२१३. तो जागेपणांत येवन बुजवण दिना तर सन्पांत ती ताका देखूं शकता. देखून हे प्राण आजून चालू आसात.

१२१४. जागृतायेंत दया दाखोवपाक तयार नाशिल्ले म्हजे प्रेमीक सपन बळ लावन ओडून घेवन येता.

१२१५. जागृतायेंत तो लागी आसा तर म्हाका आनंदानुभूती आसा. आंता सपन सृश्टींतय तीच आनंदानुभूती अणभवतां. दोनीय दशा बराबर आसा.

१२१६. ही जागृतावस्था ना तर सपनावस्थेंत म्हजे कडे येवन मेळ्चो प्रेमी म्हजे कडे सावन केन्नाय दूर सरचो ना.

१२१७. जागृत अवस्थेंत प्रत्यक्षांत म्हजेर दया करनाशिल्लें तो निश्ठूर प्रेमी सपनांत येवन म्हाका कश्ट दिता कारण कितें?

१२१८. निद्रावस्थेंत तो म्हजे कडेन सरन न्हिदता, परंतु जागी जाली तर तो चट करन हृदयांत सरता.

१२१९. सपनावस्थेंत प्रेमीचें लाळ्न पाळ्न नशीब नाशिल्लीं प्रेमिका ताका निश्ठूर म्हणतात.

१२२०. तो म्हाका सोडून गेला म्हण ज्यो प्रेमिका म्हणतात त्यो आपले प्रेमीक वृथा दोश सांगतात. ते सपनांत तांचे कडे येतात आनी तांकां मेळतात. तें तांकां कळ्ना काय?

## प्रकरण १२३ तिनसांज जाली तर विशाद

१२२१. हे तिनसांजे, तुका नमस्कार. तूं आतां पुर्विल्ली सांज न्हंय. आतां विरहिणीचो जीव खावगी वेळ मू तूं.

१२२२. हे तिनसांजे, तुचे दोळे अधीर आसात. तुचो नाथूय म्हजे घोवा प्रमाणे निश्ठूर आसा काय?

१२२३. नाथ लागी आसतना भियेवत भियेवत, कांपत कांपत म्हजे मुखार येताली. परंतु आतां दुर०ख घेवन मू तूं येता.

१२२४. प्रेमी दूर आसा म्हण जाणून ही तीन सांज सूळार घालचे मनीशा प्रमाणे म्हजे कडे येता.

१२२५. हांवें फांतोड्याक कोण अपकार केला आनी ह्या सांजे कडे इतलो कोण अपकार केला?

१२२६. प्रेमी जेन्ना पर्यंत लागी आसता तेन्ना पर्यंत सांज तिका अशें दुर०ख करतली म्हण तिणे लेखले ना.

१२२७. हें विरह दुर०ख सकाळीं कोळ्या स्र्यान आसता. हळू हळू एक एक पकळी विसकळेवन सांज जाली तर पूर्ण स्र्यान फुलता.

१२२८. गोवाळ्याचो बांसुरी नाद मधूर आसा. परंतु तो आतां तीक्ष्ण हत्यार दिसता, कारण सांज जाली अशें ती बांसुरी सुचयता.

१२२९. स्राप घेतल्ली सांजेची शोभा भोवंतणी पसरता तेन्ना, हांव मात न्हंय, पुराय गांव दुरव्खांत बुडून गेला.

१२३०. म्हजो प्रेमी धन जोडपाक दूर गेला. ह्या तिनसाज वेळार म्हजो हो जीव तें स्मरण करन म्हाका सोडून वतलो अशें म्हाका दिसता.

## प्रकरण १२४ शरीरकांतीक्षय

१२३१. प्रेयसीची विरहावस्था पळेवन संगातीण तिका सागताः फुलाक लेगीत लज्जा जाल्या सारके तुचे दोळे ताचो विचार करून आज कांती रहीत जाल्यात.

१२३२. तुचे दुबळे दोळे दुकांचे थेंबं गळत आसात. ते दोळे ताचें निश्ठूरपण व्यक्त करतात.

१२३३. विवाहाचे वेळार जीं भूजां आनंदान फुलेलीं तींच आज विरह दुर०ख परगटायतात.

१२३४. प्रेमीचे विरहान तुचे नैसर्गकी सौंदर्य निस्तेज जालें. भूजां सोपूर जालीं. भांगरा कांकणां सडळ जावन हाता सावन गळून पडलीं.

१२३५. भूजांनी आपली रमणीयता वगडायली. कांकणां सडळ जालीं. हें त्या निश्ठूराची क्रूरताय स्पश्ट करता.

१२३६. प्रेयसी सांगातिणीक सांगताः म्हजी भूजां शिथील जालीं. कांकणां सडळ जालीं. हांत हांव फिर्याद करना. परंतु ताका क्रूर म्हणतात म्हण म्हाका भारी दुर०ख जाता.

१२३७. हे हृदया, तूं शाबासकी जोडपाक हवी आसतलें काय. तर तूं प्रेमी कडे वच आनी म्हाजे भूजांचे कृशत्वाची काणी गावंकारांचे कानार घाल.

१२३८. एक दिवस आमी आलिंगन देत आशिल्लीं. हांवें म्हजे हात चिके सडळ केले. त्याची वेळा प्रेयसीचो भालप्रदेश निस्तेज जालो.

१२३९. आमच्या दृढ आलिंगनांत जेन्ना हात चिके सडळ जाले तेन्ना वर्षाकालीन मेघा प्रमाणे काळे तिच्या दोळ्यांतलें तेज आनी अनुराग निपून गेलां.

१२४०. कपाल निस्तेज जालां. हें पळोवन दोळ्ये कांतीहीन जाले आसये.

## प्रकरण १२५ हृदय संवाद

१२४१. हे काळीजा, ना बरोजावपी ह्या रोगाचेर जैत जोडपाक उपाय शोधून काडून एक वखद सांगू जायना काय?

१२४२. हे काळीजा, तूं जय पावं. ताका तुचेर प्रेम ना तर तूं ताचे खातीर पिश्या प्रमाणे रडता कित्याक?

१२४३. हे काळीजा, हांगा बसून ताका आठोवन दुर०ख करन उपेग कितें? ताका सहानुभूती कांय ना.

१२४४. हे मना, तूं ताचे कडे वता तर हे दोळ्ये बरोवर घेवन वच. ताका पळोवपाक तांकां भारी उत्कणठ्य आसा. ते म्हाका गिळ्तले.

१२४५. हे हृदया, ताका तुचेर प्रेम ना तर तूं ताका तिरस्कार करू शक्य आसा काय?

१२४६. हृदया, तुचो ढोंगी आनी उथळ राग सोडू? ताचे लागी मेळ्न वच. तूं आतां भारी राग करता कित्याक?

१२४७. हे मना, प्रेम सोड, ना तर लाज सोड. एकच वेळार दोनीय म्हाका सहन करपाक जाय ना.

१२४८. मनांत दया दिसून तो तुचे कडे येना. हे मना, तूं ताका शोधून वचपाक उत्सूक आसा. स्वाभिमान, हो वस्तूच कितें म्हण तुका कळ्ना.

१२४९. हे हृदया, तुचो प्रेमी तुच्या काळीजांतच रावतिका करन आसा. ताका शोधून तूं खंय भायर वता?

१२५०. जो सोडून गेला, ताका परतून मनांत घेता तर शरीर कांती भायर हृदयय निस्तेज जातलें.

## प्रकरण १२६ मनांचें स्थैर्यक्षय

१२५१. विनयाचे कलयादान संयमाचें कवड बंद केलां आसा तर बळिश्ट प्रेमाचे कुराडीन ताचे कुडेक करन उडकायले. (आतां म्हाका विनय ना, मनोनियंत्रणय ना.)

१२५२. प्रेमाक दोळे नात. प्रेम एक निर्दय वस्तू आसा. रात्रींतय प्रेम म्हजे हृदयाक जाळून आसा.

१२५३. हांव म्हाजे प्रेमाक नियंत्रणांत राखपाक इत्सा करतां. परंतू एक दम परगट जावंचे शिंके प्रमाणे आगावू सूचना दिना आशिल्लें परगट जाता.

१२५४. म्हाजी चालचलणूक मर्यादे भितर आनी विनयशील आसा. परंतू करूं काय? म्हजो प्रेम पडदो दूर उडकावन संवसारा मुखार परगट जाता आसा.

१२५५. निश्ठूरपणान सोडून गेलो तर तो वचो, म्हण लेखचें, अशें चिंतन केली तर प्रेमाधीन जाल्ले म्हाका तें कशें शक्य जातलें?

१२५६. ज्याने निर्दयपणान म्हाका त्याग केला ताचे फाटल्यान वचपाक जें वियोग दुर०ख म्हाका फाटबळ दिता तें म्हाका व्हड मधूर आसा.

१२५७. जेन्ना प्रेमी येवन पुनः प्रेम कृपा करता, तेन्ना हांव लज्जा एक दम विसरून वतां.

१२५८. कपटी उतरां खरीं करपी प्रेमीचीं मधूर उतरां प्रेयसीचे धीर मनाचे किल्लेक मोडून उडकावंचें सैन्य आसा.

१२५९. झगडें करतलीं म्हण निर्णय घेवन हांव ताचे मुखार गेलीं. परंतु हांवे ताका आलिंगन केलें, कारण म्हजें हृदय ताका मेळन गेलें म्हण दिसलें.

१२६०. उज्यांत चरबी विरगळ्ता, त्या प्रमाणे ज्यांचे हृदय विरगळ्ता ते एकमेका पासून झगडून दूर रावपाक शक्य काय?

## प्रकरण १२७ समागम उत्कण्ठा

१२६१. म्हजे दोळ्यांचे तेज उणे जावन मंद जालें. प्रेमीन म्हाका सोडन गेल्ले दिवस मेजून मेजून म्हजीं हीं बोटां झरून गेलीं.

१२६२. हे सखी, ताका हांव आतां विसरलीं तर कितें जातलें. पुनर्जल्मांत म्हजे हाताचीं कांकणां रडळ जावन गळून पडतलीं आनी भूजां दुर्बळ जातलीं.

१२६३. जैत पावंची इत्सा मनांत घेवन जो गेला तो परतून येतलो. हे विजयेच्छेन हांव आतांय जियेतां.

१२६४. म्हाका सोडून तो गेला. परंतू एक दिवस तो परतून येतलो - ह्या विचारान म्हजे हृदय फुलून उडकी मारता.

१२६५. हे दोळे ताका परतून पोटभर पळयता. ताका लागून म्हाज्या ह्या दुर्बळ भूजांचो फिको रंग दिसना जातलो.

१२६६. प्रेमी येतलो. ताका लागून ताचें दर्शनामृत घेवन हांव म्हजे शरीराचो मारक वियोग - रोग ना करतलीं.

१२६७. म्हजे दोळ्या समान प्रेमी घराक वापस आयलो तर तो जायते दीस दूर आसलो म्हण हांव ताका रागान वागतलीं अथवा मोगांत घेतलीं अथवा दोगंय प्रकार करतलीं काय?

१२६८. झूज एक दम आरंभून प्रेमीक जय मेळो. सांजवेळ घर पावून प्रिये सयत आनंद भोजन करो.

१२६९. जो प्रेमी दूर देशांत गेला तो केन्ना परतून येतलो म्हण जी दिवस मेजून राखून आसा तिका एक एक दिवस युगा समान दिसता.

१२७०. हांव वचून भेट जावपा पूर्वीच प्रियतमेचे काळीज फुटून ती मेली तर हांव वचून उमयोग काय?

## प्रकरण १२८ अप्रकट विचार कळोवप

१२७१. नायक प्रश्न करता : प्रिये तूं स्वताचे कांय एक विचार लिपोवपाक यत्न करता तर काजल सूयल्ले तुचे दोळे म्हाका सांगतात कि तुचे हृदयांत कांय एक विचार आसात. ते कोण कसले म्हण म्हाका सांग.

१२७२. ज्याचें सौदर्य म्हजे दोळ्यांत भरन आसा तिची भूजां तरण्या वेळ सारके सरळ आनी नाजूक आसात. परंतु तिका स्त्री सहज मूर्खपणय आसा.

२७३. स्पटिकेचे मणियानी गांथल्ले सूता प्रमाणे तिचे काळीजांत सुंदर विचार स्पश्ट दिसतात.

२७४. फुलाचे कोळयांत अपरगट परमळ पसरून आसा त्याच प्रमाणे ह्या मुग्धेल्या मंदस्मितांत अर्थ भरन आसा.

१२७५. हाताक कांकणानी सोबीत ह्या सुंदरीक म्हजे काळीजांत उदय करनाशिल्ले वियेगाचीं खबरां विशीं उगडास करन अविश्वास परगटावप दुर०ख निवारणाचे वखद जालें.

१२७६. संयोगा वेळार ताणे म्हाका प्रखर सूख दिल्लें. देखून वियोगा वेळार ताणे दिल्ले दुरव्खा खातीर हांवें चिंतन केली.

१२७७. सागर देवा सारके म्हजे स्वामी म्हाका परतून सोडून गेला म्हण म्हाका कळचे फूडे हाताचीं हीं कांकणां जाणात.

१२७८. प्रियतम म्हाका सोडून गेला काल. परंतु म्हजे शरीराची कांती सात दिवस फूडेच म्हाका सोडून गेली.

१२७९. प्रियेची सखी प्रेमीक म्हणताः तीणे स्वतः आपली कांकणां पळ्यली आनी आपले दुर्बळ वा कोमळ भूजां पळ्यलीं, उपरांत आपले पायांकडे पळ्यलें. ०हड संभ्रम जालो.

१२८०. तो सखीक म्हणताः दोळ्यानी कामताप सुचोवप ह्या संवसारांत पवित्र स्त्रीधर्माचो श्रेश्ठ सद्‌गूण आसा. केवळ पवित्र स्त्रीधर्माकच हें साध्य आसा. (देखून हांवें तुचे सखीक, म्हजे प्रेमिकेक आनी केन्नाय सोडून वचें ना.)

## प्रकरण १२९ समागमोत्कण्ठा.

१२८१. मनांत विचार येताच अपार आनंद भोगता - दर्शन जाताच आनंद सागर उसळ्ता. ही शक्ती मद्यांत ना. फकत प्रेमांतच आसा.

१२८२. खाजूरा येदें प्रेम करपी प्रेमिका आपले प्रेमी कडे कण मात झगडपाची इत्सा मनांत घेना.

१२८३. ताका म्हजी परवा ना आसा तर तो अपले इत्सेक अनुसरून काम करीत आसा तर ताका पळ्यले विना म्हजे दोळ्यांक समाधान ना.

१२८४. सखी, ताचे कडे झगडें करपाक गेलीं. परंतु तें विसरून ताका भेटून एक जावपाक मन तळ्वलें.

१२८५. शलाकेन दोळ्यांत काजल सुवत आसतना शलाका दोळ्यांक दिसना. त्याच प्रमाणे प्रेमीक आसात म्हणचे दोश म्हाका दिसना.

१२८६. तो समक्ष आसा तर निरपराधी दिसता. दूर गेलो तर तो केवळ दोशी दिसता.

१२८७. म्हाका घेवन वतलो म्हण जाणून उदकाचे झोतांत उडी मारता त्या प्रमाणे निश्फळ म्हण जाणून प्रेमी कडे झगडून गरज काय?

१२८८. लजेन मान सकयल घालपाक योग्य आसा, तर सुराटयांक मद्या खातीर काय दुर०ख ना. त्याच प्रमाणे हे घातकी, परिहास आनी लाज सहन केली तर, तुचे हृदय म्हाका उन्माद आनी आकर्शण दिता.

१२८९. अनुराग फुला परस सुकुमार आसा. भो थोडे लोक हें समजतात. आनी तदनुरूप ते वेव्हार करतात.

१२९०. म्हाका पळेवन तिच्या दोळ्यांत राग आयलो. परंतु हांव लागी थेताकूच हांव तिच्या वाहुपाशांत. येवंचे वदलाक तीच म्हज्या बाहूंत घुसपली.

## प्रकरण : १३० हृदय संवाद

१२९१. नाथांचें काळीज ताचे इत्से प्रमाणे बरो वेव्हार करता. हे म्हजे मना, तूं म्हजो विरोध करता, म्हाका आयकना कित्याक?

१२९२. हे काळीजा, तो तुचे कडे निर्दय वेव्हार करता म्हण जाणून ताका मित्र समजून परतून ताचे कडे वता कित्याक?

१२९३. हे हृदया, जे निर्भागी आसात तांकां मित्र कोणेय ना आसता. हें समजून तूं म्हाका सोडून ताचे फाटो फाट वता काय?

१२९४. हे मना, आलोचना करन ताची संगती करू अशें तूवें चिंतंन केली ना. ताका देखचाक, तूवें ताचे समस्त अपराधय विसरून ताचे संगतीत आनंद घेवपाक आरंभलें. देखून तुचे कडे संगती करपाक आनी कोण आसतलें?

१२९५. तांची भेट जावंची न्हय म्हण भय, भेट जाली तर परतून वियोग जातलो, हे विचारान भय, अशें म्हजे हृदय - वेदनाक अंत ना.

१२९६. हांव एकलोच विचार करीत बसतां, तेन्ना म्हजें मन म्हाका खाऊ येता सारके दिसता.

१२९७. जो नायक म्हाका विसरून गेला, हांव ताका विसरून गेलीना. देखून हे मना तूं कारण हांवंय निर्लज जालीं.

१२९८. ज्याचेर हांव प्रेम करतां, ताचे कमी खातीर हांव दुर०ख करना कारण, तशें केलें तर ताचें दुर०ख म्हाकाय आसतलें. देखून आतां ताची स्तुचती करप कुश्ळताय आसतली.

१२९९. दुर०खी मनीशाक ताचे दुर०खांत कोण बरो आधार दितलो? प्रियेचें हृदय धावन पावना तर दुसरें कोण येतलें?

१३००. म्हज्ं हृदय म्हाका मजत करना जालें तर दुसर्यानी म्हजी मजत केलीना म्हण आश्चर्य काय?

## प्रकरण १३१ प्रेम कलह

१३०१. सखी प्रियेक सांगताः प्रिये, ताका आलिगंन करपाक दिवू नाका. रागार राव. प्रेमीची व्यथा स्वल्प बेळाक पळेवया.

१३०२. प्रेम कलह प्रीतीचें सर्वस्व आसा. प्रीतींत तें मीठ आसा. परंतु हो कलह चड वाडोवप म्हणचें खाणांत चड मीठ घालचे प्रमाणे आसतलें.

१३०३. परस्पर वेगळे जाल्ले जोडे (घोव वायल) आलिंग दिल्ले शिवाय रावप जरवमीक अधीक जखमी करचें बराबर आसा.

१३०४. प्रेमी प्रेमिका परस्पर आलिंगन करनात तर बावल्ले वालीक मूळा सावन कातरून उडकावपा सारके आसा.

१३०५. जे लोक परम निर्दोशी आसात ते प्रिये कडे प्रेम कलह करपांत एक प्रकाराची मधूर आकर्शकताय अणभव करतात.

१३०६. कलह आनी राग ना आसा तर प्रेम हरवे फळ बराबर अरूचीकर आसता.

१३०७. प्रेम कलहांत (एक प्रकाराचें दुरव्ख आसा. प्रत्येक क्षणाक आपण मनांत म्हणत आसतलो. कलहा लागून संयोग अकस्मात सोंपतलो अथवा दिर्ध वेळाक आसतलो. अशें चिंता काडप हेंच तें दुर०ख.

१३०८. हांव कितलो दुर०खी आसा, हें समजूंक प्रिया कडे उपकरण कांय ना तर त्या दुर०खाचो उपेग काय?

१३०९. थंड सावटांत तानेल्ले मनीशाक उदक मधूर दिसता. त्या प्रमाणे अत्यंत प्रेम करपी व्यक्तीचो प्रेम राग मधूर आसा.

१३१०. कलह ध्यानांत घेनाशिल्लें म्हजें हृदय तांचे संगम आशेता तर केवळ मूर्खपणाचे इत्सेचें हें फळ आसा.

## प्रकरण १३२ प्रेमकलहाचें कारण

१३११. (भायर भोवून घराक परतून आयल्या प्रेमीक प्रेमिका म्हणता) समस्त नारी समूह आपले दोळ्यांनी तुचें हृदय सूख घेवन गेलां. देखून तुचे हृदय - आलिंगन म्हाका नाका.

१३१२. हांव रागार आशिल्लीं. त्या वेळार ताका शींक आयली. "म्हजे प्रियाक दिर्घ जीवी कर" अशें हांव म्हणतां तशें ताका दिसलें.

१३१३. हांवें तिका खोस करपाक आपले गळ्याक एक फुला हार घालो तर, "तुका दुसर्या एक रमणीक खोस करपाक आसा" अशें म्हणून भालो सोडता.

१३१४. हांव तिका म्हणतां "सर्वां परस तुका हांव अधीक प्रेम करता" तर ती तुरंत विचारता "सर्वां परस म्हणचें कोणा कोणा परस?"

१३१५. हांव म्हणतां "आपुण ह्या जल्मांत तुका सोडून वचेंना" तर तिचे दोळे भरून आयले. (फूडेचे जल्माचे वियोगाचे शंकेन).

१३१६. हांव म्हणतां "जेन्ना तूं दूर रावता तेन्ना तुका मनांत उगडास करत आसता" तर "म्हाका एक दम विसरून गेला कित्याक" म्हण सांगून ती म्हाका आलिगंन करनाशिल्लें दूर वतली.

१३१७. म्हाका शींक आयली. तीणे हें शुभ म्हण लेखलें परंतु दोळ्यांत उदक घेवन तीणे विचारलें "तुमकां शींक आयली. कोणे तुमचें बरें मागलें आनी तुमचे खातीर चिंतन केली" म्हण सांगून उपरांत रडूं लागली.

१३१८. परतून शींक येवपाक हांवें ती दबली. ती दोळ्यां उदक घेवन म्हणू लागली "तुमकां शींक आयली. कोणतरी तुमची मैत्रीण तुमकां उगडास करत आसतली." म्हण शंका म्हाका येवू न्हयें म्हण शींक दाबली काय?

१३१९. (तीका शांत करपाक हांव जायत्या तराचे उपाय करतां. परंतू तिचो राग चड जाता. ती म्हणता "तुमी दूसर्यांकडे प्रेम कलह करचे वेळार अशेंच बरी युक्तीन शांत करतात काय?"

१३२०. तिच्या सौंदर्याक लागून उन्मत्त जावन तिका पळेवुंक लागता तर ती म्हणताः "म्हजे सौंदर्याक दुसर्या कोणाचे सौदर्याची तुलना मनांत करीत आसात?"

## प्रकरण १३३ प्रेमकलहाची गोडसाण

१३२१. म्हजे प्रेमीचो दोश काय ना. परंतु प्रेमीक म्हाका चड प्रेम करूंक जाय. देखून हांव प्रेम कलह करतां.

१३२२. प्रेम कलहांत एकमेकान जे कश्ट भोगले तांत गोडसाण आसा.

१३२३. ज्या भूंयचेर उदक व्हावंता त्या भूंयची आनी उदकाची जशें समरसता आसा तशेंच प्रेम कलह आसा.

१३२४. प्रियंकरा लागी म्हजें जें झगडें जाता ताचानच म्हजे हृदयांतले बळिश्ट किल्लेकोट गडगडून पडता.

१३२५. आपण निर्दोशी आसा तर नायिके सावन कांय दिसांक दूर रावून परतून तिचे कडे सूख मनोवप एक प्रकाराचो आनंद आसता.

१३२६. खाण परस ताचें पाचन अधीक गोड आसा - त्या प्रमाणे आलिंगना परस प्रेमकलहच अधीक मधूर आसा.

१३२७. प्रेमाचे कलहांत जो पयले हारवता तोच जिकता. मागीरची रति क्रीडा ताका आत्माविश्वास दिता.

१३२८. आलिंगना वेळार तिचे कपलार दिसपा सारके हूमेचे थेंबे ते एक झगड्यांत परतून स्पश्ट आसतले काय?

१३२९. आपली ही शोबीत लळितांगी झगडपाक आनी मेळपाक रात दीर्घ जावो, हीच मात म्हजी प्रार्थना आसा.

१३३०. प्रेमकलह म्हणचें प्रेमांतली गोडसाण, आनी आनंदातलो परमानंद. त्या गोडसाणींत परम गोडसाण म्हणचें मागून मेळचें आलिंगन आसा.

## काम भागांत पातिव्रत्याची चिंतनां सोंपलीं.

## तिरुक्कुरळ समाप्त

# इन्स्टिट्यूटाचीं प्रकाशनां

| | | |
|---|---|---|
| १. | कोकणी स्वयंशिक्षक | रु. २५.०० |
| २. | तुळसीदास | रु. २.५० |
| ३. | कोकणी व्याकरण | रु. ४०.०० |
| ४. | Konkani English Self-Instructor | रु. २५.०० |
| ५. | कोकणी मलयाळ्म स्ववोधिनी | रु. २५.०० |
| ६. | वेंकटेश कलयाण | रु. ७.०० |
| ७. | गोड्डे रामायण (कोंकणी लोकगीत) | रु. २०.०० |
| ८. | Vocabulary: (English - Konkani- Hindi. Konkani - English - Hindi) | रु. ५०.०० |
| ९. | केरळांतलीं कोकणी लोकगीतां | रु. ४०.०० |
| १०. | Konkani Primer for the beginners | रु. ३०.०० |
| ११. | तिरुक्कुरळ (गद्य भाशान्तर) | रु. १२०.०० |

# रघुनाथ कृष्ण राव (आर. के. राव)



जल्म : ४ जुलाई १९१४ वर्सा

जल्म थळ : तृप्पूणित्तुरा, कोची, केरळ

शिक्षणी पदव्यो :

१. राष्टभाषा विशारद (दक्षिण भारत हिन्दी प्रचार सभा, मद्रास)

२. एम.ए. (हिन्दी), मद्रास विश्वविद्यालय, मद्रास

३. वावर धंदे

अ) १९३९ - १९४७ - हिन्दी प्रचारक, मट्टांचेरी, कोची

आ) १९४७ - १९७५ - हिन्दी प्रोफसर, संत आलबर्टस, काळेज, एरणाकुलम, केरळ

इ) हिन्दी प्रोफसर, विद्यानिकेतन, पारलल कोलज, एरणाकुळ्म : १९७७ - १९८७

मलयाळ्म साहित्याचे नामनेचे कादंबरीकार तकष्री शिबशंकर पिळ्ळै, हांची, कादंबरी 'रण्डिडङ्ङ्षी' हाचें 'दोन दंङ्गाळी भात' नावान भाशान्तर केलां. हाका केन्द्र साहिय अकादमीचो पुरस्कार प्रात्पकेला. नामनेचे कैरळी कथा साहित्यकार वैकम मुहम्मद बशीर हांचे वरपावळीचे कोंकणी भाशांतर करन गोयचे म्हयनाळे 'आज' पत्रिकेर क्रमान उजवाडायता.

कोकणीचे प्रचारा रवातीर 'कोंकणी भाषा संस्थान' स्थापन करन 'कोंकणी स्वंय शिक्षक' (हिन्दी, मलयाळ्म आनी अंग्रेजी, अशें तीन माध्यमांत प्रकाशन केल्यांत. कोंकणी व्याकरण, कोंकणी उतराबळ, भुरग्यांक कोंकणी वाचून, बरूवन शिकपा कोंकणी प्रायमर ही पुस्तकांय छापून उजवाडा हाडल्यांत. हालीच तमीळ कवी तिरुवळ्ळुवर, हांचे 'तिरुक्कुरळ' काव्याचें गद्य अणकार करन प्रकाशन केला.

सुटके झुजारी, म्हण केरळ राज्या चें आनी भारत सरकाराचें 'स्वतंत्रता सैनिक सम्मान पेन्शन' घेता. ताम्रपत्रय फावो केलां.